मासिक
# बिम्ब
कोंकणी समाजाचें पडबिम्ब

मार्च २००८

'विद्यार्थ्यां भितर ऊंच हावेस जागोवंक आमी उणीं पडटात.'



## महिलांक राजकारणांत ३३% राखिवता म्हळ्यार आयच्या भ्रश्टाचारी राजकारणांत रामबाण उपाय!



कोंकणी मासिक

# बिम्ब

कोंकणी समाजाचें पडबिम्ब

वर्स : ७ अंक ३

मार्च २००८

मोल १० रुपया

मुखेल संपादक

दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक

दिलीप बोरकार

छापणावळ

सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी

मार्केटींग व्यवस्थापन

कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ

श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर

वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन

वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक

'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो

जी.एस.बी.-३, हाऊसिंग बोर्ड कॉलनी,

पोस्ट आल्त-पर्वरी,

आल्त बेती - ४०३ ५२१

दूरध्वनी : (०८३२) २४११५९४

E-mail :

bimbkonkani@yahoo.com

bimbkonkani@zapak.com


ह्या अंकांत उक्तायल्ले विचार त्या त्या बरोवप्याचे आसात. संपादक मंडळ तांचेकडेन सहमत आसतच अशें ना.

## 'विद्यार्थ्यां भितर ऊंच हावेस जागोवंक आमी उणीं पडटात.'



**महिलांक ३३% राजकारणांत राखिवता म्हळ्यार आयच्या भ्रश्टाचारी राजकारणांत रामबाण उपाय!**


५ – पांडुरंग गांवकार

# महिलांच्या हातांत राजकारभार दिवप ही काळाची गरज!

दर वर्सा मार्च म्हयनो लागीं पावलो म्हणटकच सरकारी पातळेर तशेंच निमसरकारी पातळे वांगडाच बाकिच्यो खुबश्यो संस्था आंतरराष्ट्रीय महिला दिनाची तयारी करतात.

८ मार्च हो अंतरराष्ट्रीय महिला दिन म्हूण आंतरराष्ट्रीय स्तराचेर मनयतात आनी त्या मनोवपा फाटलो उद्देश जरी दोळ्यां मुखार आसलो तरी त्या उद्दीश्टांची पुर्तताय मात जाल्ली ना आनी हो दीस मनोवपी लोकांची मानसीकताय पळयल्यार फुडाराकूय ताची पुर्तताय जायत शी दिसना.

समाजांत वेगळ्या वेगळ्या स्तरांचेर महिलांचें शोशण जायत आसा. आमी आज स्वताक कितलेय सुशिक्षीत आनी सुदारीत मानले तरीय बायल मनीस ही फकत भोगपाची, वापरपाची वस्त म्हणपाचें विसरूंक शकनात. दादलो आनी बायल हांचे मर्दी वेगळोचार करूंक फावना अशें ताळो सरांटून एके वाटेन समाज आड्डता आनी त्याच वेळार खंय ना खंय खिणा खिणांक महिलांचेर शारिरीक तसोच मानसीक अत्याचार जायत आसता. आयच्या ह्या सुदारलेल्या जगांत जंय एड्सा सारकें दुयेंस अच्छेव माजोवन आसा आनी त्या दुयेंसाक अजून वखद सापडना देखून समाज मनात एक भंय दाटून आसतनाच खंय ना खंय बलात्काराच्यो घडणुको दिसपट्ट्यो कानार पडटात. म्हणटकच आज सुशिक्षीत समाज अजून बायल मनशेक रेस्पेद दिवंक पावना. पावला कणकणी बायल मनशेचो मान सन्मान पायां पोंदाक चिड्डून तिका अपमानीत करीत आसात. पूण ८ मार्च आयलो म्हणटकच हो ह्या महिलां पासत आशिल्लो दीस मनोवपाक दादलेच मुखार आसतात.

महिला दिन मनोवन बायलां मर्दी सशक्तीकरण येवपाचें ना. तें येतलें जाल्यार आज संवसारांतल्या महिलांनीं आपलींच मनां सशक्त करपाची गरज आसा.

आमी संवसारावेल्या बायलांची गजाल खीणभर पयस दवरूया आनी गोंयच्या महिलांच्या अवतिकायेची महिला दिना निमतान मात्शी विस्कटावणी करूया. फाटलीं कितलीं तरी वर्सां राजकी मळार बायलां वावरत आसात. गोंय प्रदेश काँग्रेस समितिच्यो अध्यक्षा सुलोचना काटकार आशिल्ल्यो. गोंयच्यो मुखेलमंत्री शशिकला काकोडकार आशिल्ली. निर्मला सावंत, व्हितोरीया फेर्नांडीस हांच्या सारक्यो महिला रासवळ मळार वावरून राजकारणांत भितर सरल्यो. फेरल फुर्तादि, संगीता परब, फेलीस फारिया अश्यो कांय महिला आमदार मंत्री जावन काळाच्या पडद्या आड गेल्यो. पूण गोंयच्या पक्षीय राजकारणांत पक्ष सत्तेर हाडपा खातीर ज्या महिलांचो मोठो तेंको आसता त्या महिलांक मात विधानसभेंत फावो तितलें प्रतिनिधित्व मेळना. एकली एकसुरी प्रतिनिधी वेंचून आयली तरी तिका गोंयच्या महिलांची प्रतिनिधी म्हूण सन्मान मेळना. उरफाटें तिका कीं कोंत करून लजेक म्हारग करपाचो यत्न जाता.

आज गोंयची राजकीय अवतिकाय पळयत जाल्यार ह्यान फुडें जनतेक कितें बरेंपण वाट्याक येतलें म्हणपाचें दिसना. दिसान दीस भ्रश्ट, बोणे, दिवाळ खोर आनी गूंड प्रवृत्तीचे लोक पयशांच्या नाड्यार राजकारणांत घुसतात आनी मतां विकतीं घेवन लोकशायेची विदर्णा करतात. हें सगळें सुशिक्षीत लोक दोळ उक्ते दवरून पळयतात. आज राजकारणांतलो दादलो नितिमुल्यां होगडावन बशिल्लो, हुवाळून घाल्लो असो हळशिकावणो विशय थारला. ताका पर्याय ना अशेंच मत आज समाज मानसांत दिश्टी पडटा. तांकां सत्तेवेल्यान ना नपयत करपाक कसलोच उपाय ना अशेंच मत जाल्लें आसा.

पूण हो चुकिचो समज आसा हें आज समाजा मुखार वचपाची गरज आसा. गोंयांत मोठ्या प्रमाणांत वेंचणुके वेळार बायलांचो वापर जाता. बायल मनशेचें मत हें निर्णायक जाल्ल्यान ती आपलो घोव, आपलीं भुरगीं हांचें मत परिवर्तन करूंक शकता. हे बायल मनशेन जर पुराय राजकारण बदलून उडोवपाचें थारायलें जाल्यार तें शक्य आसा. आज आमकां दिसता आसत, कीं जे कोण लाख्खानी दुडू खर्चून मतां विकतीं घेवन निवडून येतात आनी फाटलीं ४०-४० वर्सां मतदार संघाक घास मारून रावतात तांकां थंयच्यान हालयतलो जाल्यार पयसो, स्नायुबळ आनी हेर आमिशां दाखय नासतना जर कोण टक्कर दिवंक शकता जाल्यार ती बायल मनीसूच. दयानंद नार्वेकार हांकां समर्थपणान टक्कर दिवपाचो यत्न हे वेचणुकेंत फेर्मीना खंवटे हे बायल मनशेन केल्लो आनी राजकारणांत आनी वेंचणुकेच्या आकडे मोडींत खांपो आशिल्ल्या नार्वेकारान शादुरतायेन चाल खेळूंक नाशिल्लो जाल्यार ह्या मतदार संघांत एक वेगळो इतिहास घडपाचो.

म्हणटकच आज बायल मनशेक कमी लेखून, तिचे शक्तीचो दुबाव घेवन फकत महिला दिनाच्या निमतान भाशणां करून वो वेग वेगळ्या येवजण्यांची घोशणां करून तांचे भितर सशक्ती करण हाडपाची आतां गरज उरूंक ना. गरज आसा ती ह्या महिलां मर्दी जागृताय हाडून गोंय वाचोवपाचें आतां फक्त तुमच्या हातांत आसा अशें सांगून तांकां राजकारणांत भितर सरूंक उद्युक्त करप. समाजाची जावपी अवनती जर टाळटलो जाल्यार आज महिलांक हे दिकेन पावल उबारचेंच पडटलें. तांकां नमोवपा खातीर सोरो घालचो पडना, दुडू वाटचो पडना आनी गुंडांचो वापरय जावंक शकना.आयचें राजकारण सुदारतलो जाल्यार हेंच एक शस्त्र आसा. महिला दिनाच्या ह्या प्रसंगार गोंयचे दरेक महिलेन ह्या शस्त्राची शक्त समजून घेवप गरजेचें.

# केरळ राज्यांतुल्या कोंकणीजना वतीन रवीन्द्रबाबांचें अभिनंदन




भौ. संपादक,

आज राष्ट्रान पद्मभूषणान भौमानीत केल्ल्या, काल पयर केन्द्रीय साहित्य अकादेमीन विशेष अंगत्वान भौमानीत केल्ल्या बाब रवीन्द्र केळेकार हांचें अभिनंदन करपा येद्दो हांव वाडलोंना – तेद्दे दिग्गज बरोवपी आनी विचारवंत ते..

जाल्यार केरळ राज्यांतुल्या कोंकणी जनांले तरपेन तरीय रोखडींच तांचें अभिनंदन करूंकच जाय अशी माका दिसता. केरळच्या कोंकणी जनांचो प्रतिनिधी म्हणूंक माका कसलेंय हक्क ना. तरीय स्वल्प वेळाक तें प्रतिनिधित्व म्हजे मात्यार घेवपाचें हांव धाडस करतां. कांय ना जाल्यार रवीन्द्र बाबांलें बरप चडांत चड वाचलेल्या केरळच्या धा जाणा भितर धावो जावन तरीय हांव आसतलोंच!

माका दिसता आतां ह्या निमित्यान तरीय वेंचीक जाग्यांचेर योग्य रूपाचे मेळावे परिचर्चा बी दवरून रवीन्द्र बाबांल्या कृतींचो, विचारांचो चडांत चड जाणांक परिचय दिवंचो; तांचेर भासाभास जावंची, आनी तांचो बरो आस्वाद जावंचो. खरें म्हळ्यार हेंच आसतलें ह्या ऋषितुल्य लेखकाचें सार्थक अभिनंदन! जाल्यार हे खातीर कोणूय समिति संस्था मुकार येत काय? समित्यांची संस्थांची आतां कार्यावळूच बदलल्या. हे विशीं एक ज्योक अशी – साहित्यकार म्हळ्यार कोण म्हूण प्रश्नाक जाप: ज्याका पयलीं पयलीं 'साहित्य' आवडता आनी मागीर मागीर 'कार' आवडता तोच 'साहित्य-कार'!

व्हडल्याक एकल्याक इतेंय मेळ्ळें म्हणतना थोड्या ल्हानांक दिसता आसत 'पुरो, पुरो, ताका आनी कांय दिवंनाकात..' म्हूण! ना तर रवीन्द्र बाबांक ज्ञानपीठ अजून कित्या म्हूण मेळ्ळेंना? ती संस्था कोंकणीक मानिना कितें? ते संस्थेचे समित्यांनी एक लेगीत गोंयकार वा कोंकणी मनीश ना काय? ज्ञानपीठा खातीर नामनिर्देश करपी जनांचे वळेरेंत गोंयकारांचो, कोंकणी मनशांचो आंकडो ते येद्दो ऊणो कितें? माका दिसता एकले सर्वय आतांय हाचें आनी ताचें नांव घेवन बेसल्यात म्हूण. कोंकणींतलें ज्ञानपीठ तो हाडतलो, हो हाडतलो म्हूण वाट पळोवन बेसपा परस गोंयांतुल्या सर्वांनी आनी गोंयां भायल्या सर्वय कोंकणी जनांनी एकच मनान हेंच एक नांव घेवंक जाय आशिल्लें. ह्या कार्यांत तरीय एकमत येत व्हय सर्वांक? आतांय वेळ आसा....

**– शरतचंद्र शणै**
कोची

## परिक्षा काय एक जिवघेणी स्पर्धा?

**कांय** वर्सां फाटीं मॅट्रीक पास जावप म्हळ्यार घरांत आनंदीत वातावरण आसतालें. बोर्डाची पयली परिक्षा म्हणून जायत, पूण भुरग्यांक उमेद हाडपाक सोयरीं जांव शेजारी पेढे मागतालीं आनी पेढे दिवपाची पद्दतूय आशिल्ली. मागीर तीं खंयच्याय श्रेणीत पास जावं ना जाल्यार कितलेय टक्के गूण मेळूं. आतां हे परिक्षेक पतिप्रमाणान म्हत्व दिल्ल्याची जाणीव जाता. पालकांच्योय भुरयां कडच्यान अपेक्षा वाडत आसात आनी ह्या चडांत चड गूण मेळोवपाच्या सर्तींत भुरगीं आनी पालकय मानसीक दृश्टीन खालवतात. थोडे गूण लेगीत वयर सकयल जायत जाल्यार भुरगीं आपलो आत्मविश्वास होगडावन बसतात आनी हाचो परिणाम म्हणून घरची परिस्थिति कितें जावं येता हो एक अणभव.

म्हजे इश्टीणीचें चली ८५% मेळोवन पास जाल्ल्याची खबर मेळ्ळी. अभिनंदन करपाक फोन केल्ल्या फावटी एँगेज येता. फोंन सारको नासतलो म्हण आयताराक वचून येवपाचें थारावन गेलें. घोवान दार उघडलें पूण तोंडार सदचो हासो ना. भितर गेल्यार इश्टीणीचे दोळे रडून सुजल्यात. चली हातरूणार न्हिदून आसा.कितेंय तरी भयंकर घडलां अशें दिसलें. निमाणें समजलें की ताका कमी गूण मेळ्ळ्यात. सगळ्यांचो मूड ऑफ जाल्लो. ८५% मेळून लेगीत ताका जाय ते कॉलेजींत प्रवेश मेळप कठीण जाल्लें. घराक सुतकीपण आयिल्लें. इतले गूण मेळोवन लेगीत आयुश्याच्या पयल्या पावंड्यार आत्मविश्वास गळसणून गेल्लो जो फुडाराक परत मेळोवप ताका शक्य जायत काय हो प्रस्न पडटालो.

तशें पळोवंक गेल्यार आयचें यूग हें स्पर्धात्मक यूग. तरी लेगीत ह्या सान भुरग्यांचेर अत्याचार जावपाक दिवप हें कितपत योग्य? दरएकान आपल्या मुखार मोठे ध्येय दवरचेंच पूण वेळा प्रसंगान अपेक्षा खालावल्यो जाल्यार आत्मविस्वास वगडावन बसप आनी रडपाचे प्रसंग सारके?

आमचो एक शिक्षक सांगतालो,
'Hope for the best but be prepared to face the worst.

हीं उतरां मतींत दवरून भुरग्यांकडच्यान अती प्रमाणान अपेक्षा करून ह्या जिवघेण्या स्पर्धेच्या भकीक पडचे परस विचार पुर्वक निर्धारान निर्णय घेवप हेंच खरें शाणेंपण!

**– सुषमा प्रदीप शिरवयकार**
कुस्मण, केंपे – गोंय

**द**र वर्सा ८ मार्चाक आमी आंतरराष्ट्रीय महिला दिन मोटच्या दबाज्यान मनयतात. महिलांचें सशक्तिकरण जावचें म्हण दादले विधानसभेंत आनी लोकसभेंत मोट्या मोट्यान आड्डून महिलां पासत सगळे कडेन आरक्षण मेळचें म्हण मागणी करतात.

हालींच फाटल्या म्हयन्यांत दिल्ली भारतीय जनता पार्टीन पुराय देशांतल्या लाखभर महिलांक दिल्ली व्हरून थंय शक्ती प्रदर्शन केलें. महिलांक लोकसभा आनी विधानसभेंत ३३% राखिवता आसूंक जाय म्हणपाची मागणी ताळो संराटून केली. अश्यो मागण्यो दर वर्सा जायत आसा. पूण अजून मेरेन लोकसभेंत विधेयक येना आनी आयलें जाल्यार तें पास जायना. तरी लेगीत मार्च म्हयन्यांत महिला दिन मनोवपाक सगळे दादले एका पांयार फुडें आसतात.

दिल्ली वचून महिलांक आरक्षण मेळपा खातीर शक्ती प्रदर्शन करप्यां मदीं गोंयच्योय कांय महिला आशिल्ल्यो. ताणी दिल्ली वचून फकत भोंवडी केली काय कितें तें कळूंक मार्ग ना. खरें म्हळ्यार ह्या महिलांनीं गोंयांतूच पक्षाध्यक्षांकडेन ही मागणी करप गरजेची आशिल्ली.

गोंयचें राजकारण पळयत जाल्यार दादल्यांनीं राजकारणाचो धंदो केला. राजकारणांक एक घाणयारें रूप दिलां. दादले राजकारणांत नांव होगडावन बसल्यात. आतां हें राजकारण बायलांकडेन सुपुर्द करीत जाल्यार कितें बदल जांव येता?

आंतरराष्ट्रीय महिला दिना निमतान **पत्रकार पांडुरंग गांवकार** आपलें मत मांडटा.



# महिलांक ३३% राजकारणांत राखिवता म्हळ्यार आयच्या भ्रश्टाचारी राजकारणांत रामबाण उपाय!

– पांडुरंग गांवकार

**गों**यच्या राजकारणांत बायलां आसात. दरेका पक्षाचो बायलांचो वेगळो गटूच आसता. तांच्या गटाक खाशेलें प्रदेशाध्यक्षपदूय आसता. पूण विधानसभेच्यो तिकेटी वाटतना मात बायलांक दरेका पक्षान उपेक्षीतच दवरलां.

शशिकलाताई काकोडकार, सुलोचना काटकार, अर्मिंदा मास्कारेन्हास, एलू जुजे मिरांडा, संगीता परब, फिलीस फारिया, फॅरल ग्रासियस, फातिमा डिसा, निर्मला सावंत आनी आजून मेरेन वेंचून येवन पसून मंत्रीपदा सारक्या गजाली पसून उपेक्षीत आशिल्ली व्हिक्टोरिया फॅर्नांदीस इतलींच बायलां. आनी दादल्यांचो आंकडो शेकड्यांनी. बायलां घर बसोवं शकतात. आनी शक्य ते काळा प्रमाण योग्य बदलूय करूं शकतात. तशेंच गोंयच्या राजकारणांत जर बायलांचो आंकडो समाधानकारक आशिल्लो जाल्यार आयज निश्चितूच गोंयांत आनी गोंयच्या राजकारणांत बदल घडपाचे. सादे सुदे न्हय बरे मैलाचे बदल घडटा आशिल्ले. ताका लागून खऱ्यानीच गरज आसा ती बायलांक राजकारणांत ३३ टक्के राखीवता दिवपाची. ही राखीवता लागू जातकीच गोंयांत तरी उणीच उणी ९ ते १० बायलां आसतलीं. आनी जो मेरेन राखीवता लागू जायना तो मेरेन बायलां गोंयच्या राजकारणांत हक्कान घुसू शकनांत आनी हे राजकी पक्ष तांकां घुसपाकूय दिवंचे ना. सत्ते खातीर पिशे जाल्ले आनी गोंयांक फोंडात घालून फकत पयशा फाटल्यान धांवपी राजकारण्यांचो आंकडोच वाडपाक लागला. वेळ येतकीच ह्या सगळ्या गजालींचेर योग्य तो उजवाड पडटलोच. पूण गोंयचें

# तसो व्हडलोसो फरक पडपा नासलो: निर्मला सावंत



**गों**यच्या राजकारणांत बायलां व्हडा प्रमाणांत आसल्यार पसून तसो व्हडलोसो फरक पडपा नासलो. कित्याक तर चडशा बायलांचे घोवूच पुराय राजकारण सांबाळटात. बायल हें फक्त मागीर राजकारणांतलें खेळणें थारता.

आमच्या समाजाची रचनाच तशी आसा. एकाद्री बायल शिकिल्ली सवरिल्ली आसत जाल्यार ती आपले वतीन कितेंय करूं शकता. पूण जर ती शिकिल्ली वा अल्पशिक्षीत आसत जाल्यार तांचेर दादल्यांची मक्तेदारी आसता हें सगळ्यांक खबर आसा.

जाता जाल्यार गोंयच्या राजकारणांत सक्षम आमी समर्थपणान काम करपी बायलां येवपाची गरज आसा. निर्भीडपणान दादल्याच्या चेंपणाक बळी न पडटां जर बायलांनी आपलो वावर सुरू केलो जाल्यार राजकारणाक आनी राज्याक ताचो फायदोच जातलो.

दादल्यांच्या कुबड्यांचेर बायलां नाचतात हें चित्र बदलून बायलां हीं वेगळीं आसतात आनी तीं घरावरींच राज्यच न्हय जाल्यार देशूय बरे तरेन चलोवं शकतात अशें दाखवन दिवपाची तांक आशिल्ल्या बायलांची राजकारणांत गरज आसा.

हीत चिंतप्यांचो आंकडो निश्चित कोणूच सांगूं शकना. एक एकटो बुदवंत गोंय सांबाळूं आनी सुदरावं शकना. खऱ्यांनीच बायलांची गरज आसा. आयज मेरेन गोंयच्या राजकारणांत आयिल्ल्या बायलांचेर गोंय विकपाचो आरोप जावंक ना. वा गोंय पाड घालपाचोय आरोप ना. कांय गजालींचो अपवाद आसतलोच. आनी तो आसूंकच जाय. इंग्लीशेंतल्या एका म्हणीचो कोंकणींत केल्लो अनुवाद आसा 'काम करतलो जाल्यार चुको जातल्योच. कामच करिना जाल्यार चुको जातल्यो कशो? ते प्रमाण ज्या बायलां कडल्यान चुको जाल्ल्यो आसत जाल्यार तांकां त्यो माफ करून फुडें वचपाक हरकत ना.

क्लार्क, पीएस, कम्प्यूटर ऑपरेटर अशा सगळ्या गजालीं खातीर बायलां जाय. वेंचणुकेचें राजकारण करपाकूय तांचो बऱ्या पैकी उपयोग जाता. ना जाल्यार महिला मंडळांक हजारांनी रूपया वांटपी राजकारण्यांक विचारात. पूण त्या बायलांनी वेंचणुकेंत उबें रावूंकच

# बायलांच राजकारणाक दर्जो दिवं शकतात: फॅर्मिना खंवटे



इंदिरा गांधीन काय बरो देश चलयलो हें कोणाक वेगळें सांगपाची गरज ना. म्हणटकीच बायलां देश चलोवं शकतात जाल्यार राज्य चलोवं शकनांत?

म्हाका दिसता दादल्यां परस बायलांच बरे तरेन राज्य चलोवं शकतात. बायलांची विचारशक्त दादल्यां परस वेगळी आसता आनी खास आसता. ताका लागून देशाच्या आनी राज्याच्या राजकारणांत बायलांचोच वांटो ७० टक्के जाय. बायलां घर व्यवस्थीत चलोवं शकतात. जायती काटकसर करून घराक फोंडात पडपा पसून वाटयतात तींच बायलां राज्याची आनी देशाची तितलेच जापसालदारीन राखण करूं शकतात आनी हें तेन्ना सिद्ध जातलें जेन्ना देशाच्या आनी राज्याच्या राजकारणांत बायलांच फुडें आनी चड आसतलीं.

दादल्यांक दिसता आसतलें की बायलां फक्त तांच्या पायांतली व्हाण जावंची.. तांचो मार खावंचो आनी मोन्यांनी सोंसचो. पूण हें सगळें बदलपाची गरज आसा. गोंयां सारक्या राज्यांनी जे राजकी फुडारी दादले बायलांक न्याय दिवं शकनांत त्या राज्यांत बायलांचेंच राज्य येवंक जाय. संवसारांत बायले बगर दादलो ना मागीर राजकारणांत बायलांक दुय्यम सुवात कित्याक? बायलांक तांचे हक्क मेळोवपाक, राजकारणांतली घाण पयस करपाक, गलिच्छ पद्धतीचें राजकारण सोपोवपाक बायलांचो राजकारणांतलो वांटो खूप्प म्हत्वाचो आसा.

जाय अशें खंयच्याच राजकी फुडाऱ्याक दिसना. गोंयांत एक ताजें उदाहरण आसा. एक सामको खांपो राजकारणी फाटले वेंचणुकेंत पडपाचो पूण आपल्या विरोधांत आशिल्ले एके बायले खातीर आपूण पडूं शकतां हें पळोवन दुसरे बायलेकूय वेंचणुकेंत उबी करून घेवपाची आनी स्वता वेंचून येवपाची किमया त्या राजकारण्यान सादली. अशे बुदवंत आनी राजकारणांत पांय रोविल्ले खांपे जातीवंत राजकारणी गोंयांत आसात तो मेरेन बायलांक गोंयच्या राजकारणांत जाय तशी सुवात मेळटली अशी अपेक्षा आमी करूंच शकनांत.

सांताक्रूझ सारके सुवातीर जंय बाबूश मोन्सेरात सारको धनाड्य आमदार थळावी आमदार व्हिक्टोरिया उर्फ मामी फॅर्नांदीसा आड आपले घरकान्नीक उबो करता आनी तिका पाडपा खातीर बाबूशाक लागींचे अशे सगळे जाण थंय वावुरपाक लागतात पूण इतलीं वर्सां आमदार आसूनय जिका उपेक्षीत दवरली ते मामीक जिखोवन हाडपाक काँग्रेसीचे कोणूच फुडारी थंय वचनाशिल्ले. म्हणटकीच ह्या सगळ्यांतल्यान दुसरी बायल वेंचून येवपाची पूण एक राजकी पक्ष (काँग्रेस) आपल्या पक्षाचे एका खापे बायल राजकारणी व्यक्तीक शेणोवन बसता आसलो. हातुंतल्यान स्पश्ट अर्थ काडूं येता की ह्या पक्षाक बायलां संबंदांत कांयच पडिल्लें ना.

ह्याच पक्षान कुंभारजुव्याची काँग्रेसीची आदली आमदार आनी पक्षाची तेन्नाची प्रदेश अध्यक्षूय आशिल्ली निर्मला सावंताचोय बळी

## गोंयच्या विधानसभेंतलीं आयज मेरेनचीं बायलां.

1) अर्मिदा मास्कारेन्हास : मुरगांव 1964(युगोडेपा)
2) एलू जुजे मिरांडा: बाणावली 1967 (युगोडेपा)
3) शशिकला काकोडकार: फोंडे 1967 (मगो)
4) श्रीमती फिलीस फारिया:(नियुक्त) सवी विधानसभा 1985
5) सुलोचना काटकार :(नियुक्त) 1985
6) संगीता परब: (नियुक्त) 1985 दुसरे खेपे वेंचून आयली (1995) मांद्रे (काँग्रेस)
7) फॅरल ग्रासियस: वेळ्ळी 1990 (काँग्रेस)
8) फातिमा डिसा: हळदोणा 1995 (काँग्रेस)
9) व्हिक्टोरिया फॅर्नांदीस: सांताक्रूझ 1995 पयलीं अपक्ष दुसरे खेपे (काँग्रेस)
10) निर्मला सावंत: कुमारजुवें 1999 (काँग्रेस)




काँग्रेस पक्षूय महिला मेळावे घडोवपांत फाटीं ना. पूण तांचो वापर दादल्यांकूच निवडून हाडपाक करून तांकां फटोवप हीच संस्कृताय पक्षांत बळावल्या म्हणूंक जाय.




भाजपा य महिलांक आपल्याक जाय तशे भुलयतात. मेळावे घेतात पूण राजकारणांत तांकां मुखार हाडूंक पक्षाचे वतीन ३३% उमेदवारी दिवपाचे भानगडींत आजून पडना.

दिलो. ती पक्षात आसतना येरादारी मंत्री पांडुरंग मडकयकाराक काँग्रेसीत घेवन कितल्या सहजतायेन श्रीमती सावंताक राजकारणांतल्यान पयस करपाची किमया काँग्रेसीन साधली.

हीं बारीक सारीक उदाहरणां जालीं. गोंयांत पंचायत, जिल्लो पंचायत पावंड्यारूय अशेच तरेचें गलिच्छ राजकारण चलता. बायलां बायलां मर्दींच पेट्टा तेन्नाची गजाल वेगळी पूण एक बायल, तिका कितें कळटा? ती कितें करतली वेंचून येवन? अशें म्हणून जेन्ना दादल्यांचें गटवार राजकारण शिजता तेन्ना अवश्य ते बायलेचो बळी वता. गोंयांत हेंच चलत आयलां म्हूण बायलां ल्हवू ल्हवू राजकारणांतल्यान फाटी पडपाक लागल्यांत. बरो वक्तो, बरो प्रशासक जावपाची तांक आशिल्ल्या बायलांकूय आमी गोंयकार फुडें सरपाक दिनांत म्हणटकीच जे अर्दकुटे बोंडेर राजकारणी हांगा घुसतात ते आमचें बरें कितें करतले? तांचे कडल्यान गोंय विकपाचीच अपेक्षा धरपाची.



व्हितोरिया फर्नांडीस



फातिमा डिसा



संगिता परब

गोंयांत प्रादेशीक आराखड्याची भानगड जाली. एसईझेड सारक्या उद्येगीक शारांक हाडपाचो यत्न जालो हें सगळें करपा फाटल्यान दादल्या राजकारण्यांचोच हात आशिल्लो. पूण इतल्या वर्सांत गोंयांत बायल राजकारण्यांनी गोंयाक लजेक घालपी कसलींच कामां करूंक नासलीं. कांय गजाली अपवाद म्हण सोडल्यार.

बायलां घर सांबाळटा. तांकां कांय प्रमाणांत आमी संद दिवंक जाय गोंय सांबाळपाची.





# सांस्कृतीक दायजाचें संवर्धन आनी उदरगत

आप वावुरपी सांस्कृतीक संस्थांक अनुदान.

सरकारी प्राथमिक / माध्यमिक / हायस्कुलांक आनी भजनी मंडळांक सांस्कृतीक साभुग्री पुरवण.

बिगर सरकारी माध्यमिक शाळांक, शाळेंतल्या सादरीकरण कलेच्या उदरगती पासत अनुदान.

नावाजल्या कलाकारांक / लेखकांक तांच्या आपत काळांत आर्थीक पालव.

विशेश प्राविण्य दाखोवपी कलाकारांक राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार.

सांस्कृतीक पंगडांचें आंतरराज्य आदान प्रदान.

सांस्कृतीक कार्यावळी घडोवन हाडपी कलाकार / पंगड / संस्थांक आर्थीक पालव.

कला आनी सांस्कृतीक वावरावेर आदारीत साहित्याचें प्रकाशन आनी हातभार.

शिक्षक, विद्यार्थी आनी युवकां खातीर सांस्कृतीक शिक्षण / महोत्सव / सर्ती / शिबिरां हांचें आयोजन.

गांव / तालुका / राज्य / राष्ट्रीय पावंड्यावेर सांस्कृतीक कार्यावळी घडोवन हाडपा खातीर वेवसायीक पंगडांक अनुदान.

सांस्कृतीक वसतीगृहां / रवींद्र भवन / सांस्कृतीक प्रकल्प उबारप.

राष्ट्रीय म्हत्वाचे दीस / नामनेच्या व्यक्तींच्यो शताब्दी / वर्धापन दीस मनोवप.



कला आनी सांस्कृतीक संचालनालय, गोंय सरकार, पणजी - गोंय



# बा व कें



गजेंद्र नायक हो मडगांवांतलो व्हडलो गिरेस्त. ताचे गिरेस्तकायेक लाग सारके मडगांवांत थोडेच धनवंत आशिल्ले. गजेंद्राकडेन एकठांय जाल्ली गिरेस्तकाय ताच्या स्व कश्टाची नासली. पुर्वजांच्या गिरेस्तकायेचेर गजेंद्राच्या बापायन कळस चडयल्लो.

पुर्वजांचे हे गिरेस्तकायेच्या नाड्यार गजेंद्र समाजसेवा करून वाड-वडलांचें नांव करून दवरचें अशें गजेंद्राक दिसतालें. ताचे कडेन धन दौलत देमायज आसली तशेंच आवय आनी बायल हांच्या रूपान अ गिन्यानाचे दोन हांडेय आसले.

बापूय जितो आसा म्हणसर गजेंद्र लग्नाचो जाला ही गजाल कोणाच्या लक्षांत गेली ना. घोवाच्या मरणा उपरांत काशीबायन गजेंद्राच्या लग्न विशयाक हात घालो. पूण गजेंद्रान आपली सोयरीक आपणेंच जुळयली. त्या उपरांत कितें घडटा तें पळोवया **नं. ध. बोरकार** हांचे **बावकें** हे तांचे नवे नवलिकेंत.

**कां**य बायलांचें जशें क्य वाडटा, तशो तांच्यो उचापतीय वाडटात. आशिक्षीत बायलांक तर असली पिडा चडच बादता. तांचोय एक खाशेलो असो काळ आसता आपल्या घोवाचेर अधिकार गाजोवपाचो. भुरग्यांक रीत शिकोवपाचो. त्यो बायलो मागीर शाण्यो आसू ना तर अरवळ! त्यो आपल्याक जाय तेंच करूंक सोदतात. तांच्या मनांत आयिल्ले विचार चुकिचे अशे केन्नाच आसनात, असो तांचो समज आसता. हाचेवेल्यान त्यो दुश्ट-बिश्ट आसतात अशें समजुपाची गरज ना. खुबशो मायेस्त आनी मोगाळ आसतात. तांच्या ह्या बळाचेरच त्यो आपलो हट्ट आनी वायट – बरे विचार घरवांगड्यांचेर लादूंक शकतात आनी सोसीक घरवांगडी हें सगळें मुक्काट्यांनी मानून घेतात. कारण तांकां दुसरो पर्यायच आसना. ल्हान भुरग्यांक बापायन वा हेर कोणेंय दुखयल्यार तीं आवयकडे कागाळ करतात. आवयच्या आसऱ्याक धांवतात. पूण आवय जेन्ना भुरग्यांचें कांयच आयकून घेना तेन्ना भुरगीं खंय धांव घेतलीं? आनी धावन गेलींय ज़ाल्यार तांकां परत आवयच्या आसऱ्याक येवचेंच पडटा. सैमाचो नेमच तसो आसता. ताका लागून आवयन कितेंय सांगलें तरी भुरग्यांक तें मानचेंच पडटा.

अशें जरी आसलें तरी चार दीस मांयचे जाल्यार चार दीस सुनेचे आसतातच. ल्हान आशिल्ल्या भुरग्यांच्या आंगांत जेन्ना बळ येता तेन्ना तांकां पाखां फुट्टात आनी भुरग्यांक जेन्ना पाखां फुट्टात तेन्ना आवयचें बळगें तांकां आळाबंदाक हाडूंक शकना. भुरगीं आवयचे आदेश झिडकारूंक लागतात. असल्या वेळार आवयक आपली ताकत उणी जाल्ल्याची जाणविकाय जाता आनी मागीर त्यो आपल्याकडे आशिल्ल्या कसल्याय बळाचो उपेग करून हट्टाक पेट्टात.

काशीबायलेंय आतां तशेंच जालां. घोव मेल्या उपरांत तिका आतां अधिकार गाजोवपाक बळ उणें जालां. घरांतले मानाय आनी वावराड्यो तिचेर कंटाळल्यात. ताका लागून तिचो मोर्चो आतां हक्काच्या पुताकडे-गजेंद्राकडे वळ्ळा. ताचें बरें करपाचें, ताका संवसाराक लावपाचो हक्क ती आपूण कसोच सोडूंक तयार ना. आपले पसंतीप्रमाण गजेंद्राचो संवसार उबो जावचो. इतलेंच न्हय

तर आपल्या सांगण्या-म्हणण्या प्रमाण, आपल्या पुतान आनी भावी सुनेन वागुंकच जाय अशें तिचें पक्कें मत.

आतां तिका वसंताकडे - मावसभावाकडे येवन दोन दीस जाल्यात. तशें तिचें ह्या आदींय वसंताकडे येवप-वचप आनी दोन-दोन दीस राबितो करप आसतालें. वसंतागेरच कित्याक, घोवाकडे चडच बिनसलें तर ती रागान लागसारच्या सोयऱ्यांकडे धांव मारताली. वांगडा मानायांक ना तर वावराडेकडच्यान कसली ना कसली जडशी पिशवी व्हरतालीच. असल्या पिशव्यांक लागूनच तिका वचत थंय हुनहुनीत येवकार मेळटालो.

काशीबाय आतां सदचेभशेन वसंतागेर फोल्गांक वचूं नासली. ती गेल्ली पुताच्या लग्नाचें जाग्यार घालूंक. तिणें वसंता म्हऱ्यांत बसचें. वांगडा वसंता बायलेकय बसोवची. देणें-घेणें, भांगरांशिंगरां, कपडेलत्ते बी कशे आसचे, ह्या सगळ्याविशीं फक्त काशीबायनच उलोवचें. वसंताबायलेन फक्त मोन्यानी आयकुपाचें. गरज पडटा तेन्ना आनी काशीबायक जाय तेन्नाच वसंतान तोंड उक्तें करपाचें. हें सगळें थारावनच गेल्ली काशीबाय व्हकलकारागेर. तिणें आपल्याक जाय तें एकमतान थारावन घेतलें. वसंतानय तिच्यो सगळ्यो मागण्यो आनी कोंदीसांवां मानून घेतलीं. कारण ताका कोणायभशेन ताचें नाकयें चली गजेंद्राच्या गळ्यांत बांदिल्लें जाय आसलें. हें एक नाकयें खपलें म्हणटकच हेर भुरावळीचीं लग्नां ताका सोपीं वचपाचीं आसलीं.

काशीबाय आतां खोशेन भरिल्ली. तिका जाय तशो सगळ्यो गजाली घडून आयिल्ल्यो.

दुसरेदिसा सकाळीं तिणें मडगांवां वचपाचें थारायलें. वसंताक टेक्सी आरांज्यार करूंक सांगली.

दुसरे दिसा सकाळीं तिणें धां च्या सुमाराक कुंभारजुवें सोडलें.

काशीबायचो देवांचेर चड भावार्त. कुंभारजुवें तें मडगांव पाव मेरेन वाटेर खंयचीं खंयचीं देवळां लागतात तीं तिका तोंडपाठ! तिणें वांगडा एके ल्हानशे पिशवेंत तिशेक बेडे आनी तितकींच खावचीं पानां घालून सोफेराच्या म्हऱ्यांत दवरूंक लायलीं. माशेलांत पावतकच टेक्सी देवळांकडे वळोवंक लायली. थंयच्या फुलकारांकडच्यान तिशेक फुलांझेले विकते घेतले. आपूण गाडयेंत बसून रावली. सोफेराकडे पांच-पांच रुपयांच्यो दोन नोटी दिल्यो. थंयच्या दोन मुखेल देवांक पानाविडो, फुलांझेलो आनी पांच रूपयांची नोट धाडून दिली आनी भटाक रकाद दिलो की हें काशीबायच्या वतीन देवाक दी!

सोफेरान काशीबायच्या ओर्दीप्रमाण काम केलें.

"तुजें नांव कितें रे?" काशीबायन सोफेराक विचारलें.

"लाडू बाय!"

"तूं खंयचो?"

"हांव माशेलांचो बाय!"

"अशें? तशें जाल्यार हांगाच्यान मडगांवां पावमेरेन वाटेर कितले देव लागतात खबर आसा तुका?"

"हय बाय. म्हाका सगलीं नांवां पाठ आसात. देवांचींच सांगों काय देवचारांचींय?" लाडून उत्सुक्तायेन प्रस्न केलो.

"म्हाका नांवां-बिवां कांय नाका. फक्त हांव सांगतां तें कर." काशीबायन सुट्या रुपयांची पोटली काडून लाडू सुवादीन केली.

"हें कितें बाय?" लाडून ती जडेली पोटली झेलयत अजापीत जावन प्रस्न केलो.

"हे सुटे रुपये. तातुंतलो एकेक रुपया काडून विड्यार दवरपाचो. विड्यासयत फुलांझेलो वाटेर मेळटा तितल्याय देवांक एकेक दिवपाचो. करता मरे हावें सांगलां तशें?"

"हय तर! करूंक कितें जालां? पूण बाय, हेका खूब वोगोत लागतलो न्हू? घरा पावता म्हणल्यार दोन जातलीं. ते वाटेर देव थोडे ना. देवां परस देंवचारच चड आसात. एकट्याक दिल्यार दुसरो रागार जातलो."

"कोणाक सोडूं नाका. फुलां बी उणीं पडलीं जाल्यार माड्डोळा आनीक घेवचीं."

"तें जायत बाय, पूण म्हाका 'देमोरा'चे पयशे दिवंचे पडटले आं!" लाडू वेव्हाराचें उलयलो.

"दिवया! तूं देमोरासयत भाडें सांग." ओर्दाद काशीबाय नेटान उलयली.

काशीबाय वेव्हारी आसली तरी ती कसल्याच बाबतींत चिकपणा करी नासली. कंजुसी केल्यार लोक पयस रावतात हें ती जाणासली. ताका लागून खंयच्याय देवळांत प्रसादांक वच्चें पडल्यार, आदल्या दिसा ती आपल्या मनशाकडसून पांचवी नोट प्रसाद लावपी भगताक ना तर भटाक धाडून दिताली. मागीर काशीबाय खंयच्याय वेळार देवळांत भितर सरूं, तिका पयलें प्रेफरेंस. देवय तिका सदांच प्रसन्न. खंयच्याच देवाक कापाजदाद नासली, काशीबायच्या मना आड प्रसाद दिवपाची. काशीबायच्या फावोरार प्रसाद झडोवपाची कळा देवाकृपेन देवळांतल्या पुजाऱ्यांक बेसबरी कळटाली.

ल्हान-व्हड देवांक पान-दुडू दीत-दीत ती आतां एका नावाजत्या देवळाकडे पावली. गाडी देवळाच्या देट्ट्याभायर पयसशी उबी केली. कारण ती टेक्सी आसली, तिची स्वताची गाडी न्हय.

काशीबाय टेक्सी ड्रायव्हराचो वांगोड घेवन देवळा पायऱ्यां मेरेन वचूंक सोदताली. तितक्यांत तिका खुशालीन पळेली. खुशाली उडणा मारीत तिच्या म्हऱ्यांत गेलो. माथें खरपीत, दांत भायर काडून, हांसत्या चेऱ्यान तिका पळेत उबो रावलो. काशीबायन कळाव करिनासतना धा रूपयांची

नोट खुशालीच्या हातार थेयली.

खुशाली काशीबाय कडच्यान पांच रुपयांची अपेक्षा करतालो. हालीं-हालीं प्रत्येक वेळा ताका ती पांचच रूपये दिताली. आज धा रूपये हातार पडल्यात ते पळोवन खुशालीच्या मनाची कळी खिणात फस्स करून फुल्ली.

हो खुशाली म्हळ्यार एक अजापीत प्राणी. तकलेन फीन. फस्ट क्लासीत मेट्रीक पास जाल्लो भुरगो. घरचो तसो खातो-पितो. आवय-बापायचें शेतभात-भाटबेंस आसा. फुडें शिकप घेवपाचीय ताका आस्पत आसा. पूण ताका तें घेवपाचें ना. आतां कसलीय तरी सरकारी नोकरी धरची आनी फुडें प्रोमोशन घेवन-घेवन अधिकारी जावचो ही ताची मोख. पूण कितलींशींच वर्सां जालीं, अप्लाय-अप्लाय नो रिप्लाय. ताका घरचें भुसकें मेळटा, पूण फोल्गांक थोडेभोव पयशे मेळ्ळे रे मेळ्ळे म्हण तो देवळा वाठारांत पोब्र फिदाल्ग जावन वावुरता. ताचो भेस, ताची नितळसाण आनी तोंडांतली इंग्लीश आयकून ताका लटरफटर कोण म्हणचोना. ताचें फेर्राद-धवेंफुल्ल खोमीस सदांच काळ्या काल्सावांत खोयिल्लें आसता. ताचें काल्सांव धपरा मेरेन दोडिल्लें आसता. हो भेस तो मुजरत करता. कारण ताका लोकांक दाखोवंक जाय की तो त्या गांवचो पोब्रफिदाल्ग म्हण!

हो पोब्राफिदाल्ग खुशाली भिकारी वा लाचार मात न्हय. तो कोणा मुखार दुडवां खातीर बी हात फाफडिना. तो फक्त समाज सेवक म्हूण थंय वावुरता. गोंयां भायलो कोणय देशेंत आनी पेजाद मनीस आयलो तर खुशाली धावलोच ताका येवकार दिवंक. ताका हिन्दी, मराठी आनी इंग्लीश ह्यो तिनय भासो बेसबऱ्यो येतात उलोवंक! ताका लागून सुर्वेक भेटिल्ल्या भोवंडेकाराक तो पारखून, फाव ते भाशेचो उपेग करून अशे तरेन येवकार दिता, की केदेय व्हडल्या तिरसुवाद मनशाक तो आपलोसो करून सोडटा. फाटल्या चार-पांच वर्सांत खुशालीन कितलेशेच गोंयांभायल्या मनशांक आपले इश्ट करून सोडल्यात. ताचे हे इश्ट दुसरे फावट गोंयांत आयल्यार ते मुजरत खुशालिची चोवकशी करतात आनी परत वतना ते ताच्या हातार धा-वीस रूपये थेवनच वतात. कारण खुशालीच्या मनांतलें गुपीत, ताच्या संपर्कांत आयिल्ल्या जणेकल्याक खबर आसता. परिस्थितीन ग्रासलेलो हो पोब्राफिदाल्ग. भोंवडेकार थळ सोडीमेरेन ताका सुखदिणो वांगोड दिता. ह्या वांगडाचें मोल ताका बक्शीशी म्हण मागनासतना मेळटा.

मात काशीबायन आयज खुशालीक पांच रूपये मायज वेगळ्याच अर्थान दिल्ले. टेक्सी ड्रायव्हराक घेवन ती देवळाच्यो पायऱ्यो चडूंक सोदताली. तळयेचें सामान घाल्ली पिशवी हातांत घेवन तिच्या वांगडा चलपी कोणय जाय आसलो. ड्रायव्हराचो कपड्यांचो वास तिका सोसना जालो. नितळ कपड्यांतलो खुशाली तिका मानवलो.

"तुजें नांव खुशाली मरे?" पिशवी हातांत घेवन टेक्सींतल्यान देंवत काशीबायन प्रस्न केलो.

"हय बाय!" खुशालीन दांत दाखयले.

"बाय? हांव तुजें बाय रे, वयाचें तरी भान दवर पोरा! कसलीं बाये हीं आतांचीं पोरां...... आई म्हणूंक जीब आडखळटा जाल्यार मावशी तरी म्हण! धर ही पिशवी हातांत, आनी चल म्हज्या वांगडा."

"खंय मावशे?" खुशालीन खिणांत 'बाय'ची 'मावशी' केली.

"मसणांत! नसत्यो चोवकशो कित्याक? मुक्काट्यांनी चल. धा रूपयांची नवी करकरीत नोट दिल्या तुका."

पांचा सुवातेर धा कित्याक दिल्यात तें आतां खुशालीच्या लक्षांत आयलें. म्हातारी हिशोबी आसा. पांच रुपयांची भीख आनी पांचांची हमाली.'आलीया भोगाशी...' म्हण पिशवी हातांत घेतली. 'मावशे-मावशे' करीत लागलो चालीक.

काशीबायन खुशालीक आपल्या मुकार चलपाचो आदेश दिलो. एक हात भेंडार आनी दुसऱ्यान कापड सांबाळीत लागली चालीक नेटान!

काशीबाय देवालयाच्यो पायऱ्यो चडून सभाघरांत पावली. खुशाली कडसून तिणें पिशवी आपल्या हातांत घेतली. तितक्यांत पुजाऱ्याची नदर पिशवी आनी काशीबायचेर वांगडाच पडली. पुजारी एकदम काचाबूल जालो. ताणें आकांतून थंयच्या सेवेकऱ्याक उलो माल्लो.

"आरे धर्म्या, काशीबाय आयल्या पळय. तिका बसोवन घे." गर्बकुडींतल्यान पुजाऱ्यान धर्म्याक आदेस दिलो. धर्मो हातांतलें काम सोडून धांवत आयलो. ताणें काशीबायकडसून पिशवी घेतली. तिका घेवन तो गर्देंतल्यान वाट काडीत बद्द गर्बकुडीच्या हुंबऱ्या मेरेन गेलों. काशीबायन देवाक नमस्कार केलो आनी पुजाऱ्यान काशीबायक.

तिर्थ-प्रसाद घेवन जातकच धर्म्यान काशीबायक एके खाशेले सुवातेर व्हरून बसयली. खंयच्याय देवस्थानांत म्हाजनाक जितलो मान आसता, तेहून चड मान काशीबायक देवळांच्या सेवेकाऱ्यां कडसून मेळटा. सगळें ज्युस्ता ज्युस्त माण्णेर घालून, काशीबाय आतां घरा आयली. आतां तिचे मुखार एकच मोख आसली आनी ती म्हळ्यार जाता तितक्या वेगीं पुताचे दोनाचे चार हात करून सुशेगाद जावपाची.

"रत्न्या ऽऽ. गजाभाऊ आसा गो भितर?" काशीबायन मोरयेंत वचून, थंडगार उदक तोंडार पचपचीत मारीत गजेंद्राची चवकशी केली.

"आसतलो काके, आतांऽ कुडीत बसून आमिगा वांगडा चकाटां मारतालो." रत्न्यान आपल्या कल्पनेतली जाप दिली.

खरें म्हळ्यार गजेंद्र कुडींत एकांतांत बसून मंगेशा वांगडा

गंभीरतायेन आपल्या लग्नाविशीं उलयतालो. रत्न्याक तीं चकाटां दिसलीं. दिसलीं म्हणचे परस रत्न्यान मुजरत तसो रंग दिलो.

हें रत्ने वावराडी आसुनय तकलेन इल्लें चडच फीन आशिल्लें. ताची हुशारकाय पारखूनच काशीबायन ताका आपली खाशेली अशी सेक्रेतारी म्हण दर्जो दिल्लो. हो अलिखीत दर्जो तांकां दोगांकच खबर आशिल्लो.

काशीबाय फीन तकलेची मनीस. असल्या मनशांक सदांच आपली एक तरी विस्वासांतली व्यक्ती आसची अशें दिसता. काशीबाय चळवळी आनी दुबावीय बी. घरच्या आनी घरा भायल्या संबंदितांच्यो खबरो आपल्याक मेळच्यो म्हण तिणें रत्न्याक सुचीत केल्लें. ते पासत ती रत्न्याक म्हयन्याक शेंबर रूपये मायज दिताली. ह्या तिच्या आशीर्वादाक लागून रत्नें तिका आवडटल्यो आसल्योच खबरो रचून सांगतालें.



काशीबाय आयल्या हाची सुलूस गजेंद्राक लागली. ताणें मंगेशाक घरा धाडून दिलो. काशीबाय आतां ताच्या मुखार लग्नाची गजाल काडटलीच हाची खात्री गजेंद्राक आसली. दोन दीस गायब जाल्ली आपली आवय मावसभावागेर पावली आसतली हें ताणें ताडलें. आयज लग्नाची गजाल काडलीना तर ती आईच न्हय, अशें म्हण आपले आवयक तोंड दिवपाचे तयारेन गजेंद्र तिची वाट पळेत बसलो. ताकाय लग्नाचो सोक्षमोक्ष एकदांचो लागिल्लो जायच आसलो.

काशीबाय आतां गजेंद्राचो सोद घेत ताचे कुडीच्या दारार येवन ठाकली.

''आरे गजा, असो एकटोच बसून कितें चित्ता रे बाबा!''

''चितप हें एकट्यानच करपाचें न्हय गे आई!'' लांब सुस्कार सोडीत गजेंद्रान जाप दिली.

''खबर आसा रे पुता म्हाका. बापूय गेल्ल्याक तुज्या तोंडार केन्ना हाशें पळयलें ना. एकटो पडला पोर म्हजो. केदेंय व्हडलें दुयेंस एक वेळ सोसूं येत, पूण एकटेपण न्हय रे बाबा!'' येदो वेळ उबयां उलयत आशिल्ली काशीबाय गजेंद्रा म्हऱ्यांत आशिल्ल्या कदेलार बसली.

''तूं दोन दीस खंय गायब जाली? आनी खंयी पयस वतली जाल्यार, म्हाका एक उतर सांग आनी वच गे!'' गजेंद्रान निर्शेल्ल्या आवाजान म्हळें.

''रत्न्यान सांगूं ना तुका हांव खंयं गेल्लीं ती? रत्न्याक सांगून गेल्ली मरे हांव.''

''रत्न्याक सांगून शी? म्हजेकडेन उलोवपाचें बंद बी केलां काय कितें तुवें!''

''ना रे बाबा, म्हळें, तूं सदांच कामांत गूंग आसता. कामांत अडथळो कित्याक हाडचो काय म्हण सांगलें ना तुका हांवें. आतां हे फुडें सांगून वच म्हण्टा तर तशें करतां.'' काशीबाय भितरल्या भितर गुणगुणली.

''हय, तुका आतां तशेंच करचें पडटलें. बाप्पा आसतना तुमचेमदीं जें कितें चलतालें, तें तुमचे भितर आसतालें. आतां तूं एकटी जाल्या.''

''हांव एकटी ना. आनी तूं आसा तो?''

''हय, हांव आसां म्हणूनच म्हण्टां. तूं कितें करता ताका म्हजेंय हातबोट लागूं दी. मनांत येता तें गुपचूप करपाचें सोडून दी आतां.'' गजेंद्र दुबावी भाशेंत उलयलो. गजेंद्र अशे तरेन आपले आवयकडेन पयलेच फावट उलयतालो. हाचे पयलीं आवयन कितेंय सांगचें आनी गजेंद्रान तें मुक्काट्यानी आयकचें, अशेंच चलतालें. गजेंद्राच्या आतांच्या उलोवपान काशीबाय दुबावांत पडली. तिका दिसलें आपूण वसंतागेर वचून आयल्या आनी कित्याक, हेंच गजाक कळ्ळां जांवये. कितेंय जांव आपलें मन उकतें करपाक हीच वेळ बरी आसा. अशें येवजून तिणें म्हळें –

''गुपचूप करपाचें सोडून दी, अशें म्हण्टा मरे तूं? बरें आसा. तशेंच करतां. आयज मेरेन हावें म्हज्या बऱ्या खातीर कसलींच कामां लिपोवन करूं ना. कितें केलां तें ह्या संवसारा पासत केलां. तेंय कोण कांयच करूंक मुखार येनात म्हणून! तुजो बापूय आसतना ताका

सवसाराचें कितेंच लागलें ना.''

''तो सगळें करतलो आसलो. पूण तुवें ताका करूंक दिल्यार मगे? तूं ताचेर हुकुमत कशी चलयताली, तें हावें म्हज्या ह्या दोळ्यांनी पळेलां.''

''आग्गे म्हजे बाये! कितें उलयता रे तूं गज्या? हांव तुज्या बापायचेर हुकुमत चलयतालीं? मोट्यान उलोंव नाका. कोणय आयकत तर खरेंच म्हण्टलो.'' काशीबाय पिंजळ्ळी.

''फट उलयना गे हांव.''

''आतां तशें म्हण्टलोच तूं. खरें-खोटें तपासपाक म्हजो कोण आसा हांगा. हक्काचो मनीस आशिल्लो तो गेलो म्हाका वाऱ्यार उडोवन. ते आसतना कोण्णच वोंठ हालय नासलो ह्या घरांत.''

''तुजें दीस आनी रात तोंड हालतालें न्हय गे! मागीर हेरांक कशी संद मेळटली?'' गजेंद्रान थोमणो मारलो.

''कळटात रे म्हाका तुगेले थोमणे. म्हजो आवाज घुंवतालो ह्या घरांत म्हणूनच सगळें ज्युस्ता ज्युस्त चलतालें. आतां सून हाडटां आनी म्हजो आवाज बंद करतां.'' काशीबाय आपल्या मनांतलें उलोवन मेकळी जाली.

''सून हाड, पूण म्हजे पसंतिची मात हाड. ना तर बांदशी हाडून म्हज्या गळ्याक, तुज्या नात्यांतली.''

'नात्यांतली' हें उतर आयकून काशीबाय चपापली. वसंताले चलयेक मागणी घाल्या हाची सुलूस बी लागल्या काय हाका? आनी लागूं लागल्यार. कोणाक कोंत आसा? काशीबायचें हट्टी मन आतां जागें जालें.

''नात्यांतली जाली म्हण कितें जालें, तुका फाव तसलीच हाडटलीं हांव.''

''म्हाका कसली फावता, हेंय तूंच थारायतली कांय कितें गे?'' गजेंद्रान उत्सुकतायेन प्रस्न केलो.

''म्हजी सून, तुका आनी म्हाकाय फावता तसली आसूंक जाय. ती गोरीगोमटी आनी शिकिल्लीच आसली म्हळ्यार जायना. घराब्याच्या गिरेस्तकायेंत भर घालपी लक्ष्मीय आसूंक जाय. हांव पळोवन आयलां तुज्या खातीर असले चलयेक. तुका ती मानवंकच जाय.''

''म्हाका मानवता तसली चली हावें पळेल्या. हावें तिका लग्नाचेंय उतर दिलां.'' गजेंद्र ठामपणान उलयलो.

''पुरो जालीं आं, फकणां! ह्या आदीं आवय-बापायचीं असलीं फकणां कोणें करूं नात ह्या घराण्यांत.''

''हांवय फकणां करिना. खरें तेंच उलयतां.''

''कितें खरें उलयता रे तूं? बापूय ना म्हणून कितें जालें. आवय आसा मरे तुजी जिती? आवयक लिपोवन कोणाकय लग्नाचें उतर दिवप हें खरें जांव येता? तुगेलें हें खरें तूं सांगता म्हण हांव मानूंक तयार ना. म्हज्या पुताचेर म्हजो पुराय विश्वास आसा. तो असलीं पिशेपणां केन्नाच करचो ना.''

''तूं जाका पिशेपणां म्हण्टा, तीं करून मेकळो जालों गे आई हांव. आतां हावें दिल्लें उतर म्हाका फाटीं घेवंक जमचें ना.''

''तशें जाल्यार तूंय आयक म्हज्याखातीर तुका उतर मोडचेंच पडटलें. आवय तुजी हांव. णव म्हयने पोटांत वाडयला तुका हावें. बरें घराणें पळोवन तुजें लग्न करपाचो अधिकार म्हजो. हांव तो कसोच सोडचीं ना.''

काशीबाय उलोवन गेली खरी, पूण ती बरीच हाल्ली. गजेंद्र ह्या थरार पावत, हें तिणें केन्नाच चिंतलें ना. गजेंद्र एके चलयेच्या मोगांत पडला हाची सुलूस तिका लागिल्ली खरी. एकें चलयेविशीं गजेंद्र आनी मंगेश उलयतात ती गजाल रत्न्यान चोरून आयकल्ली. ती ताणें काशीबायच्या कानार घाल्ली. पूण काशीबायन ती तितलिशी मनार घेतली ना. उलयतात आसतले ते चलयांविशीं. वय मानार करता. आतां चलयांविशीं उलयना तर आनी केन्ना उलयतले? पूण ते उलयतात म्हण आपूण जावन चलयांकडे नां तर तांच्या आवय-बापायकडे वचून लग्नाची मागणी थोडेच घालतले. एकाद्रें चली आवडलें तर तें येवन निदान आपले आवयक विश्वासांत घेवन सांगतलें काय ना? गजेंद्र तरी अशेंच करतलो हाची काशीबायक खात्री आशिल्ली. ताकाच लागून तिणें रत्न्याक तापोवन काडलें आनी दमय दिलो की हाचे फुडें ताणें गजेंद्राच्यो कसल्योच गजाली चोरून केन्नाच आयकुच्यो न्हय.

रत्नें चाडयाळें आसलें तरी तें शिस्तिचें आसलें. काशीबायकडे तर तें चडच शिस्तीन वागतालें. कारण काशीबायच्या कसल्याच वेव्हाराकडे लक्ष दिनासतना तिचे आदेश मोन्यानी पाळपांतच फायदो आसतालो ताचो.

काशीबायच्या तापोवण्या उपरांत रत्न्यान गजेंद्राच्या सगळ्या तरेच्या हालचालींकडे लक्ष दिवपाचें सोडून दिलें. इतलेंच न्हय गुरूजी येवन आपले चलयेविशीं उलोवन गेलो हाची पुराय खबर आसूनय ती रत्न्यान काशीबायक सांगलीना.

आपलो पूत आपले सांगणे-म्हणणे भायर केन्नाच वच्चोना हाची पुराय खात्री आशिल्ली काशीबायक. जल्मापासून तर गजेंद्राची वागणूक तशीच आसली. लग्नाच्या बाबतींतय अशेंच घडटलें. आपूण सांगता तेच चलयेकडेन गजेंद्र दोळे धापून लग्न करतलो. पूण जालें भलतेंच. गजेंद्रान आपले आवयचें आवयपण थंयचे थंयच जिरोवन उडयलें. तशें करपाक ताका कांयच वायट दिसलें ना.

काशीबायक मात आपलो पूत हाताभायर गेला, हाची पुराय जाणविकाय जाली. तरी ती हार मानूंक तयार ना. ती हट्टाक पेटली. जाता जाल्यार पुताचेर

भावनीक चेपण हाडून आपलो हेत साध्य करपाचे तयारेन ती उबी रावली.

घरांत आतां थोडो वेळ किण्ण पडलें. घरभर शांतकाय पातळळी. घराभायल्या रस्त्यांचेर मात गाडयांचो एकसारखो घरघर चालू आसतालो. मोटर-सायकली, मोटरकार्स, स्कुटरी उसंत नासतना धांवताल्यो रस्त्यावेल्यान. वेगळ्या-वेगळ्या गाडयांचे वेगवेगळ्या होर्नांचे आवाज आयकुप्यांक आकर्शून घेताले. ह्या आवाजांफुडें मनशांचे आवाज सामकेच फिके पडटाले. गजेंद्राचें लक्ष फक्त आतां ह्या आवाजांकडे आसलें. ताच्या मनांत कसलोच गोंदळ नासलो. गोंदळून गेल्लें तें फक्त काशीबायचें मन.

गजेंद्राचें मत्त आयकून काशीबायन चित चित चितलें. मागीर ती सट्ट करून उठली. कापडाचो पदर नाक-दोळ्यांक लायत, निर्शेल्लो चेरो घेवन भायरमेरेन गेली. नदरेक पडटा तितल्याय झाड-माडांचेर नदर मारून परतली आनी बद्द कुडींत वचून, रडकुऱ्या चेऱ्यान गजेंद्राकुशीक आशिल्ल्या कदेलार वचून बसली. मागीर राग्गान तिणें गजेंद्राचेर नदर माल्ली. तिचें कितें चल्लां, हाचेर गजेंद्राचें शितीद आशिल्लें, पूण गजेंद्र हातांतल्या म्हयन्याळ्यांत तोंड खुपसून वोग्गी बसून रावलो. आपल्या वळवळ्यांचो गजेंद्राचेर कांयच परिणाम जायना ही गजाल काशीबायक कळून आयली. तिणें आपूण जावन उलोवपाक सुरवात केली-

''म्हणटकच हांव ताका कितें सांगू रे!''

''कोणाक?''

''वसंताक!''

''हो आनी कोण वसंत?''

''कोण वसंत? वसंताकय विसल्लो रे बाबा, जालें आतां सगळ्या सोयऱ्यां धायऱ्यांक, आपले - पेल्यांक फाट करून बस.''

''गरजेभायर तशें कित्याक करीन हांव! पूण हो वसंत कोण, आनी ताचो म्हज्या लग्नाकडे कितें संबंद, हाचें स्पश्टीकरण जाय म्हाका.''

''स्पश्टच सांगतां, आयक. वसंतमामाक वळखता मरे तूं?''

''हो आनी मामा खंयचो, नवोच सो?'' गजेंद्रान आपूण कांयच नकळो अशें करून दाखयलें.

''आवय म्हजे! कितें रे बाबा तूं असो? खऱ्यांनीच वळखना, काय नाटकां बी करता रे? येद्दोसो आसतना, कितले फावट वचून रावला मरे तूं तांगेर. ताचे चलये वांगडा खेळ्ळा-बागडला. सगळें विसल्लो?''.

गजेंद्राक आतां आपल्या भुरगेपणाची याद जाली. काशीबायन ताका आपल्या वांगडा कुंभारजुव्यां एक-दोन वेळां व्हेल्लो. तो ते वेळार स-सात वर्सांचो आशिल्लो जांवये. वसंतालें चली तीन-चार वर्सांचें आशिल्लें. गजेंद्र थंय गेलो म्हणटकच ते चलये वांगडा खेळटालो ही काशीबायली गजाल खरी आसली.

गजेंद्राक काशीबायल्या मावसभावाचें - वसंताचें घर खूब आवडटालें. हें घर शेंबर-देडशें वर्सां पयलीं बांदिल्लें. तरी तें आजय गडगंज आसलें. घराचीं दारां शिशाचीं. मुखेल पाटयो सायल्याच्यो. घराचे पारे खूब दाटायेच्या चिऱ्यांचे आसले. घराक विशाळ अशी माळी आसली. सायल्याच्या दाट फळ्यांची. गजेंद्राक हे माळयेचेर गुबू-गुबू करून धावूंक खूब आवडटालें. तो रस्तीन फुडें धांवतालो आनी ताका धरूंक धाकटुशें बायू. ह्याच बायुकडे काशीबाय गजेंद्राचें लग्न लावंक मुखार सरल्या. गजेंद्राच्या ध्यानी-मनी नासतना.

गजेंद्राचें मन रसीक आशिल्ल्यान, भुरगेपणात ताका वसंतमामालें घर खूब आवडटालें. ताच्या घराफाटली जमीन मात्शी उंचवटी आशिल्ली. ती डोंगरी नासली तरी मर्दी-मर्दी काळशीं-धवशीं तळपुलां पातळून आशिल्ली. हांगा - थंय कोण्याळी आसल्यो. खंय-खंय आमुल्ल्यो उब्यो आशिल्ल्यो. हुस्के झोपांय मर्दी-मर्दी आशिल्लीं. पयस-पयस बुटकीं काजू झाडां आशिल्लीं.

घराफुडल्यान एक अशीर तांबडो रस्तो गेल्लो. ह्या रस्त्याच्या दोनय वटयां कलमी आंब्यांचे रूख दाटयेन उबे आसताले. धोंगे-पोंगे पणसा रूखय व्हडाधिकारान जंयथंय थाण मारून आसले.

घराफुडलें भाट सोंपतकच दाव्या-उजव्या दिकांनी फांकिल्लें शेत. तेय फुडें, खाडीच्या उदका पसून राखण करपी लांबचो लांब बांद. ह्या बांदार वाडिल्ल्या इंफळिच्या झाडांतल्यान, दिसतालीं तीं खाडीतल्यान शिडां सोडून संत गतीन वचपी होडीं. हे मनोडे देखावे गजेंद्राच्या यादींतल्यान हो वेळ मेरेन सुटूं नात.

फुडें वसंताचें आनी गजेंद्राच्या बापायचें कसल्या तरी कारणाक लागून बिनसलें. हें बिनसवणें जाल्लें काशीबायच्या अरेरावीक लागून. मात तेन्ना पसून वसंतान काशीबायच्या घराक पांय दिलो ना, तो हे मेरेन ना. काशीबायक मात तांगेर गेल्याबगर सूख लागलें ना. आपल्या घोवाक चडच जाळ पडचे म्हण तिणें वसंतागेर येवप-वचप वाडयल्लें. आनी एक म्हत्वाची गजाल की वसंत काशीबायची खिणा कणकणी तुस्त करतालो. तिच्या गिरेस्त कायेची, भांगरा-शिंगरांची, बुद्दीमत्तेची आनी तिच्या सोबावाचीय बी! ताकाच लागून तांची इश्टागत घट्ट जाल्ली आनी आतां ती वसंतालें चली सून म्हण घरांत हाडून, आपलें नातें लागींचें करूंक सोदता. पूण तिका येश मेळटलें?

थोडो वेळ मान सखल घालून गजेंद्राच्या प्रतिक्रियेची वाट पळेत रावली. गजेंद्र गप्प बसलो तें पळोवन तिणें मानेक एकच झटको दिवन गजेंद्राकडे वळयली.

''म्हणटकच हांव ताका कितें सांगू

रे?''

''कोणाक?''

''वसंत मामाक!''

''हें पळे आई, तूं जें पळे कितें घडोवन हाडूंक सोदता, तें म्हाका मातय मान्य ना.''

''कित्याक मान्य ना, मान्य आसूंकच जाय. मान्य नासूंक हांव कितें वांकडें करता रे? आवय हांव तुजी, दुस्मान न्हय आं! हांव कितें करतां तें तुज्या बऱ्या खातीरच.''

''कळ्ळें म्हाका, तूं म्हजें कितलें बरें करूंक सोदता ती. तुका म्हज्या बऱ्याची काळजी आसली जाल्यार म्हाका कळयल्या बगर चलयेच्या बापायक उतर दिवन मेकळी जावची नासली.''

''उतर दिलें रे हावें. तेंय तुजेर विस्वास दवरून. म्हाका खंय खबर आसा, तूं इतलो बदल्ला म्हण!''

''हें पळे आई, आतां हे बाबतींत उलोवन कांयच फायदो ना.''

''अशें कितें उलयता रे तूं? म्हाका विकून दिता मरे लोकांकडे?'' काशीबाय पिंजळ्ळी.

''अशी हट्टाक पेटूं नाका गे आई, हांगा कोणे कोणाक विकपाचो प्रस्नच ना. सांग तुज्या त्या मावसभावाक की हांव तुजे धुवेकडे लग्न जावपाक तयार ना म्हण!''

''आरे, ताणें लग्नाची तयारी चलयल्या. आतांच लाख-दोन लाख खर्च जाल्यात.!''

''ताका हांव जबाबदार ना.'' गजेंद्रान हात वयर काडले.

''जबाबदारीची भाशा करूं नाका रे पुता म्हज्या, मनीसपणाची उलय.'' काशीबाय काकुळटेक आयली.

''आई तुवें म्हाका समजावपाचो कितलोय येत्न केलो, तूं कितलीय काकुळटेक आयली, तरी ताजो म्हजेर इल्लोय परिणाम जायसारको ना. तूं आतां तुजी चाचाय बंद कर, आनी कामाक लाग.'' गजेंद्र चवताळ्ळो. तो फट करून उठून जनेलाकडे गेलो. गजेंद्राचो अवतार पळोवन काशीबाय आकांतली. तिणें भयान 'आं' केल्लें तोंड केदो वेळ धरिल्ल्यावरी तशेंच उरलें. सदांच आवयच्या धाकांत आशिल्लो गजेंद्राचो सोज्वल चेरो तिका आयज भयावणो दिसलो. काशीबाय सुर्वेक मात्शी कचरली. मागीर ती थरथरली. इतली की तिच्या तोंडांतल्यान उतरां सुटनाशीं जालीं. गजेंद्राच्या रूपांत तिका आतां आपल्या घोवाचें रागीश्ट रूप दिसूंक लागलें. राग येवनय जल्मभर सोशीकताय दाखोवपी गजेंद्राचो बापूय आयज गजेंद्राचे कुडींत येवन काशीबायक आपलो पुरूशार्थ दाखोवपाच्या नेटान उबो जाल्लो. जितेपणांत तो जें करूंक शकलोना, तें तो आतां करून दाखोवपाच्या तयारेन आसलो.

काशीबायन घोवाच्या सोशीकतायेचो जसो लाव घेतलो तसो ती आपल्या पुताचोय घेवंक सोदताली. पूण पुताचो अवतार पळोवन तिका आतां कळून आयिल्लें की आपली शाणेपणां आतां कोणाफुडें खपचेलीं ना.

एकठांय आशिल्ले एकरूपी दोन पक्ष आतां दोशीं जाल्ले. कितलेय प्रयत्न केले तरी एकमत्तान चलपाची आस बाळगूंक शकनासले. कुडींनी एकठांय आसले तरी मनान विस्कटिल्ले.

काशीबाय गजेंद्राची आवय आसली तरी ती म्हा धुर्त आसली. गजेंद्र आपल्याक कसोच बदना तें पळोवन तिणें आतां तात्पुरतें मारतें घेतलें. कितें घडलां कांयच ना अशे तरेन ती आतां वागूंक लागली. केन्ना वागूं नासली तितली ती आतां गोडयेन वागूं लागली. आवयची वागणूक पळोवन गजेंद्रय मात्सो नरमलो. गजेंद्र आपल्याकडे नमळतायेन वागता तें पळोवन तिणेंय माया-मोगाचें दर्शन घडोवपाक कोमेस केलें.

''बाबा गजा, जालें-गेलें तें विसर बाबा आतां. आरे, तुजें वाकडें जाल्लें म्हाका जाय रे पुता? आवय मरे हांव तुजी! तुजें सूख तें म्हजें. वसंतमामालें चली नाका मरे तुका, सोडून दी. जा तुका जाय ताचेकडेन लग्न. मात एक, हें लग्न वयर-वयर म्हज्या मना आड आसूनय, मनांतल्यान म्हजे आशीर्वाद आसतले तुका. हें नाटक हांव वसंताच्या दोळ्यांक उदक लावपाखातीर करचें पडटा म्हाका. ना तर कायमचो दुस्मान जावन बसतलो तो. आतां प्रस्न आसा तो ताणें केल्ल्या खर्चाचो. उडयतां दिवन लुकसाणभरपाय. चूक जाली तर खरी.''

गजेंद्रान सगळें मोन्यानी आयकून घेतलें. आवयचेर तो विस्वास कितले मेरेन दवरतलो? मात दुर्याकडे लग्न जावपाची आडकळ आतां पयसावल्ली.

(फुडें चलता)

**- नं. ध. बोरकार**
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

# ऍक्सीडेंट




**ब**सीक पयलींच पणजे पावंक कळाव जातालो. तातून आनी बसीन सामकी गर्दी जाल्ली. चार-पांच जाण बसीच्या कॅबिनांत लेगीत रिगिल्ले. सकाळचो वेळ. कामांक पावंक वगत जाता म्हूण सगळेच पॅसेंजर पिकार जाल्ले.

दारार रावन बाबडो सनी लोकांक बाबा-पुता करून फाटीं सरूंक विनवण्यो करतालो.

''भाऊ मात्सो घोळून राव; पात्रांव मात्सो फुडें वच, शाण्या मात्सो तेकून राव....'' सनीच्या तोंडाची बडबड चालूच आसली.

आजूनय दोग-चार जाण दाराक धरून लोंबकळून उबे राविल्ले. गोंयच्या सायबाचें फेस्त लागीं पाविल्ल्यान फेरयेक म्हूण लोकांनी गोंयां गर्दी केल्ली.

सनीली बस आयज पयलींच उसरां सुटिल्ली. लोकांचेंय खरें. सकाळीं णवांक पणजे पावपाची बस णव जालीं तरी आजूनय गोंयांच पाविल्ली. पावला कणकणी बस उबी करून ड्रायव्हर पॅसेंजर चडयतालो.

आयज पात्रांवूच स्टेरिंगाचेर बसला म्हणटकूच कंडक्टराक कोण विचारता! पॅसेंजर तर बसीक कळाव जाला म्हूण खुबदळल्ले. खंयची अवदिसा येवजली आनी हाचे बसीर चडलों अशें सनी दारार उबो रावन चिंतालो. 'अडला हरी, गाढवाचे पांय धरी.' अशी सनीची गत जाल्ली.

सनी धावी पास आसलो. आयटी आयचो मॅकानिकाचो कोर्सय बी ताणें केल्लो. दोन-तीन वर्सां नोकरे खातीर जायती खटपट केल्ली. कंडक्टराचें काम सनीक आवडनाशिल्लें. कंडक्टरा बद्दल गांवांत कोणूच बरें उलय नाशिल्लें. सनीच्या बापायनूय ताका शिटकायल्लें 'नोकरी जाय जाल्यार ड्रायव्हींग शीक. कोणाय आमदार-मंत्र्याच्या पांयां पडून खंय तरी गव्हर्नमेंटांत ड्रायव्हर म्हूण दसोवया. कंडक्टर म्हूण मात बसीर चडूं नाका. हेरांचे संगतीन पेड्ड्यार जातलो.'

सनीय पळयतालो ताचे बरोबरचे चार-पांच जाण कंडक्टराचो बॅच काडून प्रायव्हेट बसीर कंडक्टराचें काम करताले. पूण तांचे बद्दल गांवांत कोणूच बरें उलय नाशिल्ले. बियरी मार, गुटखा खा, काल्या-फेस्ताक गडगडो खेळ, चलयांचीं लफडीं कर असलीं तांचीं कामां सुरू आसतालीं. देखूनच सनीन थारायल्लें बसीर कंडक्टर म्हूण काम करपाचें ना.

सनीक तशें ड्रायव्हींग येतालें. पूण लायसन्स हातात पडटलें जाल्यार हाच्या-ताच्या बोलसांत घालूंक चार-पांच हजार रुपया तरी लागताले. सनीकडे तर कांयच पयशे नासले. बापूय घरा बेकारूच आशिल्लो. हांगा थंय बसून राजकारणाचेर चकाटां मारतालो. वेचणुको, मागीर त्यो कसल्योय जांव तेन्ना ताच्या हातान चार पयशे घोळटाले. सगळ्यांच्याच फाटल्यान वचून तो चार पयशे करतालो. मागीर फुडलीं पांच वर्सां फकत तोंडान फटाश्यो. ना म्हळ्यार आमदार मंत्र्याकडे बरी वळख दवरून आशिल्लो. म्हणूनच तर तो सनीच्या फाटीक ड्रायव्हींग शिकपाक लागिल्लो. एकदां ड्रायव्हर जालो म्हणटकच ताका वशिल्यान खंयच्या तरी सरकारी खात्यांत ड्रायव्हर म्हूण लायतलो म्हूण तो वाट पळयतालो.

पयशांची तजवीज कशी जातली हें चित्तनाच ताका आठ दिसां पयलीं हो बसीचो पात्रांव मेळ्ळो. सनीकडे कंडक्टराचो बॅच नाशिल्लो पूण दारार उबो रावंक म्हूण ताणें सनीक कामाक दवरलो. तसो ह्या पात्रांवाकडे कोणूच कामाक राव नाशिल्लो. पात्रांव नांवाचो! एक नंबर बेबदो. दिस-रात सोऱ्यान बुडून आसतालो. ड्रायव्हर-कंडक्टराकूय टायमार पगार दिनाशिल्लो. गाडी कामाक आयल्यार फारीक करूंक हाचेकडे पयशेय नासताले. देखून गाडी मोडल्यार आठ-आठ दीस बंद उरताली. तोंडानूय सामको फटकळ आनी गाळयारो. मात्सो कुरकुरीत आसतकच

बेश्टोच तापतालो. गाळी संवतालो. देखून हाचे कडेन कामक कोणूच रावनाशिल्लो.

सनीचो वेळ फाल्स. सनीक आसली पयशांची सामकी गरज. ड्रायव्हींग लायसन्स बेगोबेग तयार करून दवर म्हूण जॅकीचो रकाद आयिल्लो. फुडल्या म्हयन्यांत जॅकी कुवेटसून येवपाचो आशिल्लो. ताणें सनीक कुवेटाक व्हरपाचें उतर दिल्लें. पूण ते खातीर हातांत ड्रायव्हींग लायसन्स आसप खूब गरजेचें. व्हरपाची वेवस्था जॅकी करपाचो आशिल्लो.

सनीक कामाची गरज आसली आनी पात्रांवाक मनशाची. देखून जेन्ना पात्रांव सनीकडे आयलो सनीन चितलें फेस्ताचे दीस आसा. बसीर रावल्यार चार पयशे करूंक मेळटले. ड्रायव्हींग लायसन्साक जाय तितल्या पयशांची वेवस्ता जातकच काम सोडपाचें. त्याच दिसांनी पात्रांवाचे कटकटीक लागून बसी वयल्या सदांच्या ड्रायव्हर - कंडक्टरान काम सोडिल्लें. फेस्ताचे पयशे करपाचे दीस म्हूण पात्रांव सनीक विनंती करूंक लागलो. सनीक गरजे खातीर उश्णे पयशेय दिवपाचें ताणें उतर दिलें. पयशांचें हांयस दाखयतकच सनी ताच्या गळाक फारवलो. सनीनूय चितलें म्हयनो - दोन म्हयने काम करपाचें. पयशांची वेवस्ता जातकच काम सोडपाचें.

सनी आतां कुवेटाक वचपाची सपनां पळयतालो. 'ह्हह्हच्या फुडें आरटीओ आसा तो दिश्टी पडना' कॅबिनांतल्यान एकदम ब्रेक लायत पात्रांवान सनीक सणसणीत गाळ मारली. ड्रायव्हर काम सोडून गेल्ल्यान चार दीस पात्रांवूच गाडी चलयतालो. दिसभर तर्र जावन गाडी चलयता देखून सनीक तर हो खंय ऍक्सीडंट बी करीत म्हण भंय दिसतालो. पात्रांवाच्याच हातांत स्टेरींग मागीर सांगतलो तरी कोणांक? सनी मुकाट्यांनी आपली अडचण पळोवन वगीच रावतालो.

फुडें आरटीओ आसा हें कळटकच सनीची गडबड सुरू जाली. दारार लोंबकळत उबे आशिल्ल्यांक कशे तरी वयर ओडले. दार बंद जालें. व्हडल्यान वाजपी टेप बंद जाली. पंचखाद वाटची तशो बेगीबेगीन तिकीटच्यो पॅसेंजरांक



वाटल्यो. खंयतरी कुशीक गुड्डो मारून वडयल्लो खाकी बुशकोट सनीन चडयलो. कॅबिनांत तर्र आशिल्लो पात्रांव तणतणटालो.

''फोणान घालतलो म्हाका तूं. बसीक तालांव पडल्यार एक पयसो मेळचोना. आयला मार कंडक्टर जावंक. पॅसेंजरांक वयर घेवपाची अक्कल ना. पयशे जाय हेका फकत पयशे...'' हेवटेन बसींत आशिल्ले पॅसेंजर सनीचेर तापताले. जण एकलो जाय तशें उलयतालो.

''तुमचीं मरे पोटां केन्नाच भरचीं नात. तुमका पॅसेंजराचें पडून वचूंक ना.'' एक पॅसेंजर.

''लोकांक कामाक पावचें आसता टायमार. तुमकां फकत पयशांचें पडलां.'' दुसरो तापलो.

''बरो तालांव पडल्यार पुरो. भरतात आपले गाडयेन चिड्डून-चिड्डून बोकड्चो कश्यो.'' आनीक एकटो उलयलो.

''तुमची ही गाडी काय गाडो रे. पणजे पावून पावना.''

आरटिओन बसीक हात दाखयलोच ना. सनीक मात्शें सूऽऽ जालें. बसीन आतां मात्शी स्पिड घेतिल्ली.

इतल्यान घडायंच करून आवाज जालो आनी बस एकदम थांबली. फुडले बसीक सायड मारतां मारतां पात्रावाचो गाडयेवयलो ताबो वचून ताणें गाडी व्हरून फुडल्यान येवपी धाकटे मोटारीक मोखली. बस आतां रस्त्या भायर वचून कित्याक तरी आदळून बंद पडिल्ली. भायर रस्त्यार आनी हांगा भितर बसीत आड्ड्यो-हुयेली आयकूंक येताल्यो. रस्त्यार भिरांकूळ ऍक्सीडेंट जाल्लो. पात्रांवाचे बसीपोंदा कोण तरी चिड्डून उरिल्ले. सनी निकतोच मनांतले मनांत कुवेटाक वचपाचें सपन पळयतालो. गाडयेच्या धक्क्यान ताची तंद्री तुटली.

सनीन पात्रांवाकडे पळयलें. आंगातलो खाकी बुशकोट काडून उडयत कॅबीनाचें दार उगडून पात्रांव पळपाची तयारी करतालो.

गाडयेंतले आनी भायर रस्त्यावेले लोक दांत ओंठ चावून सनीक पळयताले. फुडें किते जातलें हें चिंतून सनीक दरदरून घाम फुटलो. त्या भिरांकूळ ऍक्सीडेंटान सनीचें कुवेट वचपाचें सपन पात्रांवाचे बसी पोंदा चिड्डून गेल्लें.



**- दोतोर (मेजर) प्रकाश शेटये**



देवळाय - खांडोळ

मो.: ९४२०२९७३०८

# अंदा मंदा गिरिगिरि चंदा



**पु**चिताली मेवणी पिया (पिर्यागी) हिगेलें लग्न आज सांजेर गोंधळी मुर्तार बाडातल्या मणशणयल्या कट्ट्र्यालागींच्या देवळांत जावचें आशिल्लें. सुकेरींतल्यान चालतेर गेले तरी अरद्या तासाची वाट. पूण पुचिताली बायल आनंदें हागेलो जीव सकाळपासूनच चुटमुटचाक लागिल्लो. गोटयांत साताट गोरवां आनी घरांत म्हातारी कुड्डी मांय. ताजेवयल्यान तिका भयणिल्या लगनाक चारपांच दीस पयलीं वचचाक जमलें ना. त्या लगना निमित्तान कुळारा गेल्यार कितली मजा जाताली अशें येवजून तें चिडचिडतालें. आतां थंय तानेची मांड चलता आसतली. आतां न्हवरेकारागेरचे लोक येवन पावले आसतले. अशे विचार कन्न कन्न तिगेल्या मेंदवाची पुडीपुडी जाल्ली. त्या सगळ्या फोगात आपूण थंय ना म्हण भोव त्रासेतालें. घोवाक परतें परतें कितल्या वाजतान्नां वचां अशें विचारतेर रावतालें. तिगेलो चडफडो पळोवन मागीर पुचितु तिजेर तिडकतालो.

एकादवेळ गोट्याची जबाबदारी शेजारच्या सुभद्रयाकाक सांगून दोन दीस पयलींच कुळारा जावेत आशिल्लें. पूण खरो प्रश्न आशिल्लो तो तांगेलो चलो पर्मानंदालो. जायत धन्न किरकिरो, हातापायांच्यो बडयो आनी एक पायांन लंगडो. तो फक्त दोन वरसांचो. वाड्यावयलीं पोरां ताका 'फुजांव' म्हण चाळयतालीं. (फू मारल्यार उडून वता तो 'फुजांव')

घोवाबायलेन विचार केलो. सांजेक पांच वाजतानां पर्मानंदाक आजेकडेन सोण्ण वचचें आनी रातीन धा वाजेपरयंत परतूवचें; अशें ताणीं थारायलें. पुचितान आवयक तशें सांगलें आनी सुनेन रातचें जेवण दनपारातलेंच राकून दवरिल्लें. तें खंय कितें आसा तें मायक सांगलें. पुता खातेर एका तस्तीकेत दूद तापोवन दवरलें आनी डबयात थोडीं बिस्कुटां घालीं. बोत लावून दुदाची गिंडी बगलेन्न दवरली.

"आमी रातीक धा वाजे परयंत येतात हां." अशें सांगून घोवबायल घरांतल्यान बेगीबेगी भायर पडलीं आनी बाडाच्या रसत्याक लागलीं.

आजी कुड्डी जाली तरी संवयेन घरांत आंगणान बरो वावर करताली. थोडें थोडें तिका झळकतालें एकदम साफ शंबर टक्के कुड्डी न्ही. वणतीक धन्न सरकत सरकत भायर भितर वताली.

पर्मानंद थोड्या वेळेन रडचाक लागलो. तितल्यान थंय वाड्यावयलें विमल आयलें. विमल ताका वयर उडोवन झेलतालें. तागेलो फुलचेंडू करतालें. तागेल्या खाकयांत बोटां घालून ताका गुदगुल्यो करतालें. ताका तें आवडतालें. विमलाक पळोवन ताळयो पेटोवन, 'इमला बिमला बिमला इमला' अशें म्हणत पर्मानंद हासच्याक लागलो. थोडो वेळ पर्मानंद बरोबर खेळून विमल आपल्या घरा गेलें. थोड्या वेळान तो परतो रडचाक लागलो तेन्ना आजेन ताका दोन भिस्कुटां खावचाक दिलीं, आपूण पण खाली. ताका थोडें दूद पियवलें.

थोडो वेळ पर्मानंद बावल्यां बरोबर

खेळलो. पोर अडचिल्यार चीं चीं कन्न रडचें प्लेस्टीकाचें एक सवणें ताका बापायन हाण्ण दिल्लें. तें ताका खूब आवडटालें. मागीर ताका आवयलो उगडास आयलो आनी तो होडहोडान खोळशे काण्ण रडचाक लागलो. आजेन कितलें फुसलायलें तरी तो वोगी जालो ना. मागीर तिणें नातवाक आवडचें बडबडगीत म्हणचाक सुरू केलें.

'अंदा मंदा गिरगिरि चंदा।
अरदी भाकरी अरदो कांदा।।

अंदा मंदा गिरगिरि चंदा।
गोल भाकरी गोल गोल कांदा।।'

तें आयकून एक पांय नाचयत, ताळयो पेटत तो उडयो मारचाक लागलो. थोड्या वेळान ताका, त्या पदाचो बेजार आयलो आनी परतो रडचाक लागलो. तेन्ना आजेन पद म्हळें–

'अडगुलें मडगुलें भांगराचें कडगुलें
भांगराचें ताट मोतयांची माळ
पायांक घालता चांदयेचो चाळ
थयथय नाचता परमानंद बाळ'

आजेन, 'एक पांय नाचय रे गोविंदा.' हें पद सुरू करताच शेजारचो गोविंद शिलोणेचेर खंचें तरी पद वाजयत आयलो.

'गोयंदा, अवचिन्ना. कितें करता तूं हें? सांज कात्रेक शिलोणी वाजोवची ना म्हूण तुका खबर ना?'

'शिलोणी वाजयल्यार कितें जाता गे आजे?'

'कितें जाता म्हण विचारता, देड शाण्या. शिलोणे आवाज आयकून सोरोप घरात येतात,खबर ना तुका.'

'बेश्टें कितें तरी सांगता तू हां आजे. गांडीर मारल्यार दांत झडतात खंय! तशी तुजी खबर. सगळी फट खोबऱ्यो. कोणा कोणागेर दारार 'आस्तिक रूशीची आण आसा' अशें बरोवन दवरतात. तशें बरोवन दवरल्यार घरात सोरोप रिगना अशें म्हणतात, हय म्हुगे. मागीर पयर शेजारच्या म्हाबळुगेर सोरोप कसो घुसलो. आस्तिक रूशीली आण तांचया दारार होडहोड अक्षरांनी बरोवन दवरल्या म्हुगे?'

'तू रावोण काय आतां उलोवचाक आयकना. गोंयांत मामागेर रावन विंगलिश शिकता न्ही तू. सायबान हांगा येवन तुमगेली शेंडी कातरावन व्हेली आणि तेन्नाचान तुमगेलें बोड फिरलां. कितया कितें उलयतात. तो रामनाथ, फटूलो पोर. ह्या जगात देव ना म्हणता. यस् फेस् करचाक लागलें की तुमकां शिंगां फुटतात.'देव ना धर्म ना अशें कितें कितें बडबडतात. कालयुग रे बाबा. हें कालयुग.! देवा माका बेगीच व्हर रे.' आजेन एक सारक्यो बंदुकेतल्यान फट फट कन्न गुळयो मारिल्ल्या म्हणकी ताका सप् थंड कन्न उडयलें.

'तशें न्ही गे आजे.'

'तशें न्ही कितें, तशें न्ही कितें. आँ.' आजेली सरबत्ती परती सुरू जातली हें वोळकून ताणे मंद आणि गंद अशा आवाजान विचारलें –

'पुचितमामा आणि वयनीबाय खंय दृश्टीक पडनात म्हुगे आणि घरात काळोक कितयाक गे?'

'आरे तीं पिरयागेल्या लगनाक गेलयांत. रातसर येतलीं. हाका मजया गळ्यांत बांदलां.'

'आजे तशें पळयल्यार परमानंद बरो भुरगो. थोडोसो अशक्त आसा खरें. पूण वगीच लोकांक त्रास दिना.'

'कितें? त्रास दिना म्हणता तूं? तुका खबर ना गोयंदा. एक खेपेक रडचाक लागल्यार माका मजो जीव नाका कन्न उडयता.'

आवयन उलो माल्लो म्हुण गोविंद तागेल्या घरा पासार जालो.

पर्मानंदालें किरकिरें परत सुरू जालें तेन्ना आजेन आपल्या ल्हानपणांत आयकल्लें पद म्हणचाक सुरू केलें –

'चांदोबा चांदोबा भागलास का।
निंबोणीच्या झाडा मागे लपलास का।।
निंबोणीचे झाड करवांदी ।
मामाचा वाडा चिरबंदी ।।

मामाच्या गावाला येवून जा।
तूप रोटी खावून जा ।।
तुपात पडली माशी
आणि चांदोबा पडला ऽऽऽ

'उपाशी' अशें म्हणत पर्मानंद ताळयो मारत हासचाक लागलो. हासचाक लागलो तो हासतेरच रावलो पिशांतका म्हणकी. तागेलो हासहास हासो आयकून बगलेचें कावाक चवकशेक आयलें. तिका आजाप दिसलें. कुड्या आजेल्या मांडयेर बसून नातू हासता, आजी ताका धोलायत पद म्हणता.

घरांत काळोक वाडचाक लागलो म्हण कावाकान चिमणी सोदून हाडली. ती पेटोवचाक गेल्यार पेटना. कारण तातूंत चिमणेल तेल ना. घरांत चिमणेल तेला बाटली सुनेन खंय दवरल्या तें आजेक खबर ना. असली गत. मागीर कावाकान आपल्या घरचान चिमणेल तेलाची बाटली हाडली. चिमणेन तेल घालून ती पेटयली. भक्कन वात पेटली तें पळोवन पर्मानंदान आंग काडलें. कावाक घरा गेलें.

भायर वारो जोराजोरान व्हांवचाक लागलो. ताजयान चिमणे दिवो पालवलो. 'मरू तो दिवो' अशें म्हणत आजेन चिमणी बाजून सरकवून दवरली. ती जरा झेमिल्ल्या म्हणकी जाली. पर्मानंदाल्या रडण्यान ती सट् कन्न जागी जाली. ताका भिसकुटां खावचाक दिल्यार ताणें ती लांब भिरकावून उडयलीं. दुदुची गिंडी दिल्यार ताजी बोतच काण्ण भायर उडयली. तागेल्या आंगात भार आयिल्ल्या म्हणकी होडहोडान कुदतकुदत तो आकांतान रडचाक लागलो. आजी विचारांत पडली.

आतां कितें केल्यार हो वोगी रावतलो. तिणें आपली चोळी उकती केली आणि मोमो पर्मानंदाल्या तोंडात दिलो. त्या सुक्या मोम्याची बोंडी चोकत – चोकत तो निदून पडलो. आजेन ताका सकल दवरन बाजून निदयलो. तिका पण कुरू आयिल्ल्या म्हणकी जालें म्हण ती पण लवंडली.

आजी तंद्रेत अशा न्हिदेंत आयिल्ली. समुद्रांतल्या पाळां म्हणकी तिका एकेक यादयी येवचाक लागल्यो–ल्हानपणा पासूनच्यो. नातवाक काणि सांगिल्ल्यावरी मनांतल्या मनांत ती उलोवचाक लागली.

'हांव पांच वरसांचें आसतलें तेन्ना. लग्न जावन ह्या सावकाराल्या घरांत येवन कितलीं वरसां जालीं तें देव जाणां. घरांत मांव आणि मांय हांचा शिवाय आणि कोण नाशिल्लें.

माजाळी लागीनच्या बावळांतल्या आचेपू शणयली मोगाची धूव हांव. फाटले–फुडले धर्न माका तीन भाव–गिर्धर पुरसो आणि नररि. हांव सगळ्या जाय आशिल्लें. मिनाक्षी–मिनाक्षी कन्न भावंडां आणि घरांतले लोक माका खूब माग करताले.

लग्न म्हळ्यार कितें तें कळचे पयलींच त्या वेळार चलयालें लग्न कन्न सोडताले. 'अष्ट वर्षात भवेत् कन्या.' मुलगी 'कन्या' असतानाच तिचें 'दान' असोच रिवाज. खंयीच लग्न जुळनास्तना जर कोणालि चली 'शाणी' जाली तर तिगेल्या आवय बापायाक समाजात तोंड दाकोवचाक लज दिसताली.

मज्या लग्नाचो बोवाळ सामको आट दीस चलिल्लो. पांच वारांचें कापड गुटलावन घेवन हांव एक बावल्या म्हणकी माठवांत गुडबुडतालें. तातूंत मातयार आणि वर्जीभर फुलां फातयो. म्हजो घोव म्हळ्यार रघू. सोळा वरसांचो. गाला वयली व्हटावयली लव थोडी थोडी काळी पडचाक लागिल्ली. हांव काळेंसावळें जाल्यार तो गोरोगोरो पिट्ट. ताजे दोळये मांजरा भाशेन हळदुवे. तातूंत मदेंच काजळा बोट लायिल्ल्यावरीं एक टिंबो. त्या टिंब्यात आणि एक धवेलें माणकुलें नखेत्र अशें. लग्ना वेळार माका ताजया गळ्यांत माळ घालचाक हात पावना जालो तेन्ना मजा लोले मामान उळ्ळन धरलें आणि हांवें हाशाचा, ताळयांच्या



शिलोणीच्या आणि वाजंत्र्यांच्या कलकलाटान माळ तागेल्या गळयांत घाली. माका तो एक होड खेळ सारकोच दिसून मजा आयली. रस्त्यार फुलत्या गर्नालांचो आगोट आणि धूमधडाको. गर्नालाच्या आवाजान हांव भिवान गुळी जालें आणि होडान तोंड काण्ण रडचाक लागलें तेन्ना आवयन बेग्गीबेग्गी मजया तोंडार हात दवरलो आणि माका तिगेल्या कुशींत घेवन थोपटावचाक लागली. हांव थंचेथंय निदून पडलें.

दिबण भायर सरचें पयली माका बाप्पा आणि भटमामा घरामुकाल्या आंबया रूका पोंदांत घेवन गेले. थंय रीतसर बाप्पान मंत्रघोषात हातात तुळशीपान घेवन मगेल्या हातार धार धरली. 'आज पासून हो आंबया रूक तुका धारेत दान दिला. आमच्यानंतर तुगेल्या भावांनी तुका कुळार केलें ना जालें तरी तुका ह्या शिवारात हक्कान येवचाक मेळपा जाय म्हण ही रूढ आसा. दर वर्साक हाजे आंबे ना जाल्यार ताजे पयशे तुका पावयतलें.' इतले सांगून बाप्पा होडहोडान रडचाक लागलो. जांट्यांनी ताका हात धर्न भीतर व्हर्न तागेलें शांतवन केलें. (धार वोतून दिल्ल्या रुकाक 'धारे रूक' अशें म्हण नांव.)

माजाळींतल्यान चार बलांवा कन्न आमचें दिबण सुकेरीत पावलें. थंचान वाजयेत गाजयेत आमगेली वरात सुरू जाली. माका पांयात कांय ना जाल्ल्यान वाटेवयली तापिल्लि रेती पायां तळग्याक भगभगताली. आमगेलो रयत गेनु हाणे माका तागेल्या खांदयार बसोवन घेतलें. तागेल्या मातयाक दोनी हातान घट्ट धर्न हांव थंय कशेंतरी बशिल्लें. रस्त्यावयल्या एक भुरग्यान जुस्त तोमणो मारलो. 'तें पळय खेतया पील कशें धर्न बसलां. कापडांतल्यान तिचि शेपडी मात्र दिसना.' हांव दोळे बंद कन्न, व्हट दाबून काय बी आयकलें ना अशें बसून रावलें. चार दीस मांवा घरा राबून जातरेक बाप्पा माका घेवन कुळारा परतलो.

लग्न जाल्ल्या स–सात वरसांनी माका न्हाण आयलें. बरोसो मूर्त पळोवन बाप्पा 'मूळ' घेवन, सांगाती दोन बापये घेवन मांवा घरा गेलो. कितल्या डब्यांत नाना तरेचें गोड खाण, कितले तरेचें तिकट खाण, पांच तरेच्यो कोंबिल्ल्यो कडधान्यां–मूग, चणे, बगडे, वाटाणे आणि पावटे. शिवाय फळफळावळ ती वेगळीच. सामानाचे डबे, कडधान्याच्यो बुटयो कामवाल्या लोकांल्या मातयार, नवीं कापडां नेसून बाप्पा सगळ्या मुकार. शिंग वाजयतेर वतलो वाजंत्री. वामन

सावकाराली सून न्हावचाक लागली ही खबर सुकेरी गांवभर कोणें सांगनासतनांच सगळ्याक कळ्ळी.

'रघूलें 'फेस्त' लागीन आयलें रे बाबा.' अशें कोणेंतरी तोंड निपोवन, चाळयिल्ल्या अशा आवाजात फातर मारलो तें आयकल्ले लोक हासून हासून पुडी जालो.

फळशेबानाच्या दिसा आमच्या घरा लोकांचि ही गडदी. खूप लोक जेवणाक आयिल्ले. त्या दिसाक घोवा-बायलेंमदें मुदि-सुपारीचो खेळ खेळयलो. मुदि हांवेंच जिकली.

मुदि-सुपारीचो खेळ म्हळ्यार एक भोव मजाच आसता. एका पंचांडेत उदाक आणि तातूत गुलाल किंवा कुकुम खूपसो घालून तें उदाक दाट करता. घोवाक आणि बायलेक माणयेचेर एक मुकांच्या मुकार बसोवन तांगेल्या मधें तो तोप दवरतात. कोणतरी जास्त कन्न भटमाम उबो रावन उजव्या हातात एक भांगरा मुदी आणि एक सुपारी घेता. 'मुदी, मुदी, मुदी' अशें म्हणून सुपारी सोडता. केन्नाय 'सुपारी, सुपारी, सुपारी' म्हण मुदी सोडता. असो फसवा-फसवेचो खेळ बरोच वेळ जाल्या नंतर मागीर तो एक खेपेक 'मुदी, मुदी, मुदी' म्हण मुदीच सोडता. घोव बायलेन उदकांत हात घालून मुदी ना जाल्यार सुपारी सोदची. कोणाक मेळता ती तागेली जाता. मुदेचो खेळ सोपता पर्यंत चेंबू, पेले घेवन आशिल्ले लोक बायलां-पोरां पंचांडतेले उदाक भर्न घेवन घोव बायलांक भिजोवन कोलो कन्न उडयतात. घोव बायल पूण लोकांल्या आंगार उदाक उडोवन फांटफीट करतात. असो हो भोव बरो खुशालेचो खेळ, होळेच्या खेळाचो उगडास कन्न दिवचो.

दुसरो एक खेळ म्हळ्यार बायलेक निपोवचें. खंचया तरी कुडांत ना जाल्यार हानळांत बायलेक निदोवन दवरतात. तिगेल्या मातया वयल्यान पांगुरचें घालतात. घोवान जर पयले फावटेकच आपली बायल शोधून काडल्यार तो जिंकलो. ताका मांव कपडो भेट म्हूण दिता. तशें जालने जाल्यार नवरो फसता आणि लोकांकडचेन हासून घेता.

त्या रातीक हळग्यातल्यान खास आपोवन हाडिल्ल्या पांच नायकिण्यांलो नाच माटवात जातालो. नाचताना तांगेलीं तोंडां सगळ्यां दिसचाक जाय म्हण काय जण तांगेल्या तोंडा मुकार चंद्रज्योतयो जळयतात. चंद्रजोतीच्या रंगीबेरंगी उजवाडात त्यो नायकिण्यो म्हळ्यार सोर्ग लोकांतल्यो अप्सरा म्हणकी दिसतात. नाच सोपतरेक मगेल्या घोवाक एक नायकिणीन आपल्या मांडेर बसोवन घेतलें. तागेल्या तोंडांत साखर आणि पाना विडो भरयलो. मागीर माका घोवाल्या मांडयेर बसयलें. ताजये कडचान मगेल्या तोंडान साकर भरयली आणि पानाविडो पण. मागीर तो कार्यक्रम सोपलो.' घोवाल्या मांडेर बशिल्लें आसतानां माका कुल्याक कीतें तरी तोपता अशें जाणवलें.

त्या रातीक फळशेबान आशिल्ले. गर्भादान विधी करच्या वेळार घोवान तांदळाच्या ताटात बायलेलें नवें नांव भांगरा मुदयेन बरोवचें आसता. त्या विधी खातीर भटाक आपयतात. घोवान तांदळा ताटांत 'आवडू' म्हण नांव मुदयेन बरयलें आणि मगेल्या कानांत हळूच तें नांव तीन खेपेक सांगलें. तितल्यान एक बायलेन मजा कानात कुर्रर असो आवाज काडलो. तिणें मागीर मजें आवडू नांव सांगत लोकांक साकर वाटली.

रातचें जेवण जाताकेीर घरातलीं तशींच सोयरीं म्हुण आयिल्लिं बायलां मजी नानातरेन मस्करी करतालीं. कितें कितें उलयतालीं, फदफदतालीं आणि फुदफुदतालीं. तीं कितें उलयतात तें माका बरोबर कळनाशिल्लें. पुण आज रातीक कितें तरी नवीन घडचें आसा असें दिसतालें. एकटेन तर माका म्हळें. 'आवडू, आज रातीक तुगेलें भिंड फुटतलें भियेंनाका हो. सगळ्यांक तशेंच जाता.' कसलें भिंड आणि कसलें फुटप देव जाणा. माका कांयच कळ्ळें ना. हांव वोगीच रावलें.

एक हातात दुदाचो पेलो आणि दुसऱ्या हातात चांदेच्या बशेंत पानाविडो अशें घेवन एक जांटेल्या बायलेन मगेल्या हाताक धर्न माका निदपाचा कुडयांत दिकुळलें आणि भायल्यान दाराक कडी लायली.

दुदाचो पेलो आणि पाना विडयाचीं बशी बाजूच्या स्टुलार दवरली आणि हांव वागाल्या पांजऱ्यात सोडिल्ल्या बकरे म्हणकी भीवन उबें रावलें. तितल्यान माचार बशिल्लो तो रावण मुकार आयलो. दिवो वाडवयलो आणि मजया न्हेसणाची कास सट्कन्न सोडयली. माका उकळन माचयार घालें. मुकार कितें जालें, कशें जालें आणि कितले खेपेक जालें ताजो माका आज परयंत उडगास ना. त्या रातीक मजो घोव म्हळ्यार कमरेक लाटणे बांदून माका परतो परतो बुड्डितालो राक्षेसा म्हणकी दिसलो. परत परत माका भोगतालो.

घोवाल्या घरा वतकेर मांव-मांय घरात उरतात म्हुण घोवालो तो त्रांस थोडो कमी जातलो अशें माका दिसतालें. मांव-मांय शेतांत वावरांत, शेजारात गेले की तो रावोण खंचानतरी येतालो, गप्प कन्न मजें तोंड दाबतालो आणि माळेर घेवन वतालो. वेळकाळ म्हुण ना, खंचो दीस म्हुण ना माका बुरडून बुरडून भोगभोग भोगतालो. हांव सगळेंच घुसमटून गेल्ल्या म्हणकी जावन लाकडा फाटया म्हणकी गप्प निदून कितें जातालें सोसतालें. देवा नाकरे बाबा हो बायलालो जन्म. मुकाल्या जन्मात माका दाल्लोच कर. ना जाल्यार माका जनमाक घालनाका अशें हांवें जायते खेप देवाक प्रार्थिल्या.

मगेल्या घोवाल्या मनात मजया बद्दल माया ना, ममता ना, मोग ना.फक्त ताका जाय तो भोग मजेकडचान. ताजया

शिवाय आणि उलोवप ना. दीसरात एकच फोग आणि एकच भोग.

कसल्या ना कसल्या परबे निमित्तान घोवा बरोबर कुळारा आयिल्लें हांव परतें मावागेर वयचाक तयार उरनाशिल्लें. परब जातरेक घोव घरा वतालो. पुण एकदोन दिसांतच कसलें ना कसलें कारण काडून आमगेर येतालो आणि माका घरा आपोवन व्हरतालो - मुलाणि बकरेक बांदून घेवन वता तसो. एक खेपेक घरा पावले की सुरू मजो भोग आणि मजे दणदणे.

पयले खेपेक गुरवार जालें आणि मगेली थोडीशी त्या दणदणातल्यान सुटका जाली. पुण तो आनंद जास्त दीस टिकलो ना. स म्हयन्याचें गुरवार आसतानां एक दीस संद साधून रावणान म्हजेर बळजोरीन अत्याचार केलो आणि माका होळणी लागली. हीऽऽ रक्ताची धार. हांव तर बेशुध्दच जाल्लें.



हांवें एक दीस मांयकडेन सगळी कर्मकाणी सांगली. हांव दुसऱ्या खेपेक गुरवार जातरेक मांय सुदूर जाली. कोणालें कांयच आयक नासतना मांयन माका पांच म्हयन्याचेरच कुळारा धाडलें. तिणें मगेल्या आईल्या कानात कितें तरी सांगलें आणि ती घरा परतली.

पुचित जालो आणि दोनी घरांत आनंदी-आनंद जालो. स म्हयने कुळारात रावन हांव सुकेरीत परतलें. पुचिताक म्हारयात घेवन हांव मांय वांगडा निदूंक लागलें. तें पळोवन रावणालो जळफळाट जातालो. मजेकडेन रागारागान दोळे मोठोमोठो कर्न पळयतालो. आतां हांव धीट जाल्लें. माका मांयलो आधार आशिल्लो. मजी मांय म्हळ्यार देवता ती देवता. घरांत माका एकटेक सोण्ण ती खंयच वचनास्तना रावताली.

अशेच थोडे म्हयने गेले. घोवाक कामीण जाली. नानातरेच्यो वकदां केल्यीं पुण ताका गुण आयलो ना. ताणें खाणें-पिणें सोडलें आणि एक दीस माका बोडकी कर्न मन्न गेलो.

पुचिताक होड करचें, ताजो संसार उबो करचो -हो एकच ध्यास घेवन हांव आतां जगतालें. पुचित हळुहळु होड जालो. शाळा शिकलो आणि गरामपंचायतेत कारकून म्हुण कामाक लागलो. हांवें आणि तोडोव केलो ना. अमदळ्ळीच्या मनोहर कामतिली धूव कांचन माका बरें दिसलें आणि हांवें ताका सून म्हुण घरा हाडलें.

कांचन कामत आनंदें सावकार जावन संसाराक लागलें. स्वभावान भोव बरें. सगळ्यांकडेन जायजाय म्हण घेवन सगळ्यांक सांबाळुन घेवन राबतालें. मगेल्या शब्दा भायर वचनाशिल्लें. हांवें खुशेन घरचो सगळो वेवार ताजेर सोपयलो आणि निचिंत जालें.

नशीबान आचेपूक बापायले गुण आयले नात. बायलेक मोगान चलयतालो. खंचान येतना बायले खातेर फुलां फातयो घेतल्या शिवाय येनाशिल्लो. वरसा भितरच परमानंद जालो आणि माका जिवाक धन्य धन्य जालें. घोव आणि घेतिल्ल्या त्रासाचें फळ मेळ्ळे. परमानंद जरा अशक्त आणि एक पायान पांगळो आशिल्लो. पुण ताका इलाज नाशिल्लो.

मेवणेलें लग्न सोपतरेक जेवण, खाणां जाल्यीं. पयली पंगत सोयऱ्यांली. दुसरी पंगत घरचांली आणि निमाणी पंगत खासा न्हवरो-न्हवरी. दोन्ही कडेचे आवय-बापूय आणि आनंदें-पुचित. तशें जावन घरा परतता परयंत रातचे इक्रा जाले. पुताल्या हुसक्यान कांचन धांवत घरा आयलें. घरांत गुप्प काळोख म्हातारि निदल्या तें भायल्या उजवाडात तिका झळकलें. मायच्या लाग्गी परमानंद बसून आसा आणि 'अंदा मंदा गिरिगिरि चंदा' अशे म्हणून 'आजे दोळे उगड दोळे उगड.' अशें म्हणतेर आसा. परत 'अंदा मंदा...' सुरू करता.

पुताक उकलन घेवन कांचनान तागेले पटापट उमे घेतले. 'कितें रे पर्मानंद. आजेक पद म्हण दाकयता?'

'आये! केदोळ धन्न हांव आजेक परते परते पद म्हणून दाकयता. पुण आजि कांय उलयना. जाब दिल्यार ओ म्हणना. गाड न्हिदल्या ति.'

कांचनान चिमणे दिवो पेटयलो आणि मायल्या लागीच हाडलो. तिजें तोंड उगडें, दोळे उगडे आणि दोळ्यांत भरिल्ल्यो मुयो हें पळोवन तिणे जोरान किळांच मारली.




- विठ्ठलराय भट



आंबटकर कंपौंड
आंबिवली (प.)
पो. मोहने,
जि. ठाणे - ४२११०२
मो.: ९२२१३०९७५८



## बिलू बाय बिलू बाय

बिलू बाय बिलू बाय
तुज्या घोस्ताची दुदावेली साय
नुस्तें तुकां जायच जाय
भुरग्यांक तुजी लक्तुबाय

तूं करता म्यांव म्यांव
हुंदराची मावशी कशी काय
तुजी जाता अपुरबाय
सगळे कडेन तोखणाय

हुंदराची तुकां सदांच नसाय
घराक तुजी सोबाय
बिलू बाय बिलू बाय
तूं आमकां सदांच जाय

## बडबडगीत

जात्रांचे दीस आयले
आमच्या गांवांत जातात काले
ते दीस देवळांत वचचेले
देवाक पायां पडचेले
ताटांत पयशे घालचेले
तिर्थ घेवन पिवचेले
हात तकलेक पुसचेले
देवा फूल घेवचेले
मागीर बाजार भोंवचेले
खाज्या मांडार वचचेले
थंय मात्शे बसचेले
साकरे बावल्यो हाडचेले
चणे घेवन खांवचेले
हुनहुनीत चा पिवचेले
कागदाचें गिरगिरें
सगल्याक घेवन भोंवचेले
बोमाडे हातांत धरचेले
तांचे वांगडा खेळचेले
चावयेच्यो गाडयो चलोवचेले
मागीर कालो पळोवचेले
थंडेन आंग कुडकुडचेले
मागीर घरा येवचेले



– सदानंद तेंडुलकार
खोडयें, सत्तरी.



## बटणांचो जादू

बाबून एक बटण दामलो
ताज्या मुखार भांगरा ताट
दुसरो बटण दामलो
ताज्या मुखार फळां रास
सगळ्याक चाकलेटी, पिपिरमिटां
तिसरो बटण दामतना

सगळें अजाप घडलें
कशें जाणा?
मुखावेलो हुंदीर
हातांत घेवन
कंप्युटराचें बटण दामतना

– भिकाजी घाणेकार
लिदिया गार्डन,
सांत इनेज, पणजी
फोन : २४३१३६५












– आयुषी प्रकाश शेटये
यत्ता – आठवी
शाळा – शारदा
ईंग्लीश हाय स्कूल – माशेल

# सैमाची जतनाय घेवप आमची जबाबदारी



**सै**म आमची आवय. तिची जतनाय घेवप, तिचो सांबाळ करप दर एका नागरीकाची जबाबदारी आनी कर्तव्य. सैम सांबाळपाची गरज आमचेच खातीर न्हय तर आमचे फुडले पिळगेच्या बऱ्या फुडारा खातीर.

आयज उदरगतीच्या नांवान सैमाचो नाश जायत चल्ला. सैम राखपाची घटनेन आमचेर जबाबदारी घाल्या ती आमी पाळीनात. आमी दिसान दीस सुवार्थी जायत चल्ल्यात आनी ताकाच लागून सैमाचेर हावळ हाडटल्या कर्तुबांचेर निशेद मारतले आवाज कमी जायत गेल्यात.

हांव एक पर्यावरणाचो विद्यार्थी. कॉलेजींत आसतना पर्यावरण हो म्हजो आवडीचो विशय. कॉलेजींत पर्यावरणाचेर जीं-जीं व्याख्यांनां जातालीं तातूंत म्हजो वाटो आसतालो. आयज म्हाका दिसता आनी हांव समजतां पर्यावरणाचो सांबाळ करपाक हातभार लावप हें म्हजें कर्तव्य.

**हांव हे तरेन सैमाचो सांबाळ करूंक हातभार लायतां.**

पयले सुवातेर हांवेन बाजारांतल्यान प्लास्टीक पोतयो हाडपाच्यो बंद केल्यात आनी घरच्यांकय तशेंच सुचयलां. हांव पसरकाराक सामान कागदाक घालून दिवपाक लायतां. पर्याय नासतना प्लास्टीक पोतयो हाडल्यो जाल्यार ताका उजो लावपाक दिना, त्यो एकठांय करप आनी दुरगाच्या खाचींत घालप. कांय वेळा त्यो परतून वापरप.

दुसरे सुवातेर हांव पाल्याक उजो घालपाक दिना. आमच्या घरा भोवतणी झाडां आसात. झाडांचो जो पालो पडटा तो एकठांय करप आनी माडांच्या जांव केळींच्या मुळांत घालप. तो थंय कुसता आनी झाडाक सारें जाता. पालो लासपापेक्षा कुसल्यार जमनींत चड सारें मेळटा हें म्हजे आवयक समजावपाक म्हाका धा वरसां लागलीं.

कोडागाळींत आमचें शेत आसा. त्या काळार आमी मोडेंची सावळ मारून शेतात घालताले आनी शेतांतलीं तणाचीं बियां लासपा खातीर सावळेन जमीन लासप. त्या काळार तशेंच करचें पडटालें कित्याक तेन्ना आमी शेत सुक्या बियांक रोयतालीं. आयज शेत सुक्या बियांक रोवपाचें बंद करून शेताक रोव मारतात. पूण मोडेची सावळ मारून ती बादयांत घालून लासपाची पद्दत चालूच उरली. पाल्यान जमीन भाजपापेक्षा पालो जमनींत कुसयल्यार चड फायदे आसात. हय म्हजे आवयक समजावपाक म्हाका सुमार धा वर्सां लागलीं. आतां तिणें शेतांतल्या पाल्याक उजो घालपाचो बंद केला. सावळ बांदयांत घालून दवरप / शेत कसताना ती फाफडप. शिरीं भायर उडोवप आनी पालो बांदयांत शिंवरावप. हाचे फायदे म्हळ्यार जमनीची थंडसाण वाडपाक लागली. बांदयेची माती वाडली आनी जमीन कसपाक भुसभुशीत येवपाक लागली.

तिसरे सुवातेर हांव जिवाण्यांक मारपाक दिना. जिवाणीं कमी जालीं जाल्यार ताचो सैमाचेर कितें परिणाम

जातलो हाची म्हाका बेस बरी खबर आसा. एक दीस रातचो सुमार ९ वरांचेर हांव घरा फाटल्यान उदक न्हावपाक वतालों. मुखाल्यान व्हडलो सोरोप. म्हाका पळोवन सोरोप उबो जालो. म्हज्या फाटल्यान मांजर आशिल्लें, मांजर सोरपाच्या आंगार धावलें. माजरान सोरपाक सुमार ४ ते ५ मिनटां हालपाक दिलो ना. ४ ते ५ मिनटां भितर सोरपाक म्हज्यान मारपाक जातालो कित्याक मारपाक थंय हत्यारां लागींच आशिल्लीं. मनशां इतलोच जिवाण्यांक जगपाक अधिकार आसा हें म्हजें मत. हांवें ताका वचपाक दिलो.

चौथे सुवातेर हांव पावसाचें उदक व्हावन वचपाक दिना. जाता ते भाशेन चडांत चड पावसाचें उदक म्हज्या घरा भोवतणी जिरोवपाक वावुरतां. म्हज्या घरा सरभोवतणी दुरीग आसा. उदक वचपाक दुरगाक एकूच बुराक आसा. बुरकाच्या तोंडार हावेन व्हडली मेर घातल्या. थोडो थोडो पावस आयल्यार घरा भोवतणचें उदक साठून उरता आनी कांय वेळ पावस नासल्यार उदक रोखडेंच जमनींत जिरता. चडूच पावस आयल्यार उदक भरून मेरे वयल्यान व्हावून वता. तशेंच घरच्या मुखाल्यान पावसाचें उदक साठोवपाक एक व्हडलो फोंड मारला.

पांचवे सुवातेर पावसा दिसांनी आमी नळाचें उदक कमी प्रमाणांत वापरतात. घराच्या पावळ्यांचें उदक साठोवन दवरप. जेवणाक आनी पिवपाक सोडल्यार हेर कामांक तें वापरतात.

हांव सैम सांबाळपाक हातभार लायता तसो जण एकल्यान हातभार लायल्यार सैमाची राखण करपाक आदार जातलो. सगळ्यांनी, आमी सृष्टी सांबाळपाक जाता ते भाशेन हातभार लावया.




**– जॉन फर्नांडीस**
कपेलाभाट, दियाव,
केपें – गोंय.
फोन – ९८२२१६९५४७


## बाल कवनां

१

कावळ्या काक्या कावळ्या काक्या
कित्याक रे रडटा
मम्मा तुजी भुर्र गेल्या?
म्हजी मम्मा ऑफिशान गेल्या
येतना म्हाका चॉकी हाडतली
एक तुका, एक म्हाका
रडूं नाका कावळ्या काक्या

२

बिलू बायन म्हळें म्यांव म्यांव
घरांत भितर येवूं हांव
उंदीर मामान म्हळें, नाका नाका
आमगेर तूं येवूं नाका
बिलू बायन म्हळें म्यांव म्यांव
दाराभायर रावतां हांव

३

आबोल्या आबोल्या
सानुलें सानुलें मगो फूल तूं
केसरी कसरी रंग तुजो
अपुरबायेचो दिसता देठ तुजो
एक कुवाडें पडलां म्हाका
कित्याक म्हणटात पिशें तुका?

४

नुस्तें जाय गे?
नुस्तेकान्नीन दवरलें
नुस्त्याचें पाटें
आज्यान घेतले
बांगडे सुंगटां तारल्याचे वाटे
आजयेन केली सुंगटांची कडी
तळली तारल्या बांगड्यांची जोडी
बाबू आज घोस्तान जेवलो
आजयेचे मांडयेर रोखडोच न्हिदलो




**– हर्षा शेटये**
'दामबाब',
बर्नाड कोश्ता रोड,
मडगांव.
फोन – २७३०६८६



## राम नाम अभंग

भुरगें जावन मारतां उलो
पाव रे देवा धांव
आवय बापूय तूंच म्हजो
भैयण आनी भाव ।।धृ।।

जिविताच्या पावलां पावलांर
आडखळीचे कितले काटे
सोदतांना माया-मैपास
नात्यां मदीं फुटलें फाटें
फोकांणाचीं नातीं गोतीं
आता फकत तूंच आनी हांव ।।१।।

दुःख भार जालो रे चड
तुज्याविणे कोण रे व्हड
राम-नाम मवाळ तुजें
साकरे हुनूंय गोड
म्हणून चलता भोंवता घेवचें
सदांच तुजें नांव
भुरगें जावन मारतां उलो
पाव रे देवा धांव

– मंगला नागराजन
सी. ६, एनप. आय. ओ. कॉलनी,
दोनापावल – गोंय
फोन – २४५३३९५

## तूं

तूं वता तेन्ना
शब्द मोने जातात
विरहाचे कवितेक मात
शब्दांचीं फुलां फुलतात

पुनव जावन तूं
चान्यान म्हाका न्हांणयता
उमास जावन रे
रोखडोच कित्याक तिश्टायता?

म्हज्या मनाचें झाड
हांवें तुका दिलें
ताचे वयले सवण्यांचे सूरय
तुवें कित्याक मागून व्हेले?

तूं म्हऱ्यांत आसतना
उमाशे राती लेगीत चान्नें झडटा
तूं म्हऱ्यांत नासतना
पुनव लेगीत काजळ माखून बसता



– हर्षा शेटये
दामबाब,
बर्नाड कोश्ता रोड,
मडगांव.

## गौळण

नाका रे कृष्णा वाजोंव तुजी मुरली
मुरलीच्या नादान तान-भूक न्हिवली
घागर घेवन पाणयांक वतना
पावल म्हजें फुडें पडना
आवाजांत ह्या जादू असली
रानावनांतल्यान नाद येता
आंगापांगान शिरशिर जाता
कामा सगळीं थंयच उल्लीं
असो मस्तो हो कृष्ण कान्हा
ताका सैल सोडूंक जायना
फुड्यांत पावतकच सगळें विसल्लीं
नासल्यार तूं रे काळजी जाता
परती परती याद जाता
भूक तुजी पडली
नाका रे कृष्णा वाजोंव तुजी मुरली



– सदानंद तेंडुलकार
खोडयें, सत्तरी.

# होशियार ! ऽऽऽ

म्हज्या इतिआसाच्या पुस्तकांत
आयज तुमचे कालचे धडे
तुमचे धडे :
तुमीच बरयल्ले
तुमीच जुळयल्ले
तुमीच छापिल्ले
तुमीच पितारिल्ले
तुमीच रंगयल्ले
तुमीच सजयल्ले

आनी अखेरेक
आमच्याच उतरांची सकला
कठीन / नवीन उतरां म्हण
सरते शेवटाक आमकांच
वळखी भायली वळख करून दिली
तीय तुमीच अजस्त्र अमर्याद
कारण : घट्ट आसा याद
ते तुमचे धडे तुमीच बरयल्ले
आनी तुमीच शिकयल्ले
अज्रंवर
म्हाका, आमकां भारून उडोवपाक
घाडीपण केल्लें तुमी
गारूढ केल्ले तुमी
तुमची क्रांती आमचे वरवीं केल्ली
आमच्या खांदार खुरीस दिवन तुमी
यशस्वी जावचे खातीर
आनी तिगचे खातीर निरोगी
युगांता मेरेन सहस्त्र
पूण आतां :
काळ बदल्ला
म्हजें कान दिवन आयकात
म्हज्या पावलांनीं काळ चलत लागीं पावला
सांबाळात कान
सांबाळात मान
सांबाळात पान
सांबाळात धान
सांबाळात तुमान
सांबाळात कमान
सांबाळात देमान
सांबाळात हें
सांबाळात तें
हें हें हें
तें तें तें
सांबाळात
सांबाळात! सांबाळात!! सांबाळात!!!
होशियार ऽऽ!
तुमचें वजें
आमी माथ्यार मारचे नात!
विसरात आता माडेल
आमी आता उरले नात तुमचे भाडेल
पडचे नात
पडचे नात
भकीक तुमचे
पडचे नात
शिटकायतां तुमकां :
रावात शादूर
मतींत दवरात :
धोपरा बुध्दीचे आमी
तुमचो कोपर तुमकांच मारून
तुमच्याच उतरांनीं ताल्ल नवेच
आमी आमचे धडे बरयतले
आनी तुमका ते
घालचेच पडटले
तुमच्या पुस्तकांनीं
जशा तशे अखंड
शिकोवंक तुमचे पिळगे खातीर :
मुखावयले दर एकले
आनी शिकचो पडटलो
शिकोवचो पडटलो तुमका
जण एकल्या उतराचो नव्या
आनी जुन्याय कदीमकाळी
आमीच दिल्लो नवो अर्थ
सासणाचो शाश्वत अपूर्व
धड्याच्या सकला न्हय
दिल्लो सुरवेक ठळक कोरातिल्लो
जसो फातरार वा ताम्रपटार
हेन फुडें :
आमीच दिल्ल्या अर्थाची पटी
तुमका बाळगुंची पडटली बराबर
सदा सर्वकाळ
तिनय त्रिकाळ
आक्राळ विक्राळ
कित्याक तर :
सोडुनय तो सांपडुपा ना तुमका
त्रिखंड
श्रीखंडा इतलें सोपें न्हय तें
आनी नवखंडांच्या पुराणां इतलें
पोजडें पोरणें जाल्यार तें
निखालसूच न्हय
तेन्ना तुमका वेळारूच
परत एक फावट शिटकायतां
सभाव तुमचो बदलात तुमीच
तुमचे बरीं आमी
बेसावध सावजाचो कासादोर न्ही हांव
सादूर रावात :
आमचे धडे
भायर सरचे तयारेक लागल्यात
कोपरान भूंय खणून
दिगंताक दांवें घालूंक
आमचे धडे
भायर सरले
चौखूर!
होशियार ऽऽ!

– **डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकर**
गोंय विद्यापीठ,
ताळगांव पठार



# सासणाची थाकाय

साता जल्माचे भोंवडेत
काट्या कवच्यानी भल्ले पाय
आतां मागतां तुजे वेंगेंत
सासणाच्या सासणाची थाकाय

भितरले भीतर गोठेता काळीज
थंड झेलाद फातर कशें
तेन्नाच सुचूंक लागतात
उजवाडाचीं गाणीं

आयलो तूं आयज
अचकीत सपनाच्या दारांतल्यान
मनांत हजार मळबाचीं भिरीं
उडूंक लागली निळीशार
आशाढ मेघ कोसळूंक लागले
काळी निळी धारा अधांतरी
लक्क करून लकलें
काळजांतलें पाणी



– राजश्री सैल
मडगांव – गोंय.

# सुरंगीणी

सुरंगांचो गोफ गुंथला
माळ गे सुरंगीणी
काळ्या आंबाड्यार
बसला दिसता
नाग गे सायबीणी

हळदिचो कोर मोखला
तुज्या पोल्यार
कितलो सोबीत हो
सुरंगां वळेसर
गे सायबीणी

सुरंगांच्या मधूर वासान
स्वास तुजो गूथ गे सुरगीणी
मोग म्हजो तुका आसा
लिपय नाका गे सायबीणी

मोग म्हजो रसरसता
सुरंगां गोफान
गोपान यो गे सुरंगीणी
मोग आसा सांगून म्हाका
धादोस कर गे सायबीणी

– सरस्वती दा. नायक
सांकवाळ

# तिकली

१
काळजांत कितल्योश्याच यादी
जशें कादेनांत जपून दवरिल्लें
पान पिंपळाचें

२
प्रेमाक नासता विराम
नासता बंधन
जंय दोनय आसनात
थंय प्रेम नासता

३
मन म्हळ्यार बॅन्क
तूं जें 'सेव्ह' करता
तितलेंच मुदला सयत मेळटा

४
अडचण पनवत न्हय
तर बऱ्या फुडाराचें सपण

५
जळप म्हळ्यार
गोबर जावप न्हय
जळप म्हळ्यार उजळप

६
सगळ्यांत बरो दीस खंयचो?
वायट दीस न्हय तो

७
खोशी खिणाखिणांत
सोदची पडना
कणाकणान भोगची पडटा

८
आपणेंच निवडप आपली वाट
आपल्याच पावलाक
आत्मविश्वासाचो सांगात

– सुजाता सिंगबाळ
पर्वरी – गोंय

# 'मोग' आनी 'राग'



मोग ही भावना. मोग कोणेंय कोणाचोय करूंक जाता. मनशान जनावरांचो, मनशान मनशांचो वो वस्तुचो, सैमाचो वो आनीक कित्याचोय. तशेंच जनावरांकय अधिकार आसा आपल्याक जाय ताचो मग करपाक. शेवटाक मनीसय एक जनावर. ह्याच मोगा खातीर आमी खुशाल आसतात, दुख्खी जातात, शांत आसतात, चिंतेस्त आसतात. मनशाची प्रत्येक भावना ताच्यांत आशिल्ल्या मोगाक धरून आसता. 'मोगाचें म्हाका कांयच पडून गेल्लें ना.' अशें म्हणपी आमकां जायते मेळटले कित्याक मोग म्हळ्यार कितें तें तांकां होलमूंक ना.

एक चलो चलयेचो मोग करता. तिणें ताका सोडून दिलो जाल्यार तो मोगाचो द्वेश करता आनी चलये बदला मोगाचेर रागार जाता. मनीस असोच आपलीं नातीं तुट्टात तेन्ना मोगाचो तिरस्कार करता, मोगाची निशाणी आपणा कडेन दवरचोना अशे विकृतीन जायतें वायट आपल्या जिवितांत हाडटा. आवय-बापूय आनी भुरग्यां मदीं जेन्ना जेन्ना वयर सकयल जाता तेन्ना तेन्ना आमच्यांतलो मोग काबार जालो अशेंच वागतात. मांय-सून जांव मांव-सून हांचे मदलें नातें बिगडपाक लागता तेन्ना मोग तांचे पासून कोसभर पयस आसता. कित्याक मोग म्हळ्यार कितें ताचो अर्थूच तांकां खबर ना.

एक चलो मोगान एके चलयेक फूल भेटयता. त्या वेळार ती चली दुसऱ्या कसल्या तरी रागान भरिल्लें आसता. देखून तें फूल पळोवन तिका राग येता आनी तें सोबीत फूल तें पिसडून उडयता. अशा वेळार चल्याक ते चलयेचो राग येवप सभावीक. रागांतच जर चली एक वटेन आनी चलो दुसरे वटेन गेलो जाल्यार तांचो कितल्या काळाचो म्हण कोण जाणां, मोग नाच जाता, इबाडून वता, काबार जाता. पूण तेंच जर तीं पयस वचपा बदला एका मेका कडेन उलयलीं आनी परिस्थिती समजून घेतली जाल्यार तांचो मोग चड घट्ट जाता, आपलेपण रंग घेता आनी मोगाक म्हत्व येता. राग नपयत जाता.

हो एक तरेचो मोग. असोच मोग घरच्या सगळ्या मनशां मदीं आसता. जेन्ना एक मनीस दुसऱ्या मनशाक फक्त दिसता ते नदरेन पारकिता जाल्यार तो चूक करता. वयर सांगलां ते भाशेन खरी परिस्थिती ताचे मुखार आसना आनी मनशाचें मन चंचल आसपा बरोबर वेगवेगळ्या विचारांनी भरिल्लें आसता देखून नदर वास्तवा पासून पयस आसता. नाका जाल्ले विचार मनांत येवन दुसऱ्या प्रती चुकिची प्रतिमा उबी जाता. हीच चुकिची प्रतिमा मोगाचें दुशीत रूप ताचे मुखार उबें करता आनी रागाचें वो द्वेशाचें सुवार्थी रूप तयार करता. पळयतल्याक जायतें दिसता पूण जो मेरेन दिसता तें समजून घेवपाचो यत्न करता तो मेरेन मोग आनी रागाचो संघर्श चालूच आसता.

म्हणटात 'मनशांचें जिवीत चार दिसांचें'. ह्या चार दिसांत मनशान कशें रावंक जाय आनी कितें करूंक जाय हे निर्णय म्हत्वाचे. मनशाक रचतना देवान ताची पिराय घालून दिल्ली आसा. संवसारांतले चार दीस म्हळ्यार कोणाचे कितले दीस ते कोणाच्यान सांगूं नज. कोण वरभर संवसारांत उरता जाल्यार थोडे दोळे धांपुनच संवसारांत येतात. कोण तरणे पिरायेचेर मरतात. हें सगळें मनशाच्या हातांत ना. मनशाच्या हातांत आसा तें एकच 'हांवें कशे परी ह्या संवसारांत जगचें? रागान वो मोगान?'

मोगान जियेतना कितें घडटा तें घडये सगळ्यांच्या लक्षांत येवंचे ना. पूण रागान जियेतना प्रत्येक मनशाक अणभव येता आपले कृतीचो आनी साक्षात्कार जाता चुकच्या कामाचो. रस्त्यान वतासतना आमी म्हणटात 'आरे, मात्सो चुकलो. ती गाडी आदळलेली जाल्यार तो वांचचो नासलो'. आतां 'आदळ्ळी जाल्यार' हें उतर म्हत्वाचें.

हागा क्रिया पूर्ण जायना. अपघात जावपाचो अशें दिसलें पूण अपघात जालो ना. अपघात जाल्लो जाल्यार कितें घडपाचें तें देव जाणां. ते भशेन राग आयलो जाल्यार मोगाचें म्हत्व कळटा. सामान्य जीवन जगतना मोग ही कदर नाशिल्ली भावना. पूण जेन्ना मनशाचेर एकलेपण येता, फुड्यांत कोण ना, तेन्ना ताका दिसता आपणाचो कोणूच मोग करिना. थंयच ताच्या मनांत राग जल्माक येता. हो राग जायते फावट रागूच जावन उरता आनी मनशां मदलीं नातीं लेगीत सोपोवन वता. म्हण कसलीय गजाल घडचे पयली जें आसता तें एक थंड मोगाचें रूप. ह्या रूपांत मोगाची कसलीच करणी आसना, देखाव आसना, बोवाळ आसना. जसो न्हिदिल्लो बाबुलो, 'शांत, निर्जिव' असो. गजाल घडली म्हणटकीर सगळ्यांक जाग येता, निर्जिवता सोंपता, बोवाळ सुरू जाता. तेन्नाच रागाची आनी मोगाची व्याख्या तयार जाता. राग आनी मोगाचे परिभाशेंत लोक उलोवंक लागतात.

देव हें मोगाचें प्रतीक जाल्यार देंवचार हें रागाचें प्रतीक. दोगांचींय समिकरणां वेगळीं. ह्या वेगळेपणाक लागूनच आमी देव आनी देवचाराक वळखूंक शकतात. तशेंच मोग आनी राग कितें तो खिणा भितर कोणूय सांगूंक शकता. एक ल्हान भुरगो लेगीत राग आनी मोग वळखूंक शकता. जेन्ना आपलो आवय-बापूय झगडटा तेन्ना ताच्यान कांय तांकां आडावंक जायनांत. देखून तो रडटा आनी आपली प्रतिक्रिया उकतायता. ताच्या मोगाक लागून तांकां आपलें झगडें बंद उडोवचें पडटा. कोण तरी एकल्यान आपल्या फुड्यांत येवंचें असोच ताचो विचार आसता. कोण तरी एकल्यान ताका समजायलो म्हणटकच तो वगी जाता आनी मोगान आपल्याक लागीं करतल्याक वेंगयता. तेंच जर तीं झगडपाचीं थांबलीं नांत जाल्यार तो व्हडल्यान रडतूच रावता आनी ताच्यांत रागाची भावना जल्मूंक लागता. वास्तवांत सगळ्या मनशांत अशेंच घडटा. राग येतकच मोग कमी जाता आनी मनशाचे वागणुकेंत, विचार शक्तींत, भावनेंत बदल जाता. बदल तनाचो, मनाचो, शक्तीचो, विचारांचो जंय मनीस आपल्या नश्टा कडेन मुखार वचत रावता, आपलें आयुष्य कमी करत रावता.

म्हणटात 'चुली फाटल्यान गोबोर आसताच'. तशेंच सुखा फाटल्यान दुख्ख आसता, मोगा फाटल्यान राग आसता. मनीस म्हळ्यार कुवाडें. पूण हें कुवाडें खंय ना खंय उगडापें जाता. ह्या ना त्या रूपान. एक दीस ताका पुरायपणान सगळ्यां फुड्यांत न्हय जाल्यार देवा फुड्यांत तरी उक्तो जावंकच जाय. थंय तो कांय दाखय-लिपय करूंक शकना. ताच्या मनाक सगळे वटेन खिळयो घाल्ल्यो आसतात. ताची संवेदना आनी कश्ट लेगीत ताका चिमटे काडूंक शकनांत. आपणें रचिल्ल्या मनशाची परिक्षा घेवंक देव तयार आसता आनी मनीस मोग, राग, द्वेश, दुख्ख, आनंद सगळें सोडून यंत्रा वरीं जिविताचे सर्वश्रेष्ठ परिक्षेक तोंड दिता. अशा वेळार संवसारी जिविताचें कुवाडें ताका तरी लिपोवंक मेळटा?

एक चली आपले सुंदरतायेच्या गर्वान जगतालें. जायते चले ताचेर मग करूंक आशेताले. तें कोणाक भीक घालिनासलें. तें सदांच सुखान जगतालें आनी दुख्खी मनशांचो ताका द्वेश जातालो. पूण केन्नाच तांकां आदार करपाचो हावेस बाळगिलो ना. ताका फक्त आपल्या घरच्या लोकांचो मोग आसलो आनी ह्या घरच्या मोगानच ताका समाजा कडेन द्वेशी नदरेन वयर काडिल्लें. कॉलेजींत लेगीत तें व्हडपणान जगतालें. ताच्यो इश्टिणी म्हण नावां पुरत्यो आसल्यो. ह्या खातीर चलेच न्हय तर चलयो लेगीत सवका सवका ताचे दुस्मान जावंक लागले. म्हळ्यार हे चलयेविशीं तांच्या मनांत राग तयार जालो. एका वर्सा भितर तें एकटेंच पडलें. ताका कसल्याय कार्यावळींत भाग नासलो. कोण ताचे कडेन उलयनासलो आनी कोणच ताका लागीं रावना जालो. तें लायब्ररींत आयल्यार हेर उठून वचपाक लागलीं. जेन्ना ताका संवसारांतल्या सैमाचे बदल जाणवूंक लागले, म्हळ्यार ताचे शारिरीक बदल आनी मानसीक बदल तें अणभवपाक लागलें तेन्ना ताका समजलें मनीस एकलो रावन केन्नाच मुखार वचूंक शकना आनी चार-चौग आसतात थंय एकलेपण सोबना. घरांतल्या मनशांनी ताची दिशाभूल केल्ली. तें आपल्या खातीर इश्टीणी सोदपाक लागलें. सुर्वेक समाजांत दर्जो आशिल्लीं म्हळ्यार गिरेस्त, तांणीं तर ताका सगळ्यांत पयलीं पयस केल्लें. मागीर मध्यम वर्गीय कितले यत्न करून पसून ताची इश्टागत करूंक कोणच तयार जालो ना. तें निराश जावपाक लागलें. एकलेंच बसून रडपाक लागलें. जायत्या जाणांक ताचे चुरचुरे दिसताले. पूण सगळ्यांनी ताका भायराल्लें. एक दीस आपल्या रागाची शीम हुपून कॉलेजीच्या टेर्रसार गेलें आनी जर आपणा कडेन इश्टागत करनांत जाल्यार आपूण जीव दितलें म्हण तयार जालें. ताका आपली चूक कळून आयली म्हण सगळ्यांनी ताचे कडेन इश्टागतीचो हात मुखार केलो. राग आपणाकच न्हय तर दुसऱ्याकय येता आनी रागा मुखार शाणेपण चलना. खरें म्हळ्यार राग हें पिशेंपण आनी मोग हेंच शाणेपण. ते चलयेक रागांतच सोडिल्लें जाल्यार तें मरून वतलें आसलें. सगळ्यांनी ताका मोगान घेतलें म्हण तें साल्वार जालें.





**-विन्सी क्वाद्रूस**
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
साल्सेत गोंय.
मो : ९८२२५८७४९८

# आबोलें



**म्ह**ज्या भुरग्यापणांतली म्हाका याद जाता. म्हजें कुळार काणकोण. म्हजी आवय तशी मायेस्त पूण बापूय मात सामको स्ट्रिक्ट. आमी सगळीं चार भयणी आनी तीग भाव. सगळीं सात भावंडां. हांव सगळ्यांत व्हड. घरांतल्यान भायर खंय वचपाक जाय जाल्यार पयलीं बापायची परवानगी घेवची पडटाली. ताच्या तोंडांतल्यान हय वा ना हें उतर आयकुपाक जणू परिक्षेचो रिजल्ट कसो दिसतालो. कितेंय सांगप म्हळ्यार आमी सगळीं भाव-भयणां पयलीं येसाय मारतालीं. आमच्या सगळ्या भावंडाभितर आमची आवयूय सामील आसताली.

थेटरांत बरो सिनेमा लागलो जाल्यार शेजारी आमकां या काय म्हूण विचारतालीं. हय म्हणटलें जाल्यार बापायक सांगचें पडटालें. आवयक सांगलें जाल्यार ती म्हणटाली, 'वतात जाल्यार बापायक सांगात आनी वचात.' मागीर जालें बापायक सांगपाक कोणूच वचनाशिल्लो. हांव व्हड आशिल्ल्यान म्हाकाच सांगचें पडटालें. बापायक सिनेमाक वचूं कांय म्हूण विचारल्यार तो पयलीं वोगीच रावतालो. मागीर कोण कोण वतात? सिनेमाचें नांव कितें? अशे दोन-तीन प्रस्न विचारतालो. तेन्ना आमी पयलींच थारायतालीं, समजा 'प्यार की कसम' अशें आसल्यार 'प्यार' हें नांव काडप आनी 'कसम' इतलेंच सांगप. कित्याक तर प्यार बी अशें कितें नांव सांगलें जाल्यार ताका दिसतालें तो सिनेमा मोगा संबंदान कसलें तरी लफडें आसतलें म्हूण तो सरळ नाका म्हूण सांगतालो. सिनेमा कसो आसतलो तें तो नांवां वेल्यान थारायतालो.

एक दीस कितें जालें, आमची शेजारीण दुयेंत आशिल्ली. तिका हॉस्पिटलांत वचपाक बरोबर कोणूच ना जालो म्हूण ती आमगेर आयली आनी म्हजे बरोबर हॉस्पिटलांत मात्शे कोणाकय धाडटा काय म्हूण आवयक विचारपाक लागली. दुयेंत आसा म्हणटकच आनी हॉस्पिटलांत वचपाक म्हळ्यार सहसा कोण ना म्हणना. तेन्ना आवयन शेजारणीक धाडटा म्हूण सांगलें. हांव व्हड आशिल्ल्यान तिणें म्हाका तिचे बरोबर मात्शें वच म्हूण सांगलें. हांव आनी ना म्हण्टां? हॉस्पिटलांत जावं ना जाल्यार बाजारांत जावं भायर सरपाक मेळटा म्हणटगेर तिचें उतर गिळचे पयलींच हांव वचपाक तयार जालें आनी ते शेजारणी बरोबर हॉस्पिटलांत गेलें.

काणकोणां पयलीं दर बिरेस्ताराक पणजेच्यान एक स्पेशल डॉक्टर तपासपाक येतालो. ताका लागून खूप पयसुल्ल्यान सुध्दा लोक ते दिसा त्या हॉस्पिटलांत येताले. ते दिसा खूप गर्दी आसताली. त्या दिसाक तर इतली गर्दी आशिल्ली की देवळांत देवाक मेळपाक जात्रे दिसा गर्दी जाता तशीच जाल्ली. हॉस्पिटलांत वतकूच पयलीं डॉक्टराक मेळचे पयलीं दर एकल्यान नांव नोंदणी करता थंय वचून तो विचारता तशें आपलें नांव, गांव नोंद करचें पडटालें. आनी परतें लायनीत रावचें पडटालें. नांव नोंदणी करता थंय कुशीक एक बांक आशिल्लो. त्या बांकाचेर हॉस्पिटलांत आयिल्ले जायते जाण बसताले. हांवूय त्या बांकाचेर बसून कोण वळखीचो दिसता काय, कोणे कसले कपडे घातल्यात? तें पळयत बशिल्लें. लोक खूब जाले म्हणटकूच दर एकल्याचें नांव विचारता आनी बरयता म्हणटासर नांव नोंदणी करतल्याकूय नाका जातालें. इतल्यांत एक बायल थंय आयली. त्या नांव नोंदणी करतल्यान ते बायलेक नांव कितें काय म्हूण विचारलें. तिणें आपलें नांव आबोलें म्हूण सांगलें.

''आगे तुजें सगळें नांव सांग.''

''आबोलें माडार चडचेलो'' तिणें सांगले.

त्या नोंदणी करतल्यान परतून विचारलें,

''आगे, आबोल्या तूं माडार कित्याक चडटा गे?.. हांगाच राव आनी तुज्या घोवाचें फकत नांव सांग.''

ती मागीर मुरगटत मुरगटत म्हजें नांव 'आबोलें' आनी म्हज्या घोवाचें नांव माडार चडटा तो अशें म्हळें.

"आगे, रेदेंर गे तुज्या घोवाचें नांव?" तिणें मान हालोवन ना म्हळें.

"मागीर सांग मगे नांव."

"आगे, आबोल्या माडार कितलेशेच लोक चडटात. म्हजो बापूय सुध्दा माडार चडटालो म्हूण कितें म्हज्या बापायचें नांव बरोव...?"

मागीर तिणें हेवटेन तेवटेन पळयलें आनी गावपाक सुरवात केली.

"तांबड्या चोंचीचो आनी लांब शेपडेचो
सुरू सुरू.... करून माडार चडचेलो."

ती गायता तें पळोवन म्हाका तर ती बायल पिशी कशी दिसली. पूण त्या नोंदणी करतल्यान तिका 'पांवटो' कांय म्हूण विचारलें. तेन्ना तिणें मुरगटत मुरगटत 'हय' म्हूण सांगलें. ते बरोबर ताका इतली तिडक माल्ली म्हूण सांगू, तो सामको फणफणपाक लागलो.

"आगे ए.... आबोल्या हें हॉस्पिटल, हांव हांगा धालां मांडार येवूंक ना. असल्यो म्हणयो बिणयो घेवन नांव सांगचें पडलें जाल्यार म्हाका रात आनी दीस हांगाच मरचें पडटलें."

खरेंच, म्हाकाय त्या नोंदणी करतल्याची काकूट दिसली. सर्विस करप म्हण कितें जालें? इतलें पासयेस काडप? त्या नोंदणी करतल्यान तिका वर्सां कितलीं काय म्हूण विचारलें. तिणें सारकें खबर ना म्हळें, मागीर चिंतून चिंतून म्हणपाक लागली. "म्हागे आवो हांव चवथीकडेन जाल्लें म्हणटाली."

"आगे आबोल्या, चवथ वर्सान वर्स येता न्हू गे? मागीर तूं वर्सान वर्स जाली तर......"

"खंयची चवथ गे....?"

तो नोंदणी करपी सामको तांबडोच जालो आनी आसूं तुजीं वर्सां म्हूण अदमासान आपणेंच तिचीं पन्नास वर्सां म्हूण बरयलीं. म्हाका तें आयकून अशें हासपाक येवपाक लागलें म्हण सांगू? हासपाकूय भंय, तो म्हजेर तापत म्हणून, पूण तोच म्हाका म्हणपाक लागलो हें सदचेंच! अशे तरेचीं दिसाक एक-दोन तरी सवंगां आसतातूच... ह्या सगळ्या गजालीन ताचें पासियेस पिड्ड्यार जालें खरें. पूण आमचो मात बरो टायमपास जालो.



**- कुमूद भिकू नायक**
खोर्ली, तिसवाडी-गोंय

## कोंकणी पॉप

### हा हा हूं हूं

चलो : हा हा
चली : हूं हूं ला ला ला ला
चलो : हा हा
चली : हूं हूं ला ला ला ला
चलो : शितळ दंव पडोन फुलां फुल्लीं मळ्यांत
सोर्बीत साळकां मान दितात रावोन तळ्यांत
पळोवन तुजो रूपकार वेता ह्या दोळ्यांत
इनोसेंट मोग हो घालतां तुज्या दोळ्यांत
कोरस : चलो : पर्मळीत फुला, मोग आमी केला
चली : काजार जांवच्याक, होय जुरामेंत दिला
चलो : काळजाचे खरायेक, हय तो किल्लला
चली : गोपांत तुका घेवंक म्हजो जीव आशेला
चलो : हा हा
चली : हूं हूं ला ला ला ला
चलो : मोगान आसतोच काळजाक खेरीत भोगता सूख
शितीद उडटा लागना तान आनी भूख
खऱ्या मोगाक भोगचें पडटा जायतें दूख
जिविताच्या रस्त्यार किल्लता आख्खो रूख
कोरस : चलो : दोगांय जावन जुरार, मोग करतां सेलार
चली : गवाय राव सूर्या, रात्रन अंतराळार
चलो : नदर आमचेर मार, जानांव पोय वरार
चली : सदांच तूं राव म्हूण आमच्या तूं आदारार
चलो : हा हा
चली : हूं हूं ला ला ला ला
चलो : मोग करणारानी मोग करूंक जाय खरो
पर्वा ना दुस्मान आसल्यार करून पारो
एकवटान भोंवल्यार दुस्मान सरता पोरो
आनी फुडारूय परजळटा बरो
कोरस : चलो : भोवचीं सांगातान, रावचीं एकवटान
पावोसर सुखाच्या, भूंय - वैकुंठान
चली : बागोत्रची आमी ही मोगाची तान
बांदून काळजां सातल्या सांकरा मेतार
चलो : हा हा
चली : हूं हूं ला ला ला ला



# गजाल विस्वासाची

मूळ उर्दू कथा - खुर्शीद आलम
अणकार: रमेश भगवंत वेळुस्कार

लग्ना पयलीं गफूर भाय पुराय पांच वेळची नमाज अदा करतालो. ह्या वाठारांत ताची नेमणूक जाल्ली तेन्नाय तो नमाजाक बांधलेल आसलो. ही सगळी गडबड जाली लग्ना उपरांत. मरियमाच्या ह्या घरांत आयल्या उपरांतूच हे चडशे बदल आनी घडणुको घडल्यो. तीन वर्सांच्या थोड्याशा काळा भितर दोन भुरगीं जालीं. आनी अब्बाक खुदान आपल्या म्हऱ्यांत आपोवन व्हेलो. खर्चाची जडाय वाडूंक लागली आनी नोकरी जिवा परस चड मोलाची दिसपाक लागली. ल्हवू ल्हवू खुदाचेर आसलेलो विस्वास इल्लो उणो जालो. आनी नमाजांत हयगय जावपाक लागली आनी करतां करतां बंदूच जालो. जायतें कितें जाणा जावन लेगीत ताणें आपले पांय ते वाटेनूच चलूंक दिले जंय नास्तीक जावंचो भ्रम जाता. जरी तो आपल्या बदलांतलो प्रगतीशील जावपाच्या तर्काक लिपोवपाचो यत्न करतालो तरी ताणें आपले अम्मीजानाचे आनी तीस वर्सां पुराय करतले मरियमाचे खुदाच्या पूजा-प्रार्थनेंत कसलीच आडखळ हाडली ना. तरी तो केन्ना केन्नाय विचार करतालो की गरिबांचो राखणदार खुदाच आसता आनी ह्या विचारान ताका खिणयाळो संतोशूय जातालो की खुदाच्याच मेहेरबानीन ताचे जिंदगीचो काळोख एक दीस ना जावन वयतलो आनी तो आपल्या परिवारा सयत खोशयेची जीण सारतलो.

तस्मात, खुदान जे अवस्थेंत ताका दवरलो ते तरेन ताचे जायते दीस सरले आनी उल्लेलेय सरताले. लग्नाचीं पंद्रा वर्सां सोंपलीं आनी हाचे मर्दी खुदाचे इच्छे प्रमाण आनीक तीन अपत्यां तागेर जालीं. पयल्या चार चलयां उपरांत, दोन वर्सांनी पयलो चलो जालो. गफूर भायक जायते पावट समाजाक बदलून उडोवपाची कूय येताली. म्हणटकूच चलो जाताच नसबंदी करपाचो प्रोग्राम करूया अशें ताणें चिंतलें. दुर्भाग्यान हे गजालीचेर चर्चा ताणें मरियमा कडेन केली. मरियमान अम्मीजाना कडेन केली आनी मागीर घे... घरांत व्हडलें वादळ जालें. गफूर भाय प्रगतीशील आसलो पूण सभावान लजेस्त आसलो जो आंदोलनाचे पयलीं आपलेच मतींत साधक बाधक विचार विमर्स करतालो, तातूंत आसलेल्या सगळ्या नकारात्मक पक्षांचेर खोलायेन चिंत्तालो आनी दर पावट अशेंच जातालें की कोण ना कोण तरी ताका समजायतालोच की सवन संवसाराची उठाबस ताच्याच माथ्यार दिल्या काय कितें? ताच्या शांत सभावाक लागून तो ही गजाल सहज मानून वयतालो आनी सगळे क्रांतीचें दुःख तो आपूण एकटोच पियेतालो. हेय वेळार अशेंच जालें. खोंकत खोंकत मरणाची वाट पळोवपी अम्मीजानाच्या आनी खुदाच्या तशेंच पैगंबरांच्या सासायेचे दुवे गावपी बायलेच्या काळजांक तो दुखोवं शकलो ना. नसबंदीचो इरादो ताणें सोडून दिलो. मनांत येवजिलें की खुदाक जें जाय तेंच जातलें. आनी खुदान तर ताचे खातीर बरेच कडकेचो आनी फोके काडपाचो वेळ हाडला.

सरकारी हिशोबा प्रमाण गफूर अहमद पूत शकूर अहमद ह्या दिसांनी होमलोन, फेस्टिवल ॲडवान्स, सोसायटी लोन तशेंच प्रोविडंट फंड असल्या रिणांच्या वज्या सकयल चेंपून आसा जीं ताणें वेगवेगळ्या

समयांचेर घेतलेलीं. हाका लागून ताचो ल्हानसोच पगार आनीक ल्हान जावन ताका मेळटालो. हो पगार तो दर म्हयन्याक मरियमाच्या सांवळ्या खरखरीत हातांर ( जे लग्ना वेळार इल्ले गोरे आनी हाय अल्ला म्हणून घेवपा इतले सुंदर आसले) खालते नदरेन दवरतालो. मरियमान विडयो करपाचें काम सुरू केलें तें पळोवन गफूर भायक मनांतल्या मनांत खोस जाली आनी ताणें सुटकेचो सुस्कार सोडलो. तरी ताणें वयले वयर म्हटलें, 'कित्याक अशी गरज नासतना तकालस घेता?' मरियमाक ताच्या उतरांक जाप दिवपाची गरज दिसली ना.

घरा मुखार आसलेल्या हॉटेलांत आयल्लो पेपर तो फावल्या वेळांत वाचतालो. आफिसांतल्या लोकां वांगडा कसलीच फालतू गजाल उलयनासलो आनी थंयसल्लो वेळ चडसो मोन्यानीच काडून तो घरा परततालो. खरें म्हळ्यार फाटल्या कांय वर्सां सावन तो हे गजालीक इतलो भियेतालो की जर उलयतां उलयतां अर्थिक परिस्थितीचेर मुद्दो आयलो जाल्यार नाका आसतना तकली घुंवतली. ताचें उठप बसप वा गजालींचे ठाण फकत ताच्या शेजाऱ्या कडेन म्हळ्यार करीम भाय वांगडा जातालें. जो आपल्या काळा वयलो फामाद पेलवान आसलो आनी आतां काळ सरतकीच आपली उमेद कोंब्यांचीं झूजां खेळोवन तशेंच बुद्धीबळाचो खेळ खेळून पुराय करतालो. ताच्या ह्या खेळांत ताचो साथी आसता गफूर भाय. गफूर भायच्या खेळांत कसलीच सर्त नासताली, तो केन्ना पिकार जायनासलो. वजीर मेलो कांय परवा ना. जिंकलो जाल्यार बरें आसा, हारल्यार कसलेंच पिकासांव ना. सामको आपले जिणे वरीच तो ह्या खेळाक पळयतालो. म्हणून करीम भाय खातीर गफूर भाय एक बरो वांगडी आसलो, जाल्यार देवादयेन गफूर भाय आपल्या कुटुंबा वांगडा आपले दीस कशे तरी सारतालो. भुरगीं दुयेंत जातालीं, बरीं जातालीं. कांय दीस कडकेचे येताले.... मागीर रीण घेवप जातालें. केन्ना दिसपट्टे रूटीन जिणेचो ताका वाज येतालो, तेन्ना भुरग्यांक लागीं करून तांचेर जीव ओत्तालो. राग येतालो तेन्ना देशाचे वर्तमान परिस्थितीचेर समाधान मानतालो. ताका हीय गजाल खबर आसली की सध्याक तरी ताचे जिणेंत हाचे परस बरें आनीक कांय ना. हय, पुराय वाठारांत ताचो मान भौमान आसलो आनी वाठारांतल्या मानेस्त लोकां मदीं ताकाय नांव आसलें.

एक दीस अचानक कितें जालें जाल्यार तो आपल्या ऑफिसांत पावलो. हजेरी पटाचेर सय ठोकली आनी पटा पोंदा पळय जाल्यार ताच्या नांवांचें एक पत्र. गफूर भाय चक्रावलो. पत्र-वेव्हारा कडेन ताचो संबंद ना च्या बराबर आसलो, तरी आपल्या नांवांचें पत्र पळोवन ताका बरें दिसलें. आपले उमेदीचेर लगाम लावन ताणें पत्र फोडलें. तातूंत एक छापलेलो कागद आसलो जाचेर मोट्या मोट्या अक्षरांनी छापलेलें 'खुदा के बंदों, इसपर अमल करो, प्रढो, यह हकीकत है' (देवाच्या गुलामांनो, हें आचारणांत हाडात, वाचात. ही सामकी खरी गजाल) सकयल ल्हान अक्षरांनी बरयिल्लें, 'मदीना मुनव्वरा सून शेख अहमदान हें पत्र धाडलां. जातूंत बरयलां की सुक्राराचे रातीं कडेन रौजए मुबारकच्या निमतान कुरानशरीफ वाचतालों तेन्ना म्हाका न्हीद आयली. सपनांत पळय जाल्यार हजरत मुहम्मद सायब आयला आनी तो सांगपाक लागलो, पळय, वेळ सामको वायट आयला. बायलां आपल्या घोवांचो फावो तो मान करिना, बुरखे घालीनांत. भुरगीं आपल्या आवय-बापायचें आयकनांत. लोक हज यात्रेक वयतना दान-धर्म करिनात. हजरत मुहम्मद सायबान मुखार सांगलें- शेखं अहमद, तूं ह्या संवसारांतल्या लोकांक समजाय की कुराणाचेर विस्वास दवरात. सोमारा दीस रोजा दवरात, नमाज करात, दान दियात. संवसार काबार जावपाचो वेळ लागीं पावला. जो मनीस ह्या पत्राची नक्कल करून हेर लोकांक धाडटलो ताचे खातीर संवसार सोंपत्या दिसा खुद्द हांव वावुरतलों आनी ताका स्वर्गाची वाट दाखयतलों. जो मनीस ह्या पत्राच्यो एकशें पन्नास नकलो करून लोकांक पावयतलो ताका चौदा दिसां भितर ताच्या मनांतल्यो इत्सा पुराय जाल्ल्यो पळोवंक मेळटल्यो. मुंबयत एका मनशान पांचशें पत्रां बरयलीं तेन्ना ताचो मरतलो पूत मरणांतल्यान वाटावलो. आनी एका मनशान असलीं शंबर पत्रां बरयलीं तेन्ना ताचीं उल्लेलीं कामां जावन गेलीं. आनीक एका मनशान ह्या पत्राक चूक मानून ताचो अपमान केलो आनी हाचो परिणाम म्हूण ताचो भुरगो ह्या संवसाराक अंतरलो आनी एका मनशान पत्र छापपाचें फाटीं-फुडें केल्ल्यान ताकाच मरणाक समाकार वचचें पडलें. हें पत्र छापून ना वांटपाचें दु:ख जरूर सोंसचेंच पडटलें. जशे तरेन कुराणाचेर विस्वास दवरला तसोच ह्या पत्राचेरूय विस्वास धरात आनी हजार पांचशे पत्रां छापून मुद्दम वाटात. खुदानूच आमकां अुजू वाटेर चलोवंचें. आमीन!'

पत्र वाचून गफूर भाय पिकार जालो. ताका दिसलें की पत्र वाचून आपूण जावन ताणें संकटाची घंटा आपल्या गळ्यांत बांदल्या . ताका जर पयलीं हें असलें पत्र म्हूण समजल्लें जाल्यार तो तें पाकीट फोडचोच नासलो. च्चे! आतां कशें जातलें? पाकीटार बरयल्ल्या अक्षरा वेल्यान तें कोणाचें तें वळखुपाचो ताणें यत्न केलो. पूण तें ताका कळ्ळें ना.पोस्टाचो छाप नियाळून पळयलो. थंयूय ताका कांयच अंदाज लागना जालो. कोणा दुस्मानान कसलो तरी राग काडला जावंक जाय. कितें करूं आनी कितें नाका अशें ताका जालें!

जरी देवाची पूजाअर्चा करपाची ताणें सोडून दिल्लें तरी परिवारांत देवाचेर पुराय विस्वास आनी ताच्या आदाराचो भरंवसो आसलो. तशें मनांतल्या मनांत ताकाय देवाची भिरांत आसली. तरी पत्र वाचून ताका अशें दिसलें की कोण्या अपहरण कर्त्यानूच ताका हें पत्र बरयलां. 'पयशे अमुक अमुक थळार पावय ना जाल्यार तुज्या पुताची गोमटी वयतली'. बरोच वेळ तो पत्र हेवटेन तेवटेन परतीत रावलो आनी मागीर नेट काडून ताणें थारायलें की हीं सगळीं फटींगपणां. पिंजून उडोवंक जाय ही हळशीक. हिम्मत करून तो कदेला वयल्यान उबो जालो पूण घम्म करून खिणातूच कदेलार परत बसलो. बायलेक भुरग्यांक बी कितेंय जालें जाल्यार?.. ह्या अस्कत विचारानूच ताका गळसणावन उडयलो. ताणें तें पत्र खोमसाच्या बोल्सांत घातलें. मात्सो भानार येतकूच ताका दिसलें की ऑफिसाचेंय इल्लें काम करपाक जाय. कसो तरी दीस ऑफिसांत काडून तो घरा परतलो.

घराकडेन व्हडलें चली फरीदा आनी बायल विडयो वळटालीं. गफूर भायन आपली बेचैनी लिपोवपाचो प्रयत्न केलो पूण वयले वयर. कांय वेळ खाटीर बसून रावलो. मागीर करीम भाईगेर गेलो. सलाम-दुवो जाले उपरांत बुद्धीबळाचो पट लागलो. गफूर भायन आपलो वजीर इचिरकाय नासतना उंटाच्या तोंडाक धल्लो. घडये पयले पावट आपूण हारलों हाचें दुःख जालें. हाचे वेल्यान करीम भायक दिसलें की खंय तरी , कितें तरी गडबड आसा. ताच्या आग्र्याक लागून गफूर भायन आपली लाचारी लिपोवपाचो यत्न करीत दुखेस्त भावान पत्राची सगळी काणी सांगून उडयली. करीम भाय सभावान गंभीर आसलो. ताणें पत्र आयकून घेतलें आनी सल्लो दिलो की पत्रां छापून घेवन वाटपूच बरोबर जातलें; ना जाल्यार खंयच्या संकश्टांत येवन पडत खुदाकूच खबर. तसो देव आपल्या खंयच्याच मनशाचें वायट केन्नाच करिना म्हणटकूच पत्र छापून घेवपांत्त कांयच वायट ना.

गफूर भाय घरा आयलो आनी तें पत्र ताणें कुराणाच्या पानां मदीं सांबाळून दवरलें. थोडो वेळ वयतकूच ताच्यांत मात्शी हिम्मत आयली म्हणून ताणें मनांतल्या मनांत थारावन उडयलें की सद्या तरी हें पत्र छापून उडोवपाचें ना, मागीर कितें जाता तें जाता. करीम भायच्या उलोवपांतलो कांय वांटो ताका आवडलेलो जसो - खुदा खंयच्याच मनशाचें केन्नाच वायट करिना, हो वांटो.

ही घडणूक जावन सुमार एक सप्तक वयता थंयच आसा. त्या पत्रांची गजाल ताच्या मनांतल्यान खंयचे खंय नाच्च जाल्ली. जीव पयलीं सारकोच रखडत वचपाक लागलो. सैमाच्या हवामानांत इल्लो इल्लो बदल जावंक लागलो. ऑक्टोबराचो म्हयनो. थंडी आपलो पेटारो इल्लो इल्लो उक्तो करूंक लागली. त्याच दिसांनी गफूर भायचो एकलो एकसुरो साहबजादो थंडेन सोंक सुंकूक लागलो. अशा वक्तार तांच्या कुटुंबाचे सवसकायेची जबाबदारी एका हकिमाच्या खांद्यार आसली. सलीम मियांक घेवन मरियम हकिमागेर गेली आनी वखदांच्यो पुडयो घेवन परतली. पूण एक दीस... दुसरो दीस... तिसरो... चौथो अशें करीत पुराय पांच दीस जाले. सलीमाक गूण पडलोच ना. थंडे वांगडाच ताका खां... खूं.. करपी खोंकलीय मारपाक लागलेली.

अशे अवस्थेंत रातीच्या निमण्या पारा जेन्ना सलीम खोंकलेचे व्हडले वसाडीन निन्नळ्ळो ते वेळार गफूर भायची न्हीद उडली. विचारल्यार ताका कळ्ळें की फाटल्या सात-आठ दिसासावन भुरग्याची अवस्था सामकी जाम आसा आनी हकिमाच्या वखदाक कांयच गूण ना. आसूं.. मात्सो थापटिल्या उपरांत सलीम मियां न्हिदलो पूण गफूर भाय दुबावाच्या चपक्याक सांपडलो. ताका दोन सप्तकां पयलीं मेळिल्ल्या त्या पत्राची याद जाली. गफूर भाय एक सादो बापूय आनी घोव आसलो. आनी सलीम ताचो एकलो एकसुरो पूत आसलो. रातीच्या उल्लेल्या वांट्यांत ताका न्हीद आयलीच ना. इतले मदीं ताणें आपल्याक बरोच समजायलो की हो सगळो योगायोग. खुदा आपल्या बंद्याचो असो बदलो घेना. पूण ताचे तकलेंतलो दुबाव ताका खावंक लागलो. जेन्ना ताका कसलो निर्णय करपाक जमना जालें तेन्ना ताणें मरियमाक सांगपाचें येवजिलें तशें हे बाबतींत आपले बेगमे कडेन उलोवपाची ताची इच्छा नासली पूण चिंत-अवस्थेंत ताका आनी दुसरो मार्गूय दिसनासलो. सकाळ जायना फुडें गफूर भायन थंडसाणेन त्या पत्राची खबर सांगली आनी हाकाच लागून बी.... अशें म्हणत वाक्य अर्दारूच सोडलें. बाकी मरियम हुशार आसली. हें आयकून चिंतेन भरली आनी रडपाक लागली. गफूर भायक तें आयकून आपूण गुन्यावकारी सो दिसलो. सगळी गजाल, पिकासांव आनी निराश चर्चे उपरांत मरियमाक दिसलें की उण्यांत उणीं पांचशें पत्रां छापून वांटपाक जाय... तशें पळोवंक गेलें जाल्यार आता मेरेन हें काम सोंपुकूच जाय आसलें: गडबडेन मरियमान हेंय सांगून उडयलें की विडयांच्या वळपांतल्यान तिणें पन्नास रूपया सांबाळून दवरल्यात ते ह्या उजू कामाक खर्चयल्ले बरे म्हणटकूच खुदा आमकां खूश करतलो आनी भुरग्यांची सवसकाय बरी दवरतलो. पन्नास रूपयांची खबर आयकून ताका सू जालें. ताका आजून दिसतालें की पत्राचें लचांड सोडून सलीम मियांक कोण्या बऱ्या दोतोराक दाखयल्लो बरो. निगम बरो दोतोर. सोड इल्ली फी चड घेता. पूण वखद रामबाण. थोडें भोव कोणायकडल्यान उधार घेवं येत आनी साठ-सत्तर रूपयां भितर सलीम सामको घटमूट जातलो. पूण दुबावाच्या दुश्ट चक्राक लागून गफूर भाय हे संबंदान सारकें

चिंतूय शकलो ना म्हण बेगमेकूय कांय सारकें सांगूंक शकलो ना.

हकीमाकडल्यान हाडलेल्यो सगळ्यो पुडयो एकेक करून खावयल्यो. पूण सांजचीं स जालीं तरी सलीमाची अवस्था सुधरली ना. गळ्यांतली खरखर आनी इल्ली वाडलेली. निमणें गफूर भायन ल्हवूच म्हटलें, 'म्हणटा जाल्यार निगमाक दाखोवन हाडटां. हांव मौलवी सायबा कडल्यान थोडे पयशेय उधार घेतां. इल्लें अशें तशें उलोवन तो पयशे दितलोच.' मरियमान जाप दिली,'म्हज्या शाहजाद्याक कांयच जावपाचें ना. तूं फकत हें पत्र छापून घे.' ताचे अम्मीजानीन म्हटलें, 'अल्लाह मियांचे इच्छेनूच दुयेंत जाला, पत्र छापतांच बरो जातलो.' घरच्या लोकांच्या ह्या उतरांनी गफूर भायक मात्शें बरें दिसलें. नाय म्हटल्यार आयज काल रीण मेळप म्हाकठीण गजाल आनी गरीबांक जाल्यार ही गजाल सामकी असंभव. ही गजाल एक गरीब आनी अडचल्लो मनीसूच बरे तरेन समजूंक शकता. गफूर भाय हें सगळें बरे भशेन जाणा जावंक शकतालो.

गफूर भाय प्रेसा वटेन वचपाक गेलो. वयतना मार्गार चिंतीत गेलो की पळय कशी अडचण आयल्या ती. परत चिंतलें, बरें आसा. हांवूय आतां हीं पत्रां अशा अशा लोकांक धाडटां की मजा येतली. पंतप्रधान, मुख्यमंत्री, सगळे खासदार , आमदार. मनांतल्या मनांत ताणें सगळ्यांचें लिस्ट केलें. हय, एक लेगीत पत्र गरीबाक म्हण वयचें ना. फकत पगार मेळ्ळ्यार पुरो.

प्रेसांत पत्रां तयार आसलीं. पंचेचाळीस रूपया दितना त्रास जाताले पूण आतां हाचे बगर आनीक उपाय नासलो. पत्रां घेवन घरा आयलो. पत्रां पळोवन अम्मीन आनी मरियमान सुटकेचे सुस्कार सोडले. एक पत्र काडून तें पयल्या पयलीं कुराणा मुखार



दवरून ताणीं दुवा मागली. गफूर भायन सलीम मियांच्या हड्ड्यार हात दवरलो जाल्यार भितर कोण तरी लाकूड कापपाचें मिशीन चलयता अशें ताका दिसलें. तो मनांतल्यान भियेलो. 'पेपर पळोवन येतां' अशें म्हणून तो घरांतल्यान भायर सरलो. आपूण ह्या बायलांच्या गजालींक कसो फसलो, म्हूण चिंतूक लागलो. कित्याक काय म्हण ही पत्राची गजाल हांवें बायलेक सांगली? हाचेंय ताका वायट दिसलें. बाजारांतल्यान वयतना एक नदर दोतर निगमाच्या कन्सल्टींग रूमार मारली. सदचे वरीच थंय आयजूय गर्दी आसली. मात्सो थारलो कांय सेकंड आनी रोकडोच हॉटेला वटेन फुडें सल्लो. हॉटेलांत वगीच पेपर हेवटेन तेवटेन परतूंक लागलो. सुमार पावूण वरा उपरांत धूव धांवत आयली. आनी धापेत धापेत तिणें सांगलें की सलीमाची अवस्था सामकी वायट जाल्या. ताका फाशणां मारता आनी हुस्कार घेतना ताका खुब्ब त्रास जाता. सगळो लोक रडटा. करीम चाचान सांगलें की बेग्गीन दोतोराक आपय. हें आयकून गफूर भाय अडचणेंत आयल्लो. ताणें हेंय चिंतलें ना की पयशे खंयच्यान दितलो वा कितलो अपमान भोगचो पडत आनी तो धांवत धांवत दोतोर निगमाचे कन्सल्टींग रूमार पावलो. हाता-पायां पडून ताका घरा हाडलो. रोकडेच पयशे दिवपाचें उतर दिलें.

रातचीं णव जावन गेल्लीं. घरांतले एकसुरे खाटीर सलीम पिनलेल्या बुर्नुसार न्हिदलेलो आनी मरियम बुर्नुसांत हात घालून सरसोंच्या तेलान ताची मालीश करताली. तिचे दोळे दुकांनी भल्लेले. दोतोरान सलीमाक स्टेथास्कोप लायलो आनी तकली सकल केली. दोतोरान ताच्या खांद्यार हात दवरून ल्हवूच इतलेंच म्हटलें, 'सॉरी गफूरसाब, डबल न्युमोनिया आसलो. वरभर पयलीं आपयल्लो जाल्यार कितेंय उपाय जातलो आसलो.'

सगळ्या घरान रडून आकांत केलो. गफूर भाय हुणकेत रडपाक लागलो आनी ताणें सलीमाच्या शरीराक घट्ट वेंग माल्ली. तेच वेळार रडत आड्डत मरियम रागान उठली आनी तिणें तो पत्रांचो गुठलो उबारून जळटे चुलींत शेंवटिलो. जिचेर वरभर पयलीं दाळ शिजताली आनी आतां मेरेन ती करपून तोपाक लागून जळून गेल्ली!!





– डॉ. खुर्शीद आलम
साहित्य अकादेमी, मुंबय



– रमेश भगवंत वेळुस्कार
पाळें, शिर्दोन.
मो. – ९४२०६८८४६१

# भाईन कोंकणीक उबंत उडयली!...

– दिलीप बोरकार



फेब्रुवारी अंक तटला. ३१ जानेवारीक तो तयार जावंकूच जाय. सांजची साडेसात वरांचेर मंगला एक्सप्रेस कोचीक वचपाक सुट्टली. दुसरे दिसा १ फेब्रुवारीक बिम्ब अंक एर्नाकुलम जावपी २६व्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या अधिवेशनात तो लोकां मुखार पावतलो. फाटलीं स वर्सां बिम्बाचो अंक म्हयन्याचे १ तारकेक म्हणटात तो वाचकां मुखार केन्ना पावलोना. हो पयलो म्हयनो ज्या म्हयन्याचे पयले तारकेर अंक तयार जाता.

प्रेसात धाडपाखातीर सगळीच धांवपळ. हांवूय फाटले पंदरा दीस बरो ना. तकली सोसू नज इतली फोडटा. न्हिदून रावल्यार बरें दिसता. अंकाची सगळी जबाबदारी कामिनी आनी श्वेताचेर आसा.

मर्दी मर्दी श्वेता सांगता, "सर भुरग्यांचें आंगण कमी पडटा."

म्हाका तीं पानां कमी करपाचीं नासतात. "फाटली पॅन्डींग फायल पळय. घे कितें आसा तें."

हांव श्वेताक आनी कामिनीक फर्मायतां. अंक प्रेसाक वचप म्हत्वाचें.

"सर, ताच्यो कविता आसात. अक्षर कळना ताच्यो."

"आगो सातोस्कार काय तेंडुलकार तें सांग मगो सराक."

कामिनी श्वेताचेर ताणशेता. श्वेताक अक्षर लागना अशें सातत्यान बिम्बा खातीर बरोवन धाडपी दोन लेखक आशिल्ले. एक माशेलांतलो सातोस्कार आनी दुसरो सत्तरी खोडयेचो भाई तेंडुलकार.

श्वेताचे नदरेन ते दोनूय लेखक. कितलें बरें बरयतात हाचे परस कितलें निवळ बरयतात हाचेर ताचें लक्ष. ताकाच तर तें टायप करचें पडटा. अक्षर जुळोवन अर्थ लावन बाबडें कंप्युटर बडयता. चड चुंको करीत जाल्यार हांव तापत म्हण भंय!

"सदानंद तेंडुलकाराच्यो कविता आसात." श्वेतान पेन्डींग आर्टीकलां म्हजे मुखार दवरलीं.

सदानंद तेंडुलकार म्हळ्यार आमचो भाई तेंडुलकार. बिम्ब सुरू जायत सावन सातत्यान आपल्यो कविता, लेख बिम्बा खातीर धाडपी. केन्नाय ते वटेन पासय मार, बिम्बा खातीर जायराती घेवया, वर्गणीदार करूया अशें सांगपी भाई तेंडुलकार. पयलीं हें शांती तेंडुलकार सांगतालें. वचप केन्ना जालें ना. भाईकूय येतां येतां म्हूण सांगून वचपाचो योग आयलोच ना. तींच दोगांय आमकां सोडून गेलीं. पयलीं शांती आनी आतां भाई.

दर म्हयन्याक बिम्बाखातीर भाईच्यो कविता आसताल्योच. भाईच्यो कविता नासतना भुरग्यांचें आंगण सजच नासलें. एकाच लेखकाचें, एका म्हयन्याक एका परस चड साहित्य घेवप ना अशें थारावन लेगीत आमकां भाई तेंडुलकारा बाबतीत आमचीं धोरणां आमकां सदळ करचीं पडटालीं. भुरग्यांच्या आंगणा खातीर धाडटनाच भाई प्रासंगीक लेखनूय करताले जें त्या म्हयन्याक मुदयेर थीक आसतालें आनी तें साहित्य घेतनाच भुरग्याचें आंगणय भाईच्याच कवितेन सजोवचें पडटालें. आज आमच्या पेन्डींग आर्टीकलानी वर्सभर पावतलें इतलें भाईचें साहित्य पडून आसा. इतलें भाईन बिम्बा खातीर बरोवन लेगीत आपलें एक पुस्तक काडुया अशें भाईन केन्ना म्हळें ना आनी कोंकणी अकादेमीचे खंयचे येवजणेंतूय आपली वर्णी लायली ना.

हांव जेन्ना कोंकणी चळवळींत भितर सरलों तेन्ना कोंकणीची चळवळ आयचे सारकी मिरोवपाची नाशिल्ली. तेन्ना कोंकणीवाद्यांक हो तो कोंकणीवादी म्हूण बोटांनी दाखयताले. कोंकणीवादीय उत्तर गोंयांत पावले म्हणटकच हड्डें भितर घेवन आपल्याकूच लिपोवपाचो यत्न करताले. दक्षिण गोंयांत पावतकच तांची मिरवणूक काडटाले जाल्यार उतर गोंयांत आयल्यार दोकेच मोडून घालतले अश्यो धमक्यो तांकां मेळटाल्यो. एक सभा घेतलो म्हळ्यार फातर खावपाची तयारी दवरची पडपाची. अश्या ह्या वातावरणांत उत्तर गोंयांत कोंकणीची चळवळ चलोवपी आनी तीय बी वाळपय-सत्तरी वाठारांत खोडयें ह्या गांवांत रावून म्हळ्यार भाई तेंडुलकार आनी ताची फामिल.

कोंकणी चळवळीन खूप फुडारी दिले. कोंकणी चळवळीचो म्हापुरूस कोण वो कोणाचें योगदान कितलें हाचेर मतभेद आसूं येतात. पूण कोंकणी चळवळ रूप धरताली तेन्ना विरोधकांच्या बालेकिल्ल्यांत आपली मठी उबारून रावपी आनी आपल्या एका हातात पास्त घेवन तें हड्ड्या कडेन दवरून ताठ मानेन कोंकणीवादी म्हण सरभोंवतणच्या वाठारांत भोवपी भाई तेंडुलकार म्हळ्यार कोंकणीतली एकटीच व्यक्ती, एकटोच कोंकणी मनीस.

भाईची आनी म्हजी वळख पंचात्तरांतली बी आसुये! ताची चली शांती. कविता बी करपी. आपल्या बापायवांगडाच

कोंकणीची चळवळ चलोवपी. तीं दोगांय आनी केन्ना केन्नाय वांगडा आवयूय आसताली, गोंयभर जावपी कोंकणीच्या कार्यावळींक येवपी आनी सत्तरी वाळपयूच न्हय तर दिवचले लेगीत जावपी कोंकणी कार्यावळीचें आयोजन भाईच्याच भुजार आसतालें. एकदां ती जापसालकी भाईन घेतली कीं ती यशस्वी जालीच म्हूण समज. मागीर तें संमेलन आसूं, जाहीर सभा आसूं ना तर ललितका सारकी साहित्यिक कार्यावळ आसूं! कोणूच लोक ना मरे! अशें मराठीवाद्यानी म्हणपासारकी एकूय संद भाईन आयोजना वेळार दिली ना.

सगळ्यात मजा येताली ती भाईच्या घराकडेन कितेंय आसतालें तेन्ना. ताच्या घराकडची कार्यावळ दोन दिसांची. भाईल्या घरांत एक रात काडले बगर थंय कार्यावळ जाली अशें दिसच नाशिल्लें. शेनवारा खोडयां भाईल्या घरा वचप. ती रात थंय काडप आनी आयतरा सांजे घरा परतप तृप्त जावन. आनी लोक कितले? एक-दोन वो पांच - धा न्हय. शिबीर म्हणटकच शंबरेक लोक उण्यात उणे. तांची रावपाची, जेवपाची सगळी वेवस्ता भाईगेर. घराभायर आंगण बरें पेटून, शेण काडून, सारोवन तुकतुकीत केल्लें. थंय माडयो उबारून ताचेर मल्लां घालून केल्लो तो माटोव. त्या माटवांतूच चर्चा, माटवांतूच जेवण आनी त्या माटवांतूच रातची गुठली मारप! एप्रील-माया म्हयन्यात खोडयें सत्तरी सारक्या त्या जंगलांतले ते दोन दीस आनी एक रात म्हळ्यार... व्वा! खंयच्याय साहित्यिक, कवी मनाच्या मनशाक तो एक सर्गूच आसतालो.

जेवणा-खाणाचो आक्त तर त्या परस अप्रूप! भाईची घरकान्न, खरें म्हळ्यार ती गांवची पंच वो सरपंच.. तिणें सगळो आक्त आपल्यार घेवप. सगळ्या लोकांक आपणें रांदून वाडप. जेवण तशें सादेय न्हय. एका लग्नाक जितले जिन्नस आसतात तितलेय आनी मागीर तिणें आनी भाईन आग्रो करून करून तें वाडप. शांती आनी संजय हाणीय उमेदीन घरभर वावरप. खरेंच व्हडलो उत्सव तो! कोंकणी चळवळीचें अधिश्ठान असल्या लोकांचे शुध्द त्यागभावनेक लागून घटमूठ जावंक पावलें.

भाई आज आमचे मदीं नांत. हांव जेन्ना गोंय वैजकी म्हाविद्यालयांत पडून आशिल्लों तेन्नाच भाई गेल्ल्याची खबर कळ्ळी. निमणी नदर म्हूण घालप आसता. तीय शक्य जाली ना. शांती गेलें म्हणपाचीय खबर गोंयांत पावलों तेन्ना अशीच कोणे तरी सांगिल्ली. आपलीं घरचीं मनशां वतात आनी तांचें निमणें दर्शनय घडना ही खूप खंतीची गजाल. मनाक लागपा सारकी.

भाईन बिम्बा खातीर खूब बरयलें. जें कितें छापूं नासतना उरलां तें ह्या फुडें दर म्हयन्याक येतलें. आनी तेंच सगळें संकलन करून एक पुस्तकय काडचें अशें दिसता. भाईक बिम्ब परिवाराची हीच एक श्रध्दांजली म्हूण!





## आमकां येता तुजी याद

दिल्ली गेल्ले कडेन म्हाकां
साळोरेचो आयलो उलो
हुंडके काडीत लागली म्हणूंक
भाई गेलो भाई गेलो

झाडां, पेडां, वालीन म्हाकां
सांगलें कानांत एक गुपीत
कोंकणी माणकुल्यांच्या खातीर
भाईन केलां मस्त कवीत

भिशू, बिलू, काको बिको
बसले करून बाबडी नुरा
भाईच्या रे मोगाची ही
आसली आपली वेगळी तरा

सत्तरेचें उतर भाईन
सवन गोंयांत पावयलें
माणकुल्यांच्या जाणकुल्यांच्या
मना मनात खिरयलें

कोंकणी कवितेक भाईन
काय बरी शांती दिली
कोण्या मिण्या दुस्मानान
जाण कोण कित्याक व्हेली

पयस रानातुल्यान कोगूळ
घालता पळय सादार साद
लक्तुबायेन म्हण्टा भाईक
आमकां येता तुजी याद
आमकां येता तुजी याद



– **रमेश भगवंत वेलुस्कार**
पाळें, शिर्दोन.
मो. – ९४२०६८८४६१

# फळवड सांवर



**सां**वरीचीं झाडां बोडकीं जाल्यांत. तांच्या आंगावयलो कांटो नेटान फुलून आयला आनी आंगूय तेजवंत सालीन रसरसूंक लागलां. पूण ताळयेन ताळी पळयात. फुलानी गचच भरून गेल्या. तांबड्या भडंग फुलांनी कचकचल्या. निळ्याशार मळबाच्या आंगार हें फुलांनी लब्धल्लें सांवरीचें झाड, कांटेरी झाड चडूच सुंदर दिसूंक लागता. गांवांनी आनी दोंगरां मळांनी तें अशें फुलून उबें रावता आनी वसंताचें स्वागत करता.

हें झाड म्हाकां व्रतीशें दिसता. आमच्या गोंयांत आनी संवसारांत जायत्या सुवातानी मनशां आपल्या नागडेपणाचो सत्कार करतना पळोवंक मेळटा. कांय कडें लोक आपल्या शेताची रोंपणी ओंपणी नागड्यानी करतात. कांयकडें तर ही ओंपणी घोव बायल सूतमूक्त जावन करता. आमच्या गोंयांतूय असलो वस्त्रमुक्त वृत्तीचो आस्पाव आसा. गोंयचे लोक गणपतीक आंगवण करता नागडे फुगडेची. ही चड करून भुरगें जांवची आंगवण बायलेनूच केल्ली आसता आनी भुरगें जाल्यार गणपती उत्सवावेळार म्हटल्यार चवथी दिसांनी ही आंगवण फारीक करतात. ही आंगवण एकटोच मनीस करता आसल्यान दारां बिरां बंद करून ही फुगडी घालतात. ही फुगडी लोकांक पळोवंक दिनात. बाबड्या गणपतीक तेन्ना कितें दिसता आसतलें काय, असो एक प्रश्न म्हज्या एका तरणाट्या इश्टान म्हाका केल्लो. तें आसूं. तर सावरीचें झाडूय आपल्या आंगावयलीं सगळीं पानां देंवोवन सामकें नागडें जाता आनी मनाच्या तळासावन तें फुलून येता वसंताच्या स्वागताक. कांय दिसांनी ताच्या आंगार ताळये ताळयेर तांबडीच्च फुलां आकारत येतात. आनी सांवर हें व्रत नेमान न चुकतां करता. आनी ताचें हें व्रत तें मनशांवरी दार बंद करिना. तें तें मुक्त जावन करता. ताचें मुक्त व्रत आमच्या मनान न चुकतां करता आनी ताचें हें व्रत तें मनशांवरी दारबंद करिना. तें तें मुक्त जावन करता. ताचें मुक्त व्रत आमच्या मनात कसलेंच किल्मिश निर्माण करिना. कसलोच दुभाव, गैर समज, हीन प्रवृत्ती निर्माण करिना. लज दिसपा सारकीय गजाल थंय आसना. मनशाचें आनी झाडाचें कदीमकाळासावन एक गडद अशें नातें आसा. ह्या नात्याची जाणीव जरूर जाता. पूण मनशांचो नागडो नाच पळोवन कांय मनशांक तरातरांची मानसीक अशांती भोगता अशें कांय जाण सांगतात. काळांतरान ह्या मनशांचेर कितलीं सुतां घुस्पावन दवल्ल्यांत हाचीच जाणीव हांगा चड प्रकर्शान जाणवता, तेच बराबर ताणी आपली निर्मळ नदर शेणोवन उडयल्या हेंय जाणवता.

फेब्रेर मार्चांत सांवर व्रतस्थ जायत वयता आनी मार्च येतां येतां म्हटल्यार पांचवीच बोंडां लांबयत ती दनपारचो हून वारो आंगार खेळयतना दिसता. एक पावट अशी सांवर पळयतना म्हाकां बांयचेर उदक व्हरपाक आयिल्ले एके जुवान अस्तुरेची याद जाली.

ही अस्तुरी दीस भर दोंगरार काम करून आयल्ली. घरा आपल्या मांयन तिका उदक हाडपाक बांयचेर धाडली. हांव जनेलांत बसून कितें तरी वाचतालों. दीस उबाळांचे. गरम जातालेंच. ती अस्तुरी आयली आनी तिणें कळसो भेणावयल्यान बांयचेर दवल्लो. आवाज जालो म्हण हांवें पुस्तकांतल्यान नदर काडून आवाजावटेन पळयलें. पळय जाल्यार अस्तुरसुंदरी 'कितें उजो जाता' म्हण आपली चोळी आंगावयल्यान देंवयताली. चोळी काडपाची तिची ती नृत्यवती हालचाल खूब्ब ओडलायणी आसली. ती तशी देठली बांदपी आसली. पूण तिचें चोळये पोंदचें उजळ आंग

फांतोडेवरी दिप्तिवंत दिसलें. इतल्यांत वारो चळ्ळो ना जाल्यारूच नवल. शितळशा वाऱ्याचें ल्हार. आयलेंच. आह.. अशें म्हणत तिणें आपल्या देठलेच्या बंद पालवाक हात घालून तो मात्सो सदळ केलो आनी वाऱ्याक आपल्या मेकळ्या आंगार मनमेकळो खेळपाक सदळसाण दिली. हांव म्हज्या जनेलांत बसून तिका पळयतां हे गजालीची नात लेगीत नासली. ती सांवरूय असोच तो शेळवत वारो भोगता अशें दिसतालें आनी कोण तिका बारीकसाणेन पळयता हाचें तिका कांय पडलेलें नासलें.

खरें म्हळ्यार आपूण कितेंय करता आसतना दुसरो आपल्याक पळयता असो भास जाता तेन्ना तें काम एक तर सारकें जायना वा दुसऱ्याचे नदरेचो परिणाम जावन तें कित्या कितें जाता. ताची पत घसरता. आनी आयच्या आमच्या जगपाची गत तर दुसऱ्या खातीर चड जगप अशी जाल्ल्यान चडान चड गजालींचो स्तर घुस्पला. पूण ते अस्तुरेवरींच सांवरीकूय थंय आपल्याक कोण पळयता हाचें कांयच पडलेलें नासलें आनी तिची सैमाकडली ही निस्पृहता म्हाकां खूब्ब मानवली.

मार्च सोंपत आयलो आनी उबाळांच्या सूर्यमारान सांवरीची बोंडां इल्लीं इल्लीं सुकोवन हाडलीं. बोंडावयली घनगच्च पांचवसाण सूर्यवतांत अरसून वचून बोंडाचें आंग घटघट्ट जायत गेलें. धवसार, निळसार सुकसार रंग बोंडार चडत रावलो. बोंडात कापूस पसयत रावलो. बोंडाचेर प्रक्रिया करून तातूंत तयार जाल्लें रसायण कापसांत रूपांतरीत करपाखातीर ताचेर किर्णमारो करप गरजेचें आसता हें सांवरीक बेस बरें समजता आसतलें म्हणुनूच ती आपल्या आंगावयलें पानान पान गळयता. सूर्य आपलें काम करता. बोंड आपलें काम करता. खंयच कसलीच हयगय ना. वाज ना. विसर ना. आपूण हें सुर्यमालेचो हिरो म्हणपाचो तुरो सुर्यांत दिसना तशेंच आपणेच निर्मिल्ल्या एका गिऱ्यावयल्या झाडांत उपरासलेल्या बोंडांत आपल्याक आपल्या किर्णांचो मारो करून तातूंत कापूस पिकोवपाचें काम करपाक हातूंत ताका कंसलेंच उणाकपण जाणवना. आनी कैक वर्सां सावन हें काम आपूण करीत आयलां म्हण हड्डें मुखार काडून मिरोवपाचें वा गर्वान भरून वचप असोय ताचो स्वभाव दिसना. सगळें सैमूच आमकां ही सहजताय सोपेपणान शिकयता. पूण सहजतायेन समजप आनी शिकप हाचेर मनशाचो व्हडलोसो विस्वास ना शें दिसता. ताका सगळें आपूण कश्टान मेळयतां हें मिरोवपाची आनी तें झांकत रावपाची जड जज्जड आवतीकाय आपणावप ही ताणें आपली संस्कृताय करून दवल्ल्या आनी सैमान सगळें मोन्यानी केलां. तें केन्ना झांकना. ताणें बोंडार अशे किर्ण फणफण धाडले की ताचो एकेक फांक ल्हवू ल्हवू उसवूंक लागली. शुभ्र कापसाचें मात मात दर्शन जाता थंयच आसा, कांय दिसांनीं तो त्या बोंडांतलो कापूस पुरायेन भायर येता. शुभ्रत्वाचे निर्मळ गुळे पळोवन शरदांतलीं धवीं फुल्ल कुपां मळब हे सांवरीकडल्यानूच बी घेना मूं असो एक विचार म्हाकां आंगभर सरसरावन गेलो.

हीं बोंडां फुलता. कापूस सुकता आनी वाऱ्याच्या नादान इल्लो इल्लो फापसत बोंड सोडून उडूंक लागता. कांय सुवातानी बरींच सांवरीचीं झाडां आसता. आनी तांच्या सुकलेल्या बोंडांतल्यान कापूस वाऱ्या नेटार उडूंक लागता. मात्शें पयशिल्ल्यान हें दृश्य पळोवपाक बर्फाचो पावस झडटा काय कितें अशें दिसता. केन्ना केन्नाय हो कापूस उडत उडत पयस पयस वचपाक लागता. सांवरीच्या मुळांनी तर कापुसच कापूस जाता. केन्ना म्हातारी जावन हो कापूस आमच्या घरांनी उडत उडत भितर सरता. मागीर भुरगीं 'म्हातारी, म्हातारी' करीत त्या उडट्या कापसाच्या धाकटुल्या सामको फोफश्या गुळयाक धरपाक लागतात. केन्ना तो तांच्या हाताक लागता तर केन्ना तांचे पसून वयर वयर उडत तो वयता. तो हाताक लागतलो अशें दिससर तीं ताच्या फाटल्यान वयता आनी हाताक मेळना जावन निर्शेवन परततात. पूण जेन्ना तो हाताक मेळटा तेन्ना खोशयेचे उर्बेन भरून जैतवंत जावन येतात. म्हजे भुरगेपणांत सांवरीन म्हाका असो खूब खेळयला. म्हज्या एका इश्टान म्हाकां ह्या रुखाच्या लांकडापसून स्टँप करपाक शिकयलो. मागीर हांवें म्हजें नांव नागरी लिपींत तशें रोमन लिपींत कोरांथून काडलें आनी म्हज्या नांवाचो एक स्टँप हांवें केलो. सांवर हें अशें एकूच झाड जाणे आपल्या आंगार म्हजें नांव कोरांथून घेतलां आनी तेंय बी म्हजेच कडल्यान.

सांवरीच्या आंगार कांटे आसतात. फूल तांबडें आनी घट्ट बोंड आनी भितर मोव कापूस. मनीस हरशीं जायत्या झाडांचीं फुलां खाता. रूचीन खाता हें तुमीय जाणात. आमकां केळीच्या फुलाचें कितें अप्रूप तें तुमी जाणाच. म्हसकाचीं फुलां आनी जायतीं ; पूण सांवरीचीं फुलां मनशां खायनात. म्हजे एके इश्टीणीक हीं फुलां खावंक आवडटालीं. तिचें नांव सुमती. हांवें तिचे खातीर हीं फुलां एकठांय करून हाडल्यां वा तिकाच झाडां लागीं व्हरून तीं खावयल्यां. सुमतीक तुमी वळखनात हें हांव जाणा. सुमती हें आमचे गायचें नांव. तिका चरोवंक हाडप व्हरप हें काम म्हाका दिल्लें. शाळा जाल्या उपरांत हांव एक वर देडवर तिका भायर चरूंक व्हरतालों. तिका हीं फुलां खावंक आवडटालीं. तिचे लगाडीक एक दीस म्हाकाय दिसलें की हें फूल चाखून पळोवंचें. हांवें एका फुलाचे पाकळेचो एक इल्लोसो कुडको काडलो आनी तोंडांत घातलो. म्हाका तें रूचीक लागलें ना. पूण सुमती हें फूल रूचीन खाता तें पळोवन जायते पावट म्हाका हें फूल खावपाची रूच आयल्या. आनी म्हाका प्रस्न पडला की रूच येवप आनी बरें लागप हांची सांगड खऱ्यांनीच आसा काय कितें?

आपल्या आंगार कांटे दवरपी हें झाड दुसऱ्यांच्या आंगाक मोवसाण मेळची

म्हण कापूस जावन कश्टता तें पळयल्यार ताचे मानस कितलें मोठें तें कळटा. ते खातीर तें अशीं लोडां, गादयो हांचें रूप घेता आनी वर्सां संकीनी मनशांची सेवा करता.

आमच्या गांवच्या परिसरांत एक सुवात आसा. हे सुवातेचो संबंद भुरग्या कडेन जाण्ट्यांकडेन, शेताकडेन येता. थंय फुटबॉल मैदान आसा. गोंयांतले फामाद खेळगडे ह्या मैदानार आपलें कर्तुब दाखोवन गेल्यात. जायत्या शाळांचे स्पोर्टस् हांगा जातात, जाल्यात. ते निमतान मंत्री, मुख्यमंत्री आनी गवर्नर लेगीत हे सुवातेर येवन गेल्यात. अशी ही सुवात हजारांनी मनशांच्या काळजांत घर करून रावल्या. कितें आसतलें नांव हे सुवातेचें? ह्या नांवां वयल्यान गोंयच्या मनशाचें सैमप्रेम आनी वृक्षप्रेम कळटा. हे सुवातेचें नांव सांवरीकडे. ताका हे खातीर झाडां आवडटा आनी तींच नांवां तो सुवातांक दवरता. माडांनी, काजुकडे, जांबळीकडे, सुरंगीकडे.



एका वर्सा हांव फेब्रेराच्या म्हयन्यांत कोल्हापुराक गेलों. म्हज्या वांगडा आनीकूय कांय लोक आसलो. प्रवास मात्सो वेगळेच तरेचो आसलो. वेगळो म्हणपाचें कारण पयलीं मिरज मेरेन वचप आनी मागीर कोल्हापुरा येवप असो बशिंतल्यान वचपाचो कार्यक्रम. आमी सकाळचो धा साडे धांक पणजेच्या प्रासा वयल्यान सुरू केलो आनी गोंय ते मिरज पावसर हजारांनी नागड्या पूण फुल्लेल्या प्रसन्न सांवरीचें दर्शन घडत रावलें. सुकत वयतले रानवटींत पर्णमुक्त फुलवड सांवर आनी तीय बी मळबा आंगाची फाटभूंय घेवन इतली सुंदर दिसताली की म्हज्या ह्या प्रवासांत सैमान म्हाका भेटयल्ली अद्‌भूत आनंद संद आसली. हें म्हाका मेळ्ळेलें कचकचीत सैमधन हांवें म्हज्या काळीज करंडांत सामकें सुरक्षीत दवल्लां जें म्हाका जाय तेन्ना उकतें करून पळयता.

ही गजाल ते वेळार हांवें म्हज्या वांगड यात्रींक म्हटली पूण ह्या कांट्याच्या झाडार कोणाचीच नदर धल्ली ना. म्हाका तशें वायट दिसलें ना कारण तेंच तर म्हज्या आनंदाचें धन आसलें.

भर दनपारच्या तळपतल्या वतांत वसंताच्या आगमनाची अशी अपर्णा.. वृतस्थ अपर्णा जावन वाट पळोवपी सांवर म्हज्या काळजांत सांसणाची वस्तेक येवन रावली. ह्या सांवर भोगाचे अवस्थेंत एक दीस म्हाका जाणवलें की खरवीर्य सूर्य लेगीत सांवर फुलवड पळयतां पळयतां आपल्या वताची खरसाणूच विसल्लो.

**सांवर सकमार फुलार पळयली सुर्यान**
**न्हिवत गेली थंय रे ताच्या वताची खरसाण**

ही सांवरीवेली म्हजी कविता पूर्ण काय अपूर्ण हें म्हाका अजून कळूंक ना. म्हाका हे कवितेंतल्यान जाणवता ती सूर्यहार. ही सूर्यहार सकारात्म काय नकारात्मक तेंय म्हाका कळना. खरसाण हो सूर्याचो धर्म धल्यार ताका धर्मापसून च्यूत करपी घटना ही सुर्याचे नदरेन नकारात्मक थरूं येता. पूण हें सगळें चिंतप आमचें. सूर्याक कितें दिसता आसतलें काय? दिसांसंकीची खरसाण आपल्या आंगार माळपाची आग्रही अवस्थेंतल्यान शितळसाणेचे परिस्थितींत ताका पावोवपी सांवर ही ताचे नदरेन ताची मुक्तताय आसूं येता, आनी म्हणून ती भौ सकारात्मक घटणा आसूं येता. आसूं हें सगळें. म्हज्या सूर्याक म्हजी सांवर दिता तें जाणून म्हजे सांवरभोग विस्तृत जायत वयता अशें म्हाका दिसता. उरतां उल्ली गजाल हे कवितेच्या पुर्णत्वाची. एक दीस चिंत्ता चिंत्ता सूर्यच म्हाका म्हणपाक लागलो, पळय हांव भांगर म्हटल्यार हिरण्य. म्हाका हिरण्यगर्भ म्हणटात आनी भांगर आनी भांगराचो कुडको हातूंत कांयच फरक आसना. पळय तूं पुर्णांतल्यान अपूर्ण कुशीक काडूंक सोदता. पूण पुर्णांतल्यान अपूर्ण केन्नाच वेगळें काडूंक मेळना कारण पुर्णांतल्यान फकत पूर्णच वेगळें काडूं येता. अपूर्ण, मनीस तयार करता आनी मागीर तो तें पूर्णत्वाक व्हरपाचो एक अखंड उत्सवूच सुरू करता. म्हजे सांवर भोग.... सूर्य म्हणटा.. पळय तुजे सांवरभोग आनी म्हजे सांवर भोग आतां वेगळे उल्ले ना.

म्हज्या सांवरभोगांनी हांव गुल्ल आसतां. हांव म्हाका दिसच ना. दिसता त फकत मुमरख्यांनी हांसत वचपी भांगरवीर्य चंडांश.

आतां आनी आनी कितें सांगूं? म्हज्या सांवर भोगांची ही सूर्यदेग.





**– रमेश भगवंत वेळुस्कार**
पाळें, शिर्दोन.
मो. – ९४२०६८८४६१

# रक्तदाब / ब्लड प्रेशर - I

मनशाच्या आंगांत रगत घोळत आसता. हें रगत शिरांनी / रक्तवाहिनींत (Blood Vessels) घोळत आसता. हें रगत घोळत आसतना ते शिरांच्या काटांचेर (walls of bloodvessels) एक दाब (force) घालता. ह्या दाबाक ब्लड प्रेशर - रक्तदान म्हणटात. हें ब्लड प्रेशर जेन्ना वाडटा तेन्ना ताका हायपरटेन्शन जालां अशें म्हणटात.

**हायपरटेन्शन जावपाचीं कारणां कितें?**

१) प्रायमरी हायपरटेन्शन / एसेनशयल हायपरटेन्शन (Primary hypertention/ Essential hypertention) जवळ जवळ ९०-९५ % लोकांक हें कशें आनी कित्याक लागून जालें तें अजून समजून येवंक ना. (No identifiable Cause) ह्या लोकांचें ब्लड प्रेशर हळू हळू खूप वर्सां वाडटा.

२) सेकन्डरी (Secondary) हायपरटेन्शन- जवळ जवळ ५-१० % लोकांचे ब्लड प्रेशर कसल्या तरी कारणांक लागून अकस्मात वाडटा - मुत्रपींडाचें दुयेंस (Kidney abnormalities) काळजाचें दुयेंस (Cardiac defects) ॲन्ड्रीनल ग्लेंड ट्यूमर, खूप वर्सां एके तरेची वखदां घेतल्यार. (सगळींच न्हय)

**हायपरटेन्शन जाल्यार कितें जाता?**

१) थोड्या लोकांक खूप तेप ब्लड प्रेशर वाडलेलें आसता, पूण तांकां कसलींच लक्षणां नासतात आनी तीं सामकीं बरीं आसतात.

२) जेन्ना ब्लड प्रेशर वाडटा, तेन्ना मनशाची तकली उसळूंक लागता, घुवळ येता, गिरगिरता, दोळ्यांकडे काळोख येता, नाकांतल्यान रक्त येता.

**हायपरटेन्शन जावपाचीं धोक्याचीं कारणां कितें? (Risk Factors)**

हीं दोन तरेचीं आसतात.

१) जांचेर आपलो ताबो आसना.

२) जांचेर आमी स्वता ताबो दवरूं शकता.

**जांचेर आपलो ताबो आसना.**

- वय वाडटा तशें हायपरटेन्शन जावपाची शक्यता चड आसता.

- घराण्यांनी - कुटुंबाच्या कोणायकूय जर हें दुयेंस आसत जाल्यार तें तांच्या घराण्यांत जांव येता.

**जांचेर आमी ताबो दवरूं शकता**

- वजन वाडपाक दिवप ना, वा तें चड आसल्यार कमी करपाचो प्रयत्न करप.

- मनशान व्यायाम / चलप गरजेचें.

- सोरो पिवपाक फावना.

- तंबाखू, विडी, सिगरेट ओडपाक जायना.

- आहारांत मीठ कमी प्रमाणांत खावपाचें.

- मनशान चड ताण (Stress) घेवपाक जायना.

मनशाक जर दुसरीं कसलींय दुयेसां आसत जशी की दियाबेत, मुत्रपिंडाचें दुयेंस, हाय कॉलेस्ट्रोल, जाल्यार मनशाचें ब्लड प्रेशर वाडपाची शक्यता चड आसता.

हायपरटेन्शन चडशें जाण्ट्यांकूच जाता. पूण हालीं तें ल्हान भुरग्यांक सुध्दां जाल्लें दिसता, कारण भुरग्यांक व्यायाम चड जायना, तशेंच तांचो आहार वेवस्तीत नासता.

**ब्लड प्रेशर मेजपाचे आनी ताचे चार वेग-वेगळे विभाग करतात.**

१. नॉर्मल ब्लड प्रेशर - जर ब्लड प्रेशर १२०/८० mmHg आसत किंवा हाच्या परस कमी आसत जाल्यार ते नॉर्मल आसा अशें म्हणटात -

२. प्री-हायपरटेन्शन - जर ब्लड प्रेशर १२०/८० mmHg ते १३९/८९ mmHg पर्यंत आसत जाल्यार ताका प्री हायपरटेन्शन म्हणटात. प्री-हायपरटेन्शन हें हळू-हळू वाडूं शकता आनी ३-४ वर्सां भीतर हे प्री-हायपरटेन्शन वाडून हायपरटेन्शन जांव येता.

**३. स्टेज १ हायपरटेन्शन** - जर तर प्रेशर १४०/९० mmHg ते १५९/९९ mmHg आसत जाल्यार ताका स्टेज १ हायपरटेन्शन म्हणटात.

**४. स्टेज २ हायपरटेन्शन** - जेन्ना ब्लड प्रेशर १६०/१०० mmHgच्या वयर चडटा जाल्यार ताका स्टेज २ हायपरटेन्शन म्हणटात.

जर तर पयल्याच वेळा ब्लड प्रेशर तपासून तें मात्शें चड मेळत जाल्यार त्या मनशाक हायपरटेन्शन आसा अशें रोकडेंच म्हणचें न्हय. कारण ब्लड प्रेशर वयर-सकल जायत आसता. म्हूण ब्लड प्रेशर जर दोन-तीन वेग-वेगळ्या दिसा/वेळार तपासून चड मेळत जाल्यार ताका हायपरटेन्शन जालां अशें म्हणू येता आनी रोकडोच दोतोराचो सल्लो घेवन ताचेर योग्य उपचार घेवपाक जाय.





- डॉ. वंदना धुमे
९८२२५८५२८५

# मार्च २००८ चें राशी भविश्य

– ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे




पयली पंद्रस मनाक शांतिकाय दिवपी आसली तरी दुसरे पद्रशेंत आर्थिक प्रस्न सतायतले. तांचेर मार्ग काडटलो जाल्यार जाण्टेल्यांचो पालव घेवप गरजेचें. घरांत ल्हान ल्हान वाद निर्माण जावपाची शक्यताय आसा. सयम बाळगुपाची गरज आसा.




नवे नवे कंत्राद मेळपाचो हो म्हयनो. पूण तातुंतल्यान मना सारको लाब जातलो अशी अपेक्षा धरपांत अर्थ ना. कलाकार, खेळगडे हांका मानसन्मान सभवता. कुटुंबांत किरकोळ मतभेद जावं येतात. उद्योगांत नवी संधी मेळटली पूण गुंतवणूकींत शादुरताय बाळगुची.




आयिल्ल्या अडचणींक धिरान तोंड दिवंक यशस्वी थारतले. दुसरी पंद्रस उदरगत घडोवन हाडटली. मोगा सारख्या प्रकरणांत झगडीं उप्रासतलीं. वागप आनी चलप ह्यो दोनीय गजालींकडेन ताळमेळ दवरीत जाल्यार सगळें सुरळीत जातलें. प्रवासांत फायदो सभवता.




चड व्हड साहस करपाचे भानगडींत ह्या म्हयन्यांत पडूं नाकात. लुसकाण जावपाची शक्यताय आसा. भलायकेचे प्रस्न जरी उप्रासचेले नासले तरी आहाराचेर नियंत्रण दवरचें. कुटुंबातल्या लोकांचे फाटबळ आशिल्ल्यान मनाक उभारी मेळटली. म्हत्वाचो पत्रवेव्हार जातलो. नव्यो येवजण्यो चालीक लागतल्यो.




खंयचोय निर्णय घाई गडबडीन घेवंचो न्हय. समजिकायेन घेतल्यार प्रस्न सुटावे जातले. खालतेपण घेवपाचें टाळचें. दोळ्यांचें दुयेंस उप्रासतलें. कुटुंबीक भलायकेचे नदरेन म्हयनो भौच म्हत्वाचो. वैजकी उपचार करूंक कळाव केल्यार मोठ्यार पडूं येता.




नशीबाचो सांगात तुमी येवजितात तसो मेळटलोच अशें ना. तेन्ना गरजे भायर साहस करूंक वचचें न्हय. वेव्हारांत आग्रही धोरण अवलंब करपाची गरज ना. घरांत खोसयेच्यो गजाली घडटल्यो. कोणाक दुखत अशे तरेन वागचें न्हय.




वेवसायांत नदरेक भरपा सारकी सुदारणा जातली. घरांतल्या लोकांक लागून थोडो मनस्ताप भोगतलो. भुरगे बाळा कडेन लक्ष दिवचें पडटलें. रासवळ मळार वावुरचें पडटलें. नव्या वेवसायाक हात घालपाचो निर्णय सद्या तरी कडेक दवरचो. आर्थिक प्रस्ना बाबतींत उशीर करप परवडपाचें ना.




मन संशयी जाल्ल्यान गरजे भायर मनस्ताप भोगतले. सरकारी वेव्हारांत अपेक्षे परस चड फायदो मेळटलो. मेळिल्ले संदींचो लाव घेतल्यार भरपूर फायदो सभवता. आपलें तेंच खरें मानपाचो सभाव कुशीक दवरप फायद्याचें.




सत्याक मरण नासता म्हणटात ताचो अणभव येतलो. विरोधकांचे डावपेच तांचेरूच परतून घालपांत यशस्वी थारतले. घरांत वाद घालप टाळचें. अचानक धनलाभाच्यो घडणुको ह्या म्हयन्यांत घडटल्यो. तुमचे अपेक्षेपरस चड धनलाभ जाल्यार उचबळ जावचें न्हय. उत्साह वाडोवचो.




हातांत घेतिल्ले प्रकल्प पुराय करपा खातीर ह्या म्हयन्यांत चड परिश्रम घेवंचे पडटले. फुडाराच्यो गजाली तकलेंत घेवन नियोजन करीत जाल्यार फायद्याचें थारतलें. सुखदुख हो जिवनाचो भाग हें मतींत धरचें. हो म्हयनो खर्चाचो हाचें भान दवरचें स्वताच्या कामाकडेन लक्ष केंद्रीत करचें. वेव्हार करताना सांबाळचें.




जे हेरांकडेन तिरसुवादपणान वागतात ते तुमचेकडेन बरे तरेन वागतले. घरच्यो समस्या पयसावतल्यो. आर्थिक प्राप्ती समाधानकारक आसतली. कांय घडणुको अकस्मात घडल्यो तरी चिंता हुसको करपाची गरज ना. विचार करून उलोवपाचें पथ्य पाळचें.




तुमची कल्पकताय आनी हुशारकाय. हांच्या नाड्यार तुमी सगळीं कामां ज्युस्त ज्युस्त करतले. दायजान अकस्मात धनलाभ जातलो. सोयऱ्या कडले फाटीं इबाडिल्ले संबंद सुदारतले. खर्च थोडो वाडटलो. घरच्या देवसपणाक लागून मुक्त हातानी खर्च करचो पडटलो.

**लग्नाचे म्हूर्त :** १(१२.४६,२०.०३), २(७.५८,१०.२२), ३(२०.५५,२३.१५), ४(७.५०,१०.०३,१२.४६), ९(९.४३,१२.४४,२०.५५), १०(८.५९,१२.४४), १४(१०.३५,२०.५९), १९(९.१५,१०.३६,१०.४४,१२.४२), २३(८.५९,१०.२८,१२.४१), २४(१२.४०), २६(१०.३७, २०.०२), २७ (१०.११, १२.३९, १८.३८, १९.५०), ३१(८.१७,९.५७,१८.१८,२१.२४)

# ‘विद्यार्थ्यां भितर ऊंच हावेस जागोवंक आमी उणीं पडटात.’



हेरांक जें कश्टान वा म्हणुया केन्नाय अपघातान मेळटा तें म्हाका सहज- बऱ्या नशिबान म्हणटात तशें - मेळ्ळें. रवीन्द्रबाबान - तातान- म्हजे खातीर वेळ दिलो. - quality time. म्हज्या भुरगेपणांत तातो सदां सांजचो शिमेपायणींत वरा देड वराचो पासयेक वतालो. म्हाका बरोबर व्हरतालो. ताचो बरोबर पासयेक वचूंक हांव उमळशिकेन रावतालें. आयज भुरगीं तांगेल्या आवडट्या सिरियलाक रावतात, तशें. वाटेर आमी उलयतालीं. आमी म्हळ्यार, तातो चड उलयतालो, हांव आयकतालें, प्रस्न विचारतालें. हातूंतल्यान म्हजें आगळें वेगळें शिक्षण जालें. ल्हानपणासावन म्हाका तातो मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार आयज हांव कुसरेंच कोण आसपाचें.

**माधवी सरदेसाय - हालींच १व्या युवा साहित्य संमेलनाचें अध्यक्ष जालें. त्या निमतान बिम्ब मासिका खातीर घेतिल्ली ही मुलाखत.**

***माधवी, णव्वें युवा साहित्य संमेलन तुजे अध्यक्षते सकल भरता हे बद्दल बिम्ब परिवाराची तुकां मनस्पूर्वक परबीं. तुका अध्यक्ष म्हूण वेंचून काडलां हें आयकतकूच मनांत कसले विचार तरंग निर्माण जाले?**

** खरें सांगूं? पयलें reaction – दिसलें, दुसऱ्या कोणाचें नांव सुचोवंचें आनी ल्हवू कुशीक सरचें..... असल्या संमेलनांनी म्हाका आस्था ना अशें निखालूस न्हय. म्हजे कडेन तरनाट्यांक सांगपा सारकें कांय ना अशेंय न्हय. म्हाका म्हजे पद्धतीन, मात्शें पेल्यान रावन, काम करूंक आवडटा. विद्यापिठांत तरणाट्यां कडेन म्हजो दिसपट्टो संबंद येता. तांच्या विकासांत वांटेकार जावपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळां. हेंच खूब जालें ना? आनी भाशणांनी ‘गोस्त काडप’ (सुनापरान्ताचे परिभाशेंत!) हो म्हजो पिंड न्हय. म्हणून, पयल्याच खिणाक दिशिल्लें, कूस मारूंक मेळटा जाल्यार पळोवंचें ... हेच पयले वयले विचार तरंग.

*** हे आदीं भरलेल्या संमेलनांतलीं कितलीं संमेलनां तुवें पळयलीं आनी तातूंत तुका कितें कितें भर घालची अशें दिसललें? आनी प्रत्यक्षांत संमेलन जाल्या उपरांत तुवें येवजिल्ल्यो कितल्यो गजाली तुवें केल्यो/ तुजे कडल्यान जाल्यो अशें तुका दिसता?**

** हे आदीं चार संमेलनाक हांव गेलां... ह्या संमेलनांक आमी ‘युवा साहित्य संमेलनां’ म्हणटात. पूण तातूंत वांटो घेवपी सगळींच ‘युवा साहित्यकार’ आसनात. चडशीं आपणाक ‘बरोवंक येता’ वा ‘बरोवंक आवडटा’ हाची निकतीच जाण जाल्लीं कंवळीं तरणाटीं आसतात. तांच्यो नदरोच पळयल्यार कळटलें. संमेलनांत वाट मेळटली हो भावार्थ कितल्याश्या जाणांच्या नदरांनी म्हाका दिश्टी पडला. ‘युवा साहित्य संमेलन’ ही माची कोंकणी सरस्पतीचे ओडीन एकठांय आयिल्ल्या तरणाट्यांक एकामेकांचो दोन दिसांचो सांगात जोडून दिता, नामना मेळयल्ल्या कोंकणी साहित्यकारांची आनी तांची भेट घडयता,

तांच्या बरपांचेर चर्चा घडोवन हाडटा. थोडे भितर , दोन दिसांचें जालें तरी, साहित्यीक वातावरण निर्माण करता, उर्बा दिता.... हे यत्न फुकट कशेच वचपाचे नांत. दर एका साहित्य संमेलनांतल्यान एका दोगां तरणाट्यांक लेगीत वाट मेळूंक पावली जाल्यारूच खूब जालें अशें हांव म्हणत. कोंकणी साहित्याचे वाडी खातीर असल्यो कार्यावळी खूब गरजेच्यो.

एक मात- संमेलनांतल्या कार्यसाळांनी वांटो घेवपी विद्यार्थी चडशीं ओगी रावन आयकतात. तीं फकत आयकतात हाचो अर्थ, कांयच घडना असो न्हय. पूण तीं उलयतलीं तेन्नाच तांणीं कितें घेतलां ताचो थाव आमकां लागूंक पावतलो. म्हूण म्हाका दिसता, ल्हान प्रमाणांत असल्यो कार्यसाळो सातत्यान जावंक जाय - धावें संमेलन जावंचे पयलीं. णववें संमेलन घडोवन हाडटना राजश्रीबाय सैलान खूब कश्ट घेतल्यात. ताचो आनी हेरांचो पालव घेवन धाव्या संमेलना आदीं तरणाट्या बरोवप्यां खातीर दोन तरी कार्यसाळो घडोवन हाडपाचें म्हज्या मनांत आसा.

*** बाणीर बोट दवरलेले प्रमाण फाटल्या णव वर्सां सावन ह्या साहित्य संमेलनांतले कार्यक्रम जायत आसा. हातूंत खंयचे खंयचे बदल तुका अपेक्षीत आसा आनी कित्याक?**

** साहित्य संमेलनाचो मुखेल भाग मार्गदर्शनाचो. तोच बरे बशेन जावंक जाय. ह्या भागांत मुद्दाम बदल हाडपाची गरज ना अशें म्हाका दिसता. अंदूच्या संमेनांत हांव चडशें कथे वयले कार्यसाळेंतल्या सत्रांनी बशिल्लें. भौ. दामोदर मावजो आनी भौ. पुंडलीक नायक तातूंत मार्गदर्शक आशिल्ले. कितले आस्थेन आनी आपलेपणान , कितले बारीकसाणेन ते तरणाट्या बरोवप्यांक मार्गदर्शन करताले! हे तरेचें 'सारें' खूब म्हत्वाचें. देखून कार्यसाळांचें आयोजन खरें बरें जावंक जाय.

तरणाट्यांनी संमेलनांत अदीक बरे तरेन वांटो घेवंचो अशें आमकां दिसता जाल्यार तांकां उलोवंक लावपी ल्हान ल्हान सत्रां संमेलनाचे कार्यावळींत आसपावन घेवं येतात. देखीक, कथेच्या सत्रांत तरणाट्यांनीच एक वर उलोवंचें, आपणाक आवडिल्ले खंयचेय एके कथेचेर , कथाकाराचेर वा कादंबरेचेर - फकत कोंकणी कथा-कादंबऱ्यांचेर न्हय - खंयचेय भाशेंतल्या पुस्तकाचेर. हातुंतल्यान तरणाट्यांचे अभिरूचीची सुलूस मेळटली. हीं तरणाटीं कॉलेजींतल्यान येतात, म्हणटकच तांकां थंय 'कितें मेळटा' ताचीय वाट मेळूंक पावतली. एक एकल्याक धा ते पंदरा मिनटां उलोवंक दिवंचें....

*** हे वर्सा सुमार अंयश्यां वयर कविनीं ह्या संमेलनांत भाग घेतलेलो आनी प्रत्यक्षांत फकत २७ कवी हाजीर आसले आनी तेय बी पयल्या कविता सत्राच्या पयल्या भागांत. दुसऱ्या भागांत ही संख्या आनी बारीक जाली हाचे वयल्यान युवा कवींक व्हडलोसो उत्साह ना अशें दिसता. तुका कितें दिसता हाचेर? शिवाय तातूंत आयिल्ल्या साहित्याचोय कसूय बरोच अस्कत आसलो अशें आयकूंक येता.**

** खरें म्हळ्यार अशें जावंक फावना... एका संमेलनांत हांव निबंदाच्या सत्राक मार्गदर्शक आशिल्लें तेन्ना म्हाकाय असलो अणभव आयिल्लो. एका एका निबंदांतले मुद्दे कुशीक काडून मार्गदर्शनाची तयारी करून हांव गेल्लें. पूण फकत दोग जाणां बरोवपी सत्रांत हाजीर आशिल्लीं. ... विद्यार्थ्यांक इनामां खातीर साहित्य धाडूंक आवडटा. हें वायट अशें हांव म्हणचें ना. पूण संस्थेचे वतीन संमेलना खातीर साहित्य एकठांय करतल्यान विद्यार्थ्यांक संमेलनाची भुमिका सारकी समजावन सांगूंक जाय. हांगा आमी उणीं पडटात आसूं येता.



डॅक्कन कॉलेजींत शिकतना इश्टां वांगडा माधवी.

साहित्याच्या कसा विशीं - युवा साहित्य संमेलनां म्हळ्यार, सद्याक तरी, हायर सेकंडरी, कॉलेजांनी शिकपी भुरग्यांचे मेळ कशे. ह्या भुरग्यांनी निकतेंच साहित्याच्या मळार पावल दवरलां हें आमी विसरूंक फावना. ह्या भुरग्यांचेर साहित्यीक संस्कार जावंक जाय. तांच्या हातांत बरें साहित्य पडूंक जाय. तेन्नाच साहित्याचो कस वाडटलो. हें आमचें काम न्हय?

*** युवा साहित्य संमेलनान दत्ता दामोदर नायक आनी जयंती नायक हे दोन अध्यक्ष दिले आनी ह्या दोगांकूय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळे हातूंत युवा साहित्य संमेलनाचो भाग कितलो आसा शें तुका दिसता?**

** संमेलनाचें अध्यक्षपद आनी साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार हांचो संबंद आसा अशें म्हाका दिसना.

*** सद्याच्या युवा संमेलनात चलयांचो आसपाव खूब आसलो. हाचे वेल्यान तुका कितें दिसता?**

** कों कणी विशय – कोंकणीच कित्याक, कला शाखेंतले सगले विशय – घेवप्यां मदीं चलयो चड आसतात. म्हूण युवा साहित्य संमेलांनी चलयो चड दिसतात... हाका लागून चल्यांक / दादल्यांक असुरक्षीत बी दिसना मूं...?

*** बायल आयजच्या युगांत शिकता आनी कांय प्रमाणांत शिकनाय. बायलांच्या विकासा खातीर कितें जावंक जाय शें दिसता?**

** 'विकासा'ची सुरवात जण एकल्याच्या घरांतल्यान जावंक जाय. शिक्षण म्हत्वाचें. शिक्षण आमची नदर बदलता आनी एक एक जनेल उकतें जावंक लागता... आयज बायल–मनीस खूब मुखार पावल्या.... युनिव्हर्सिटींत म्हजो चलयांकडेन चड संबंद येता. हांव पळेतां, आयची चली– सामक्या गांवगिऱ्या वाठारांतली लेगीत – निखटी घोवाची बायल जावपाचें सपन पळेना. ती कोण तरी 'जावंक' सोदता. हांव कॉलेजींत शिकतालें तेन्ना काळ वेगळो आशिल्लो. म्हजी एकली इश्टीण बी. ए. च्या दुसऱ्या वर्सात आसतना तिची सोयरीक जाल्ली तेन्ना 'ताणें म्हाका लग्ना उपरांत स्लीव्हलॅस घालपाची, जीन घालपाची


तातो बरोवर शिमेपायणींत पासयेक वतना

मेकळीक दिल्या' म्हूण सामकी आनंदीत जाल्ली.. आयच्या चलयांच्यो अपेक्षा रूंदावल्यात.... तरी खूब गजाली जावपाच्यो आसात. जातल्यो इल्ल्यो इल्ल्यो करून.

***एक बायल म्हण तुका खाशेलें कितें करीन दिसता?**

** संमेलनाचें अध्यक्ष ह्या नात्यान बायल म्हूण खाशेलें कितें करपाची गरज आसा अशें म्हाका दिसना. तुमीच वयर म्हळां तशें, ह्या संमेलनांनी चलयांचोच आसपाव चड आसता. पूण एक जागरूक बायल–मनीस ह्या नात्यान हांवें करपा सारकें खूब आसा. तें म्हजे परीन, चड बोवाळ करिनासतना, हांव करपाचो यत्न करीत आयलां... हांव दोन धुवांची आवय. 'दोनूय चलयोच? चलो ना?' म्हूण एकल्यान म्हाका विचारिल्लें तेन्ना हांवें म्हणिल्लें, 'I am a proud mother of two daughters....' म्हाका दोन चलयो हें हांव म्हजें भाग्य लेखतां. तांकां बरे बशेन वयर काडप. – 'तूं चली–मनीस' हे जाणविकायेचो पास तांच्या व्यक्तिमत्वा भोंवतणी आंवळूंक दिना आसतना– सोंपी गजाल न्हय, हें पावला कणकणी म्हाका जाणवता... हे परिक्षेक हांव पास जाल्यार खूब जालें अशें दिसता म्हाका.

*** संवसारभरच्या बायलांची आयजची अवस्था तुज्या मता प्रमाण कशी आसा? 'द सेकंड सॅक्स' ह्या सिमोन द बोव्होआर हांच्या पुस्तका संबंदांत तुमचें मत किते?**

** 'द– सेकंड सॅक्स' सगळ्यांनी वाचूंक जाय. ह्या पुस्तकांतल्या पयल्याच पाना वयली – घडये पयलीच – वळ हांव केन्ना विसरचें ना. –'One is not born, but rather becomes a woman.' हें सामकें खरें. बायल–मनीस घडोवपाचे कारखाने सगळ्या संस्कृतायांनी चलतात. तरी, येदोळ म्हळां तशें, आयज काळ बदलता. दुसरें, अमेरिके सारक्या 'फुडारिल्ल्या' देशांत बायल–मनीस अजून राष्ट्राध्यक्ष जावंक पावंक ना. पूण आमच्या देशांत इंदिरा गांधी प्रधानमंत्री जाली. पाकिस्तानांत बेनझीर भुत्तो ह्या पदार पावली. बांगला देशांत बेगम हसीना... श्रीलंकेंत सिरीमावो बंदारनायके... आयज आमची राष्ट्रपतीय एक बायल–मनीस. गोंयांत एकली बायल–मनीस – शशिकलाबाय काकोडकार – मुखेलमंत्र्यांच्या पदार पावल्या. भारतांतल्या ज्या वाठारांक समाजीक नदरेन आमी फाटसार लेखतात – बिहार, उत्तर प्रदेश – ह्याय वाठारांनी बायलो मुखेलमंत्री जातात. येवजितां तेन्ना बरें ऽ दिसता. खंयच सगळोच काळोख आसना.

***शिकलेली सवल्लेली बायल आयज कर्मकांडा फाटल्यान लागलेली दिसता. तुका तिचे बद्दल कितें दिसता?**

** शिकिल्ले सवरिल्ले दादलेय हांगा फाटीं नांत. कर्मकांडांचेर भरवंसो आशिल्ले बरे बरे दोतोर इंजीनियर दादलेय हांवें पळेल्यात.



साहित्य अकादेमीचो अणकाराचो पुरस्कार नवनिता देव सेन हांचेकडल्यान घेतना - माधवी

बायलां कडेनूच बोट कित्याक दाखोवंया?

***तुजें व्यक्तिमत्व उबें करपांत तुज्या रायटर आनी फायटर मामाचो कितलो आदार जाला?**

** खुब्ब. हाचेरूच म्हज्यान एक पुस्तक बरोवं येता! हेरांक जें कश्टान वा म्हणुया केन्नाय अपघातान मेळटा तें म्हाका सहज- बऱ्या नशिबान म्हणटात तशें - मेळ्ळें. रवीन्द्रबाबान - तातोन- म्हजे खातीर वेळ दिलो. - quality time. म्हज्या भुरगेपणांत तातो सदां सांजचो शिमेपायर्णीत वरा देड वराचे पासयेक वतालो. म्हाका बरोबर व्हरतालो. तातो बरोबर पासयेक वचूंक हांव उमळशिकेन रावतालें. आयज भुरगीं तांगेल्या आवडट्या सिरियलाक रावतात, तशें. वाटेर आमी उलयतालीं. आमी म्हळ्यार, तातो चड उलयतालो, हांव आयकतालें, प्रस्न विचारतालें. हातूंतल्यान म्हजें आगळें वेगळें शिक्षण जालां. ल्हानपणासावन म्हाका तातो मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार आयज हांव दुसरेंच कोण आसपाचें, दुबाव ना.... हांव जाल्लें पुर्तुगालाक. तीन म्हयन्यांच्या म्हाका आनी सवाय वर्साच्या सविताक घेवन आवय गोंयां आयली. उपरांत हांव तीन वर्सांचें जालें तेन्ना ती म्हज्या बापाय सरीं अमेरिकेक गेली. म्हाकाय व्हरपाची आशिल्ली. पूण म्हज्या आज्यान म्हळें खंय, हाका दवर हांगा; म्हणटकच तुमी बेगीन येतलीं परतीं. हांव तातो-माँची धूव कशें वाडलें.... तातोन म्हणचें, कृष्णाक दोन दोन आवय-बापूय तशेच तुकाय.... हे नदरेन हांव खऱ्यांनीच भाग्यवान.तातो-माँ, आंकू-मामा - चार वेगळ्या वेगळ्या व्यक्तिमत्वांकडल्यान म्हजेर संस्कार घडल्यात. पूण, दुबाव ना, म्हज्या व्यक्तिमत्वाच्या घडपांत चड हात तातोचो.

*** तुवें भाशेचो शास्त्रीय अभ्यास केला. भास शास्त्राचेर एक पुस्तक बरयलां. अणकार केल्यात. आनी ललीत लेखन सुरू करूनय तातूंत विशेश भर केन्ना आनी कशी पडटली?**

** हांव डायरी बरयतां. सामकें नेमान अशें न्हय. बरयन दिसता तेन्ना बरयतां. सदांच वाचपी दोळ्यां मुखार आसना. केन्नाय अमकीच एक व्यक्ती आसता. म्हणटकच सगळीच डायरी छापुंकूय हांव केन्ना दिवंचें ना. ललीत लेखन म्हळें जाल्यार हो म्हजो आवडटो फॉर्म. (होय तातोचोच प्रभाव म्हणूं येत) खंयूय दोन-तीन दिसां-परस चड रावंक वा भोवंक वचचें आसल्यार डायरी हांव बरोबर व्हरतांच... म्हज्या ललीत लेखनांत विशेश भर केन्ना पडटली, हांव नकळ. मुद्दाम थारावन भर घालपाचो विचार अजून तरी हांवें करूंक ना. एक मात, केन्नाय तरी आत्मकथे सारकें कितें तरी, घडये डायरेच्या रूपान, बरयतलें म्हणटां. सुरवेच्या पंदरा-एक वर्सांच्या काळांतलेंच खूब 'मॅटर' आसा तकलेंत. केन्नाय कोणाय मित्राक / मैत्रीणीक असल्यो फाटल्यो गजाली सांगतां तेन्ना तीं म्हणटात, आगो, बरय हें... बरयतलें केन्नाय तरी. सद्याक तरी हो विचार शेंदरे वरी कवळून कोनशाक दवरला.

*** तुका सुरवातेच्या काळान कित्याक बरयन दिसलें?**

** ल्हानपणांत कोणूय म्हाका 'तूं कोण जातलें?' काय म्हूण विचारी तेन्ना हांव कितें जाप दितालें, याद जायना. पूण वर्गांतलीं भुरगीं दोतोर, इंजिनीयर, शिक्षक जातलीं म्हूण सांगतालीं तेन्ना मनांतल्या मनांत हांव म्हणटालें, 'हांव तातो बशेन जातलें. लेखक.' हांव स-एक वर्सांचें आशिल्लें तेन्ना तातोन म्हाका इल्लीशी एक पटी हाडून दिल्ली बरोवपाक. ताचेर हांव ल्हान ल्हान नोंदी बरयतालें - 'आज सकाळीं उठलें. तातो बरबर पारजताचीं फुलां पुंजायलीं. तांची रांगोळी घाली. आज हांवें फोंडूक (हो आमगेर वावराक येवपी मानाय) 'दुकर' म्हळो. मागीर तातोन म्हाका 'चूक जाली' म्हणूंक लायलें मागीर हांव रडलें....' - असलें कितें कितें.. (फाटीं एक दीस ही पटी म्हाका मेळिल्ली) सुरवातीच्या काळांत अशेंच बरोवप जालें... मागीर मदींच एक दीस एक कविता बरयली.



साहित्य अकादेमी पुरस्कार घेतना अध्यक्ष रमाकांत रथ हांचे वांगडा.




तेन्ना ताका दाखयली. बाकीबाबान म्हळें, 'अशेंच बरयत राव...' खूब उमेद जाल्ली तेन्ना म्हाका.

*** जिणेंतल्या खऱ्या उत्कर्शाचो काळ येवंचो आसा तेन्ना भविश्यांत कितें करपाचे प्लॅन आसात?**

** प्लॅन खूब आसात. एकूच सांगतां-भासविज्ञानाच्या मळार म्हाका कोंकणींत दोन तीन तरी बरीं पुस्तकां बरोवपाचीं आसात. समाजभासविज्ञान म्हजो आवडटो विशय. म्हजी पीएच्‌डीय ह्याच विशयांतली. ह्या विशयाचेर फुडल्या दोन-एक वर्सां भितर एक तरी बरें पुस्तक हांव दितलें.

*** गोंय अतीजलद गतीन इंग्लीशीच्या विळख्यांत वचत आसा. आमी अशे परभासांच्या दिगयांचेर आमचें मानस शास्त्र दवरतले काय कितें? तुजें मत.**

** इंगलीशीकरण आपणावन आमी हुमटल्लें जिवीत जियेवंक आंवडेवंक लागल्यात. म्हाकाय दिसता अशें साहित्याच्या मळारूय आधुनिकिकरणाच्या नांवान आमच्या देशांत, चड करून इंग्लीशींतल्यान येवपी साहित्यांत, हुमटल्लेपणाचेच सुवाळे चलतात असो दुबाव मारूंक लागता म्हाका..... इंग्लीशीकरणाचो हुंवार आडावंक आमकां आयलो ना जाल्यार व्हावन वचप आमकां चुकोवंक येवपाचें ना..

***गोंय विद्यापीठांत कोंकणीचें विद्यादान करतना जेन्ना कोंकणी विद्यार्थ्यांक भास अध्ययन करतना तुमी पळयतात तेन्ना कोंकणीचो फुडार कितें दिसता?**

** कोंकणीचो फुडार उजळूच आसा. कोंकणींतल्यान एम्. ए करूंक आयज गोंयच्या




खांची कोनशांतलीं - खोतीगांव, मोलें, कुळें, सर्वण, वाळपय, पेडणें सारकेल्या वाठारांतलीं- भुरगीं येतात. हिंदू तशे क्रिस्तांव. मुद्दाम सांगन दिसता, नागरी/रोमी हो वाद ह्या भुरग्यांक लागना. हो कोंकणीचो नवो फुडार. फाल्यां हांतलीं कांय भुरगीं कोंकणींतल्यान पीएच्‌डीय करतलीं... कोंकणी साहित्याची परखड समिक्षा करतलीं.



विद्यापिठांत हांव पळेतां, हेर खंयच्याय विभागांचे तुळेन आमच्या विभागांतलीं भुरगीं अदीक सक्रीय आसात. तांगेलें 'कोंकणी सरस्पत मंडळ' वेगळ्यो वेगळ्यो कार्यावळी घडोवन हाडटा. म्हालगडच्या कोंकणी बरोवप्यांक विद्यापीठांत आपोवन हाडटा. तांचे कडेन भासाभास करता. हें पळेतां तेन्ना म्हाका मुखार खूब उजवाड दिसता. एक मात, आमच्या भुरग्यांनी गोंयां भायर वचून नव्या नव्या -भासविज्ञान, पत्रकारिता, दिग्दर्शन - सारकेल्या विशयांचें ज्ञान जोडून नदर वाडोवन परत कोंकणी सरीं येवंक जाय. आपणाल्या विशयांत खोलायेन देंवपाची वान्सा सदां बाळगूंक जाय.... अशें सामान्यतायेन घडना.. एके नदरेन पळोवंक गेल्यार कांय प्रमाणांत हें विद्यादान करतल्या शिक्षकांचें उणेपण..... विद्यार्थ्यां भितर ऊंच हावेस जागोवंक आमी उणीं पडटात. ही जाणविकाय जाता तेन्ना हांव खऱ्यांनीच खूब अस्वस्थ जातां.....

# उतरकुवाडें

– मुकेश थळी

**आडवे**

१) घटमूट, सशक्त
४) विनोदी कोंकणी लेखक
६) सुटी दिवचेली मेकळीक
८) दांगे आशिल्लें एक नुस्तें
९) भात वा हेर जिनस सुकत घालपाची व्हडली शेंदरी.
११) ह्ह्ह दिवप म्हळ्यार उजरावप, तापोवप
१२) गूंड, मवाली
१४) पेनाचो नीब
१५) सारकें
१६) उपकरण, आयुध
१७) रसीट
१८) देवान दिल्लो आशीर्वाद
२०) मालूक, मूर्ख
२१) धातूंक जोडपाक वापरतात तें रसायन

**उबे**

१) पापड असो आशिल्लो
२) बारीक कण, ह्ह्ह तोपप म्हळ्यार कळ लावप
३) च्या घेतकच येवपी ताजेपण
५) चरतें, एक कातीचो रोग
७) थकिल्लें
९) गऱ्याक लायतात तें
१०) फावोर
११) एके तरेचो जादूटोणो
१३) अधाशी
१४) वयलें कवच वा धापणें
१६) येता ती रक्कम
१७) पातकी
१९) घोवाचो भाव

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | ३ | | ४ | ५ |
| | | | | ६ | ७ | | |
| ८ | | | ९ | | | १० | |
| | | ११ | | | | | |
| १२ | १३ | | | | १४ | | |
| | १५ | | | १६ | | | |
| १७ | | | | १८ | | | १९ |
| २० | | | २१ | | | | |

**जानेवारी उतरकुवाड्याची जाप**

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| व्हॅ | नि | ला | | म | हा | बा | हू |
| टि | | ग | त | | य | | ड |
| क | | व | ट | हु | कू | म | |
| न | प | ड | | म | | | |
| | र्या | | पा | ण | घो | डो | |
| जा | य | फ | ळ | | | | का |
| | वा | | त | र | त | री | त |
| वि | ची | त्र | | स्तो | | खा | डी |



# जोर रडटा पेजेक.....?
# जोर जोडटा दुस्मानाक..!(पुर्वार्ध)

**स्व**ताच्या जोराचें निदान स्वताच करप आनी तें वैजाक सांगप आनी वैजानूय ताचेर विसंबून रावन त्याच निदानाचेर वखद दिवप हाचे 'फाटली फिलॉसॉफी कितें तेंच म्हाका उमगना...

आतां म्हज्या दुयेंसा खातीर हांवें बिम्बाची म्हत्वाची सुवात आडावप आनी तातुंतल्यान म्हजें रडगाणें सांगतां सांगतां ती एक म्हजी फिलॉसॉफी तीय बी हाय अशें सांगप कितलें उचीत हेंय म्हाका होलमना. पूण सुनापरान्तात नंदकुमार आपल्याचें दुयेंस, आपले बायलेचें दुयेंस इतलेंच न्हय तर आपल्या पुताचेंय दुयेंस बरेंऽ मीठ मसालो लावन विस्कटावन वर्णिता तेन्ना हांवें म्हज्या जोराचें वर्णन केल्यार म्हाका कितें हांव गैर करतां अशें दिसना. तीच म्हजी खऱ्या अर्थान हाय फिलॉसॉफी आसूं येता.

ते भायर दुसरी गजाल म्हळ्यार अंतर्मनांतले अंतरंग सांगपा खातीर सुरू केल्लो हो कॉलम एक हाय फिलॉसॉफी सांगपी कॉलम अशें वातावरण निर्माण करून फकांडां करतां करतां जिविता कडेन पळोवपाची एक वेगळी नदरूय आसूं येता हाची एक सुलूस, चाकोरींत चलपी लोकांक मेळची असोय हे फिलॉसॉफी फाटलो हेत आशिल्लो.

पूण खुपश्या वाचकांक त्या कॉलमांतलें सत्यूच चड जाणवलें आनी फकांडां भौच थोडीं. फाटल्या अंकांतल्या जोर रडटा पेजेक ह्या म्हज्या लेखांतल्यान डॉ. अनील घार्से ह्या मित्राक हांव खऱ्यांनीच बरो ना म्हणपाची सत्यताय दिसून ताणें बऱ्याच जाणां कडेन म्हजी खबर घेवपाचो यत्न केलो.

तेन्ना हो हायली फिलॉसॉफिकल कॉलम आतां बंद करतां करतां जोर रडटा पेजेक हाचो फुडलो एपिसोड बरयल्या बगर पर्याय ना. जोर रडटा पेजेक हें जरी खरें आसलें तरी जोर जोडटा मनशाक आनी चड करून दुस्मानाक हेंय तितलेंच खरें!

दुस्मानकाय, मतभेद, दुस्वास हाका लागून कलुशीत जाल्लीं मनां जोडपा खातीर जोर हो जायच पडटा. . जोरा फाटली वो म्हणुया दुयेंसा फाटली तीच एक खरी फिलॉसॉफी.. सगळ्यांत हाय.... जाका दुयेंस जाता ताकाय हायशें जाता आनी दुयेंसाची खबर जांच्या कानार पडटा त्या दुस्मानाक लेगीत हाय जाता...

बरोच काळ तकली सणसणटा, न्हावन पुसतना लेगीत सोसूं नज आनी वाकपाक तर जायच ना हाका लागून ३१ डिसेंबराक निर्णय घेतलो, हांव मित्रां वांगडा ड्रिंक बी घेतां, मागीर ड्रिंकाचेर सिगरेटी बी ओडटां ताका लागून म्हज्या शरीरांत थंडी बळावल्या, सायनस बी जाला तेन्ना कित्याचेरूय पडचे आदीं थोडो काळ सिगरेट ओडची न्हय. नव्या वर्साची पयली तारीकूय आसा तेन्ना एक तारकेक सिगरेट सोडप असो संकल्प केल्लो. ड्रिंक म्हळ्यार सोरो तसो म्हजो चड जायना. जर कोण रसीक मेळ्ळो जाल्यार दोन-तीन पेग जातात आनी मैफल रंगली जाल्यार आठूय पेग जातात. पूण ताचो परिणाम लिखाणाचेर जाता देखून हांव ड्रिंक चड करून टाळटां आनी एकटो तर केन्नाच घेना. तेन्ना तें सोडपाचो संकल्प करपाची गरजूच म्हाका केन्ना पडूंक ना. जी गजाल केन्ना धरूंकच ना ती सोडपाचो संकल्प कित्याक ही म्हजी फिलॉसॉफी... पूण केन्नाय घेतां तेंय बंद करपाचो निर्णय घेवपाचें कारण म्हळ्यार ड्रिंक घेतल्यार सिगरेट जाय पडटा. सिगरेटी खातीर व्हिस्कीक वाळींत उडोवपाचो हो प्रकार..

सिगरेट-सोरो सोडूनय म्हजी तकली सणसणप थांबना.. म्हणटकच आतां दोतोर जाय. तातूंत दोळेय दुखताले... नंबर बदलला आसतलो.... डॉ. अजय वैद्या कडेन गेलों.. तोच म्हज्या दोळ्यांत अपुर्बायेन दोळे घालून पळयता... ताणें म्हळें, तुजे दोळे तपासल्यार स म्हयने लेगीत जावंक ना. तुका सायनासायटीस आसूंक जाय. इतलें सांगून तो रावलो तर? ताणें चिमटेन कपला सकयल आनी नाका वयर दामून विचारलें, 'दुकता?' अशें दामतकच दुकतलेंच. हांवें हय म्हळें. तें कित्याक लागून दुकता हें म्हाका कशें कळटलें?

अजयान केल्लें निदान खरें मानून हांवें तें ऑस्कर रिबेलोक सांगलें. ताणें आनीक खंय खंय दामून पळयलें आनी म्हाका सायनसायटीस आनी ॲन्टीबायोटिक्सचो पांच दिसांचो कोर्स दिलो. गोवा बचाव अभियानवाल्याच्या दिलीप बचाव अभियानाचेर विस्वास दवरून हांवें तो कोर्स पुराय केलो. तरी तकली फोडपाची थारना. आतां तर न्हिदल्या बगर ती थारनाशिल्ली. म्हणटकच हांवें अर्दवर काम करप आनी वरभर न्हिदप. अशी न्हीद की खाटीर पडले बराबर न्हिदप आनी घोरेवप. रातचो हांव बारांक न्हिदतालों आनी सकाळचो साडे पांचाक उठून चलपाक बी वचपी. आतां आठ वरांचेर न्हिदप आनी सकाळींच सात वरांचेर उठप.

ही गजाल कामिनीक खबर ना. पूण ऑफिसांत तें म्हाका पळयतालें.... थोडो वेळ कंप्युटराचेर हांव बसतां आनी रोकडोच वचून न्हिदतां.. ताकाय तें विचित्र दिसतालें.... अशें हें चलतालें...

जेन्ना ऑस्करान दिल्लो सायनसायटीसाचो अवार्ड म्हाका नॉर्मलार हाडून बचाव करूंक शकलोना तेन्ना हांवें एक दीस धर्मानंदाक फोन केलो. आरे म्हजी तकली दुखता... ताणें आयकलें म्हज्या काळजांत दुखता. ताचीय म्हूण चूक ना. तकली दुखल्यार कोण फोन करता? फोन करपाचें आसता काळजांत दुखता तेन्ना.

तातूंत आमचे सगळें मित्रमंडळ काळजा कडेन संबंद दवरून आशिल्लें. तकली कोणाक आसा हाचेर कोणाचोच अजून विस्वास ना. देखून धर्मानंदान सतीश सोनकाक फोन केलो. सतीश तेन्ना कोर्टांत... सतीशान सुबोध केरकाराक फोन केलो. सुबोध कळंगुटे... येवपाक कळाव जायत म्हण ताणें मिनाक्षी मार्टीन्साक फोन केलो.. म्हाका ॲटॅक बी येता जावंये... मातशें वच. ताणें ही गजाल अनुरागाक, आपल्या घोवाक सांगली. दोगांनीय वेळ केलो ना. गाडी घेवन दोगांय पर्वरी म्हज्या ऑफिसांत. हांव कंप्युटराचेर बसून काम करतां तें पळोवन मिनाक्षी

चक्रावलें.. चल चल न्हीद वचून, प्रेसांव पळयतां. म्हजेर हातांतलो स्थेथस्कोप मारीत मिनाक्षीन म्हळें. आगो म्हाका कांयच... इतलें उलोवंक मात गेलां अनुरागान दोळे मोटे करून तोंडार बोट दवरून ओगगी रावपाक खुणायलें.... ताचें तोंडूच पळयल्यार कळटालें दिलीप बोरकार वता हाची हाका खात्री जाल्या.

मिनाक्षीन धडाधड म्हजें प्रेशर तपासूंक सुरवात केली. मिनाक्षी पिशां दोतोर म्हळ्यार सायकियाट्रीक.. पूण तें म्हजें काळीज तपासतालें. इतल्यान सुबोध, सतीश, धर्मानंद धडाधड भितर सरले.. चल चल शेखरा कडेन व्हरूया. .. सुबोधान हुकूम सोडलो.

आरे म्हाका कांयच.. हांवें सांगपाचो यत्न करतां करतां अनुरागा कडेन पळयलें. ताणें परतून ओंठार बोट दवरून दोळे मोटे करून म्हाका चूप केलो. सगळ्यांनी जबरदस्तीन म्हाका सुबोधाचे गाडयेंत चोंदलो. गाडी मांडवी क्लिनीकांत डॉ. चंद्रशेखर नायका कडेन.

सुबोधान ताका फोन केल्लोच. ताणीं गंभीर भाव मुद्रेन म्हाका बरो ऽ वेळ तपासलो. तो तपासता म्हणसर हांवें ताका म्हजें सायनासायटीस पुराण आयकयलें आनी ताचोय ब्रेनवॉश केलो. शेखरानूय पांच दिसांचो सायनसायटीस आनी ॲन्टीबायटिक्सचो कोर्स दिलो.

हांवें शाऽऽणो भुरगो जावन सगळ्यो गुळयो घेतल्यो. कित्याक हांवें ३१ जानेराच्यो केरळाच्यो तिकेटी काडिल्ल्यो. थंयच्यान कन्या कुमारी मेरेन आमचो टूर आशिल्लो. फोल्गां मारपा खातीर दुयेंत फ्री कंडीशन आसचें देखून ही म्हजी धांवपळ. ना तर हांवें दुयेंसाक सदांच भिस्क्यार मारलां.

शेखराचो कोर्स सोंपलो. पूण तकली फोडपाची थांबना. तातूंत आतां म्हाका कुलकुलो खातालो. न्हिदेन तर तेंगसी धरिल्ली. न्हिद होगडावन बशिल्लों हांव न्हिदेविशीं कितें तक्रार करतलों? यथेच्छ न्हिदून सोडटालों. आतां जोर रडटा पेजेक न्हय... जोर रडटालो न्हिदेक.

पूण कामिनीक म्हजीं हीं लक्षणां कांय खरीं दिसलीं ना. म्हजे असवडी ताणें चंद्रशेखराक फोन करून म्हजी वागणूक सांगली. ताणें म्हजे तकलेचो सिटी स्कॅन करपाचो सल्लो दिलो. कामिनी आनी रावता? ताणें रोकडीच ॲपायन्टमेन्ट बी घेतली.

केरळाक वचपाक हांव बॅग बी भरून तयार. . कामिनीची अजून तयारी ना. उरफाटें तें म्हाका घेवन सिटी स्कॅन करूंक.

आतां लाखांनी रूपयांची ती मशिनरी. बेकार दवरल्यार म्हूण जाता? मुदल सोड जुराचे पयशे फारीक करतलो म्हळ्यार म्हज्या सारको एक तरी नग दिसाक जायच.. म्हळें चल घालुया देड दोन हजार. म्हजे न्हय तर कामिनीचे तरी.

स्ट्रेचराचेर न्हिदोवन चक्रांत तकली आपसूक गेली. टिवीचेर जायरात पळयतना समज करून घेतिल्लो खोर्नात उंडो सोडटात तसो मनशाचो देहूय संपूर्ण त्या मशिनांत सोडटात काय म्हण! पूण जाचें स्कॅनींग करपाचें आसा तितलोच भाग त्या चक्रांत वता आसुंये.. म्हजें स्कॅनींग मेंदवाचें म्हणटकच म्हजी तकलीच चक्रांत गेली आनी फुगासांव भोगपाचें टळ्ळें.

दोन-चार मिनटां भितर स्ट्रेचर भायर. हांव रिपोर्टाची वाट पळयत बसलों. देवा सायबा, कितें वाडून दवरलां काय? इतल्यान दोतोरान कामिनीक भितर आपोवन व्हेलें. ताचे वांगडा वचूंक हांवूय उठलों.. नर्सीन म्हाका आडायलो. दुयेंस म्हजें आनी म्हाकाच आडायता? आर्रा तूं... पूण ओगीच बसलों.

कामिनी म्हज्या स्कॅनाचो रिपोर्ट घेवन आयलें. तोंडार गांभिर्य तरी हांसपाचो यत्न. कितें जालां तें सांगपाक तयार ना. म्हणूंक लागलें दोतोराक दाखोवंक जाय.

गाडी स्टार्ट मारून भायर आयलों. चंद्रशेखरा कडेन वचूंक. ताचे कडेन पावचींच आसात, सुबोधाचो फोन. ताबडतोब शेखराक मेळ. तो रावता तुका. आमी ताचे कडेन पावचे आदींच स्कॅन करपी दोतोरान चंद्रशेखराक फोन मारिल्लो. पेशंट सिरियस. चंद्रशेखरान सुबोधाक. सुबोध म्हाका सोदतालो..

स्कॅन रिपोर्ट घेवन चंद्रशेखरा कडेन वरात पावली.

शेखरान स्कॅन रिपोर्ट पळयलो. म्हज्या तकलेचो, मेंदवाचो स्कॅन. म्हज्या मेंदवांत एक्स आशिल्लें. शेखरान म्हाका तें दाखयलें. बोरकारी बरोवप बंद करीत सावन हांव एक्स विसरूनच गेल्लों. पूण तें म्हज्या मेंदवांत वचून बशिल्लें. क्रॉनीक इडिमा. तकलेंत रक्तस्राव जाल्लो वो जातालो. तें रक्त 'एक्स' रूपान दिसतालें आनी ताचोच दाब मेंदवाचेर पडटालो.

'तुका आतां केरळ, कन्याकुमारी कांयच ना. सरळ हॉस्पीटलांत. सुबोध व्हरतलो तुका.'

चंद्रशेखराचो तो हुकूमच.

फेब्रुवारीचो अंक १ फेब्रुवारीक केरळाक रिलीज जावपाचो आशिल्लो अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या अधिवेशनांत. मागीर आमी केरळ, कोची, कन्या कुमारी अशी धा दिसांची भोंवडी करपाचीं आशिल्लीं. आमचीं सगळीं सपनां म्हज्या तकलेंतल्या एक्सान एक्सार मारिल्लीं. म्हजी सगळी थारावणी आतां अर्थहीण जाल्ली. म्हजें कितें करपाचें हाची जापसालकी म्हज्या इश्टांनी घेतिल्ली.

सुबोध घेवन गोमेंकोंत गेलो. पूण एकूय न्युरो सर्जन ना. जिंदाल दुबय काय खंय गेला. म्हळें बरें जालें. म्हाका कोचीक वचूंक मेळटलें. दुसरे दिसा धर्मानंद म्हाका घेवन गोमेंकोंत गेलो. थंय ताका सांपडलो डॉ. दयानंद राव. ताकाय म्हजो हुसको. ताणें खंयच्यान तरी दोतोर सोदून हाडलो. त्या दोतोरान विभाग प्रमुख कोण तरी पोनराजाक ऑपरेशन थेटरांतल्यान भायर आपोवन हाडलो. ताणें स्कॅन रिपोर्ट उबे उब्यांनी पळयलो. तीच नदर म्हजेर भोंवडायली. म्हजो जीव वयर आयिल्लो.

'फाल्यां ॲडमीट जा. सोमारा तुजें ऑपरेसांव करूया.'

(उत्तरार्ध फुडल्या अंकांत)

**दिलीप बोरकार**

*जल्म तारीख :*

७ जुलै १९६२

*जल्म गांव :*

लिज्बोआ, पुर्तुगाल

*आवडिचें स्थळ :*

पिरवळ, मनाली ...

*जिविताचेर प्रभाव घालपी व्यक्ती :*

म्हजो मामा, रवीन्द्र केळेकार

*आवडिचे कलाकार आनी तांची कलाकृती :*

मोहनदास करमचंद गांधी : 'आत्मकथा'
भीमसेन जोशी : 'शुद्ध कल्याण'

*जिणेचें तत्वगिन्यान आनी ताचो कलेचेर प्रभाव :*

हें दुसऱ्यान कोणेंय सोदून काडचें...

*पुराय नामो :*

२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस,
रूअ द साउदादिश,
पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय. ४03 ६0१

*हस्ताक्षर :*

माधवी सरदेसाय



## डॉ. माधवी सरदेसाय

जल्म : ७ मार्च १९६२, लिज्बोआ–पुर्तुगाल

शिक्षण : मुळावें शिक्षण कोंकणींतल्यान ('नवी शाळा', प्रियोळ – गोंय)

– बी. ए. (इंग्लीश साहित्य आनी तत्वगिन्यान) चौगुले कॉलेज मडगांव. (पदवी : मुंबई विद्यापिठाची)

– एम्. ए. (भासविज्ञान) डॅक्कन कॉलेज पोस्टग्रॅज्युएशन ॲण्ड रिसर्च इन्स्टिट्यूट, पुणे. (पदवी : पुणे विद्यापिठाची)

– एम्. फिल्. (भासविज्ञान) विशय: 'कोंकणीच्या व्याकरणाचीं कांय आंगां', डॅक्कन कॉलेज पुणे.

– पीएच्. डी. (समाजभासविज्ञान) विशय: 'कोंकणी उतरावळीवेल्या प्रभावांचो भासविज्ञानीक आनी सांस्कृतीक नदरेन तुलनात्मक अभ्यास.' इंग्लीश विभाग, गोंय विद्यापीठ.

वेवसाय : शिक्षक, नोव्हेंबर १९९२ सावन गोंय विद्यापिठाच्या कोंकणी विभागांत शिकयता, वरिष्ठ व्याख्याता.

साहित्याच्या मळार वावर :

– उजवाडा आयिल्लीं पुस्तकां :

– भासाभास जाग प्रकाशन, प्रियोळ. १९९३ (कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार)

– एका विचाराची जिवीत कथा (रवीन्द्र केळेकार हांगेल्या हिन्दी 'महात्मा गांधी एक जीवनी' पुस्तकाचो अणकार) जाग प्रकाशन, प्रियोळ १९९३. (केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचो अणकारा खातीर आशिल्लो पुरस्कार.)

– माणकुलो राजकुंवर ( आंत्वान द सँतेक्झ्यूपेरी हांगेल्या *Le Petit Prince* ह्या फ्रेंच पुस्तकाचो अणकार.) जाग प्रकाशन प्रियोळ १९९५.

– ह्या पुस्तकाभायर कांय पुस्तकांचें संपादन.

– कांय कविता, निबंद, तशेंच कथा, निबंदांचे अणकारूय उजवाडा आयल्यात. कोंकणींतल्यान तशीं इंग्लीशींतल्यान कोंकणी भास, साहित्य आनी भासविज्ञान ह्या विशयांचेर कितलींशीं संशोधनात्मक बरपां नेमाळ्यांतल्यान उजवाडा आयल्यांत.

– ऑगस्ट १९९५ ते जुलै २००७ मेरेन 'जाग' म्हयन्याळ्याची वावुरपी संपादपी, ऑगस्ट २००७ सावन संपादपी.

POSTAL LICENSE NO: GR/RNP/GOA/01/2006-08 MARCH 2008



















Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, GSB-3, Housing Board Colony, Porvorim-Goa & Printed at Sahyadri Offset Systems, Khorlim, Goa. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2411594, E-mail: bimbkonkani@yahoo.com.in